# कोंकणी मासिक बिम्ब

२० वें वर्स



## अमृतसुवाळो..!

### अमृत कोणाक आनी हलाहल कोणाक...?

- दिलीप बोरकार



वर्स २० : अंक ०५
माव २०२१
मोल 50 रुपया

मुखेल संपादक
दिलीप बोरकार

पालवी संपादक
मानसी धाऊस्कार

मुद्रक आनी प्रकाशक
दिलीप बोरकार

छापणावळ
इम्प्रेशन्स,बेळगावी

वर्गणीचे दर
वर्सुकी वर्गणी ५०० रु.
३ वर्सांची १४०० रु.
विद्यार्थ्यांक वर्सुकी ३०० रु.
आनी ३ वर्सांक ८०० रु.
जाल्यार संस्थ्यांक वर्सुकी ७०० रु.
आनी ३ वर्सां खातीर रु. २०००

BANK DETAILS :
Bimb Monthly
The Saraswat Co. Op. Bank Ltd.
Branch : Panaji Goa
IFSC Code : SRCB 0000071
CA A/c. No. : 071100100000793

संपादकीय पत्रवेव्हाराचो पत्तो :
Dilip Borkar
2-A, Govt. Qtrs, Ponte De Linhares
Patto, Panaji- Goa 403001
Tel: 0832-2438355
Mail: bimbkonkani@yahoo.co.in

कचेरी
'धर्म लक्ष्मी', सांत लॉरेन्स,
आगशी-गोंय, 403204

संपादकीय

# पिडेस्त पिळगी खऱ्यानीच जाय...?

भिरांतेचें वातावरण. कोरोनान सांवार मांडला. संवसारभर हे म्हामारीन लोक सोंपतात. कितले हाची कल्पना ना. पूण गोंयचोच आंकडो आब्रीलच्या निमण्या दिसांनी दर दिसाक अर्द शेकड्या मेरेन पाविल्लो. सगळीं प्रसार माध्यमां ह्या मरणसांवारान कलकलून गेल्यांत. भंयान थरथरल्यांत. तोंडार हात मारून तांची बोबाट चल्ल्या. समाजांत कशी चडांत चड भिरांत पातळावची हाची सर्त तांचे मदीं लागल्या. ताका लागून तांणी केल्लो हुसको आनी त्या हुसक्यान तांचें दिसपट्टें आनी दर दिसा दर खिणांक चलता तें हड्डें बडोवप वातावरणांत एक गूढ मरणसांवट पातळावंक यशस्वी थारता. त्या वातावरणांत जे सकारात्मक विचार करतात ते लेगीत तांचे हे बातमी दिवपाचे सर्तींत घुस्मटतात, तांच्या मनाचेर परिणाम जावं येता हाचें भान कोणाकूच आसा शें दिसना.

कोविडाचे हे म्हामारींत दिसपट्टी ही जी किर्ते मनीसहानी जाता ही खऱ्यानीच काळीज पिळवटून उडोवपी. जांच्या जांच्या घरांत हे अरिश्ट आयलां तांचेर कसलो कलकल आयला हाची कल्पना करूं येता. फक्त उतरांनी तांची दुकां पुसून वच्चीं नात. पूण नियतीचो खेळ किर्ते चल्ला हाची कल्पना मात कोणाच्यान करूं नज आनी तो थांबोवप मनशांच्या हातांत आतां उरूंक ना. दुस्मान खंयच्यान हल्लो करता हेंच जेन्ना खबर नासता तेन्ना ताका आळाबंदाक हाडपाचो कसलोच उपाय उरना आनी मागीर सगळो भार नियतीचेर घालून हताश जावन बसचें पडटा.

फाटलें वर्सभर ह्या कोरोनान जो सांवार मांडला आनी ताचे मुखार मनीसप्राणी हतबल जाला तें पळयत जाल्यार आतां सगळो भार नियतीचेरूच घालून रावले बगर दुसरो पर्याय ना अशेंच दिसूंक लागता. ह्या कोरोनाचे बळी म्हूण गोंयांत दर दिसा मरणांचो आकडो वाडत वचून आतां पन्नाशी हुमून गेला. ताचेर नियंत्रण हाडपाची यंत्रणा आनी व्यवस्था सरकाराकडेन ना. जी म्हामारी फाफसल्या तिचेर उपाय काडप हें जरी सरकाराचें काम आसलें तरी, मरतात लोक म्हणटकच आपल्या जिवाची कशी काळजी घेवप हाचें भान दरेक व्यक्तीन बाळगुपाचो हो काळ जावन आसा. भोगवादी जिविताचे भकीक पडून सगळें ताळतंत्र सोडप आनी जिवार आयलें म्हणटकच 'आतां म्हाका वाचय ' म्हणत सरकाराच्या पांयार पडप हें शिक्षीत समाजाचें लक्षण न्हय.

कोरोनाची हावळ येवन केन्नाच वर्स सरलां. आतां जरी हे म्हामारीची संवकळ जाल्या आनी मनशान तिचेकडेन जुळोवन घेतलां आसलें तरी मनशाच्या मनांतलो भंय वचूंक ना. दरेकलो मनीस भंयान जियेता, आपल्या मुखार आयिल्ल्या प्रत्येका कडेन दुबावान पळयता. ह्या असल्या जिण्याक अर्थ ना आनी हें अदूश्टाचें जिणेंच मनशाक मरणाचे दिकेन व्हरता.

जेन्ना ह्या कोरोनान धर्तरेर पावल घालें तेन्नाच्यान आमच्या सरकारान, आमच्या फुडाऱ्यांनी, आमच्या जाणकार विद्वानानी जें किर्ते केलें तें सोसपाचें न्हय. ह्या कोरोनाक धांवडावन घालपाक थांटी मारल्यो, आयदनां वाजयली, मेणवाती आनी टॉर्च पेटयले, देवाक सांकडें घालें आनी बुद्दीक भिसक्यार मारून सगळीं अवचीन्नपणां केलीं. पूण ह्या कोरोनान वचपाचें नांव काडलें ना. आतां ताचें दुसरें ल्हार शबय घालता आनी तिसरें ताचे फाटोफाट दारार येवन रावलां.

जेन्ना ह्या कोरोनान आपलो नाच सुरू केलो तेन्ना ताका आळाबंदाक हाडपाक टाळेबंदी वो लॉकडावन ह्या तंत्राचो सरकारान वापर केलो. बेशीस्त मनशाक उतरांची आनी नेमांची भास जेन्ना समजना जाली वो समजून घेना जाले तेन्ना जनहिता पासत तांचेर कडक कारवाय करप आनी तांकां नियंत्रणांत हाडप हो एकूच पर्याय सरकारा कडेन उरलो. ताचोच वापर केल्ल्यान उदरगतीच्या नांवान यंत्रांचो राकेस जो प्रचंड गतीन हैदोस घालतालो ताचे हातपांय तेच गतीन आंवुळले. ताका लागून जें प्रचंड प्रदुशण हे धर्तरेर जाल्लें आनी हे धर्तरेचो श्वास अंदल्लो तो ह्या चड काळाच्या लॉकडावनाक लागून सुटलो. सैमांत बदल दिसूंक लागलो. पोट भरप होच जांचो मूळ हेतू आसलो आनी ताचे मुखार जांकां प्रदुशण, वातावरण, सैम हाचें कांयच पडून वचूंक नाशिल्लें तांकां लेगीत ह्या लॉकडावनांत घडिल्ल्या बदलाचो साक्षात्कार जालो. तेन्ना दिशिल्लें हो कोरोना हे सुवार्थी मनीसजातीक कुठलावनूच जाग्यार घालपाक आयिल्लो. सैमान कोरोना अरिश्टाच्या रुपान प्रदुशणकारी मनशा आड शस्त्र उबारून आपली राखण करपाक आरंभ केला. हातूंतल्यान मनीस धडो शिकतलो आनी आपली उदरगत करता आसतनाच ताळतंत्र सांबाळून हे सृश्टीचीय राखण करतलो.

पूण हाय रे दैवा..। सगळें तितल्याच पुरतें थारलें. कोरोनाचो सांवार मातसो उणो जाला अशें दिसल्या बराबर वो तोंडाक मास्क घालून जुळोवन घेवन जिवीत मुखार सारूं येता शें दिसल्या बराबर ह्याच मनशांनी परत सांवार मांडलो. पयसो करप, जोड करप आनी आपले कुडीचीं सगळीं सुखां भोगप हेंच जांचें जिवीत थारिल्लें तांणी परत एक खेप सैमाचेर हावळ हाडूंक आरंभ केलो. सैमाची भास आतां मनशाक कळच्या, आतां तो आबूजपणा करपाचो ना तर सैमाच्या सांगातान आपली जीण सारतलो अशें दिसता थंयच आसा हो मनीस आदले परस चड नेटान सैमाचेर परतलो. कोरोनाच्या काळांत जाल्ल्या लॉकडावनांत आपल्याक जाल्ल्या लुकसाणीचो हिशेब तार्णे मांडलो आनी भोगवादी जिणेंकूच प्रमाण मानून सैमाचो सांवार हेंच आपलें ध्येय मानून जियेवपी ह्या मनशान परत ताळतंत्र सोडलें हो ह्या वर्स देडवर्साच्या कोरोना काळांतलो अणभव.

कोंकणींतले नामनेचे साहित्यकार महाबळेश्वर सैल हांची ***पिडेस्त पिळगी*** नांवाची एक कथा केन्ना तरी वाचिल्ली. तातूंत लेखक विचार मांडटा सगळ्या फळांच्या रुखांक चंवर येता आनी फळांचे कण धरतात. त्या रुखाक भार पेलूं येता तितलींच फळां दवरपा पासत सैम हेर फळांचे कण कसलें ना कसलें नीब करून झडयता. मागीर बऱ्या प्रतीचीं फळां तितलींच उरतात. सैमाची ती रीत. पूण मनशागेर मात रासभर भुरगीं जातात. जे कोण गिरेस्त आसात आनी आपल्या भुरग्यांक वयर काडूंक शकतात तांचें बरें आसा. पूण जांकां सांजेक ना तांगेर भुरगीं जातात तांचें किर्ते? मेळिल्ली जोड ह्या हिसपा भायल्या भुरग्यांक पोटाक घालूंक पावना. मागीर तीं भुरगीं कुपोशीत जातात, पिडेस्त जातात. मर्यादीत खाण चड भुरग्यांक दिवन सगळ्यांक कुपोशीत दवरचे परस थोडींच भुरगीं दवरून तें मर्यादीत खाण तांकां खावयलें जाल्यार पोटभर खावंक मेळटलें. पिळगी पिडेस्त उरची ना.

हांगा लेखक जें किर्ते सांगूक सोदता तें ठळक पणान जाणवता. आज आमची लोकसंख्या हिसपा भायर वाडल्या. आमचे उत्पन्नाचे मर्यादीत स्रोत ह्या लोकांक पावना. देखून देशाची पिळगी पिडेस्त जाल्या. विचार करपाची तांक ना, शिक्षण ना, भोग हीच आपली जीण, ते पासत खंयच्याय थरार वचून जोडप, वेंचणुके वेळार जो कोण पयसो आनी सोरो घालता ताका मतां मारप आनी अर्थ नाशिल्लें सरकार हाडून विचार करपी लोकांच्या बोडार थापप. हें घडटा तें हे असले पिडेस्त पिळगे पासत. भोग होच हे पिळगेचो धर्म जाल्ल्यान ह्या भोगांतल्यान दुर्वेसा निर्माण जावन ती पिळगी भितरल्यान पोखरता, पिडेस्त जाता. ह्या दुर्वेसांक लागून तांचे कुडींतली प्रतिकार शक्त ना नपयत जाल्ल्यान कोरोना सारखे म्हामारींत हेच बळी थारतात, जांची गणती मागीर कोरोनाचे बळी म्हूण मुखार येता. पूण ते खऱ्यानीच कोरोनाचे बळी काय आनीक कसले? मुंबय आनी गुजराताक कोरोनाचे दुर्वेती आशिल्ल्या हॉस्पिटलाक उजो लागून ते सगळे लासून मेले. हे मेल्यात ते कशे मेले? कोरोनान मेले काय लासून मेले ? नियतीच्या ह्या खेळाचो सोद कोण आनी कसो लायतलो हाचोय विचार जावपाची गरज आसा.

# कोंकणी नाट्य सर्त

## समिक्षण, परिक्षण काय आस्वादन?




कला अकादमी आयोजीत अंदूची ४५ वी कोंकणी नाट्य सर्त सोंपली, निकाल जालो, आनी दर वर्सा प्रमाणे निकालाचेर आनी दिसाळ्यांत छापून आयिल्ल्या समिक्षणांचेर बोवाळ जालो आनी आजूनय चालू आसा. तशें पळोवंक गेल्यार अंदू वर्साची सर्त बरीच दर्जेदार आशिल्ली. अंदू वट्ट २२ संस्था हे सर्तींत वांटेकार जाल्यो. वर्सावळी प्रमाणे कांय प्रवेशिका फाटीं घेतले उपरांत निमाणीं २० नाटकां सादर जालीं. हाताच्या बोटार मेजपा इतलीं नाटकां जर सोडलीं जाल्यार अंदूचे सर्तींत सादर जाल्लीं चडावत नाटकांनी सर्ती खातीरचो विचार आनी अभ्यास दिश्टी पडटालो.

कसलीय सर्त आसली म्हणटकच कोण तरी जिखतलो आनी कोण तरी हरतलोच. दर एकल्याक आपणेंच जिखचेंशें दिसता आनी ते नदरेंतल्यान तो आपले परीन यत्न करत आसता. खरें म्हणल्यार 'जिखचे शें दिसप' ही ते सर्ती खातीर बऱ्याची गजाल. खंय ना खंय तरी सर्तीचो दर्जो वाडटा. पूण दर खेपे हो यत्न फळाक येताच अशें ना. कारण हेर सर्तक पंगडूय तिजिल्ले आनी बरो अभ्यास करून आयिल्ले आसतात. तरी पूण 'आपलें तेंच बरें' हो विचार तकलेंतल्यान कसोच भायर वचना, आनी हे वृत्तीक केन्ना-केन्नाय कांय जाणकार आनी प्रेक्षक जडार करतात. आवज बऱ्याक बरें आनी वायटाक वायट म्हणपी खूब कमी दिश्टी पडटात. 'तूं म्हाका बरें म्हण हांव तुका बरें म्हणटां' हेंच चड पळोवपाक मेळटा.

दर वर्सा कला अकादमीची कोंकणी नाट्य सर्त जाली म्हणटकच निकालाचेर आक्षेप घेवपी कांय थारिल्ल्योच व्यक्ती आसतात. खरें म्हणल्यार तांकां फक्त हेच सर्तीचो निकाल पटना अशांतलो भाग ना, तर कसलीय सर्त जावं जर त्यो व्यक्ती ते सर्ती कडेन संबंदीत आसल्यो जाल्यार तांचो निकालाचेर बोवाळ थारिल्लोच आसता. आनी तातूंत आवज 'हर्वे सोदतल्यांक भाजिल्लें मेळचें' तशें वॉट्सॲप आनी फेसबूक सारकीं समाज माध्यमां दारां उक्तीं करून तुमचे विचार पातळावपाक एका क्लिकार म्हणटात तशीं तयार आसतात. त्या 'फेसबुकार' वेळ होगडावचे परस जर 'बूक' वाचपाक वेळाचो उपेग केलो जाल्यार नाटकांत साहित्यीक मुल्ल्यांची तरी भर पडटली.

आमचें गोंय ल्हान आनी तातूंतल्या तातूंत कोंकणी रंगभूंय तर ताच्यावून ल्हान, आकारान हां! तसो तिचो आंवाठ बरोच व्हड. नाटका कडेन संबंदीत आशिल्लो काणकोणचो मनीस पेडणेच्या मनशाक वळखता. कोणाक जाय त्यो कटकटी आनी वायटपणां? असो एक सूर नाटकाचेर उलयतना आनी परिक्षण बरयतना आयकुपाक मेळटा. दिसाळ्यांत छापून येवपी परिक्षण हें कोणाक कमी लेखपाक वा बरयतलो बेकार आसा वा ताका कोणाचेर तरी राग काडपाक जाय म्हण बरयनात, तर ताचो दर्जो वाडचो हो एकूच नितळ हेतू तातूंत आसता. नाटक सादर करपी संस्थ्यांनी आनी संबंदीत व्यक्तींनी हें खेळाडू वृत्तीन आनी सकारात्मक दिश्टीकोनांतल्यान घेवंक जाय. पूण चडशे खेपे अशें जातना दिश्टी पडना. मास्टर ब्लास्टर सचीन तेंडुलकरान खेळटना जायत्या जाणांनी तिडायलो. ताचेर टिका केली, पूण तो तोंडान केन्नाच उलयलो ना. तणें ते टिकेची जाप बॅटान दिली. तणें केल्ली टिका खेळाडू वृत्तीन घेतली देखून तो शंबर शेंकडे मारपाक पावलो.

दुसरी एक म्हत्वाची गजाल म्हणल्यार बरयिल्लें परिक्षण हें सादर जाल्ल्या त्या एका प्रयोगा बद्दल आसता. नाटकाचो 'प्रयोग' सदांच तसोच जातलो असो ना. तो सदांच तसो जायना म्हणून तर ताका प्रयोग म्हणटा. परिक्षण वाचून नाउमेद जावपाचो मुळांत प्रस्नूच येना. कारण तो एके व्यक्तीचो त्या एका प्रयोग बद्दलचो दिश्टीकोन आसता. जर एके व्यक्तीन केल्ले टिकेचेर संस्थे मदीं वा नव्या कलाकारां मदीं इतली नकारात्मकताय पातळटा जाल्यार तुमचो जिणे कडेन पळोवपाचो दिश्टीकोन नकारात्मक आसा. जे प्रेक्षक 'खरें उलोवन' गेल्यात ती पावती घेयात आनी उमेदीन फुडले तयारेक लागात. पेलो अर्द भरिल्लो आसा म्हणपाक येता आनी अर्द रितो आसाय म्हणपाक येता. किर्ते म्हणटलो हें पळयतल्याच्या दिश्टीकोनाचेर निबून आसता. एका कापडान आवय म्हातारी जायना न्हय. निर्शेवन वच्चे परस परत नव्यान घेतलों असो विचार बाळगून चलात.

एक लोखंडाची पट्टी जेन्ना रसरशीत उज्यांत तापता, शेर्णे-हातोडी आनी घणाचे धपके सोंसता तेन्नाच तिची कोयती वा कसलेंय हत्यार जाता. तेन्नाच ताका 'धार' येता. केन्ना-केन्नाय ती धार परतता तेन्ना परत तिका धपके सोंसचे पडटात. हे धपके सोंसपाची कापरस्ताद ना जाल्यार केन्नाच धार येवंची ना. चिकण मातयेची मुर्ती लेगीत करतना माती फुगत घालून कुडत्यान बडोवंची पडटा. पाशाणाक लेगीत मूर्तरूप येतलें जाल्यार शेणे-हातोडेचे घाये सोंसचे पडटात. गोंयांत मुळांत साहित्याची, समिक्षेची तशी व्हड परंपरा नाशिल्ल्यान ताचीं आमकां संवय ना. आमकां संवय लावन घेवची पडिल्ली. विजय तेंडुलकार, पुंडलीक नायक सारकेल्या नाटककारांक लेगीत टिका सोसची पडल्या. ती टिका तांणी खेळाडू वृत्तीन घेतली म्हणूनच तर आयज आमी तांचीं नांवां मानान घेतात.

जायत्या जाणांचे तकलेंत आनीक एक घोळ जाल्लो पळोवंक मेळटा तो म्हणल्यार, दिसाळ्यांत छापून येता तें समिक्षण, परिक्षण, आस्वादन काय निवाळ हें जायत्या जाणांक स्पश्ट ना. हो घोळ फक्त सादर करपी संस्था आनी वाचकां मदींच आसा असो ना. तर नाट्य परिक्षण बरयतल्या मदीं लेगीत आशिल्ल्याचें ह्या वर्सा जाणवलें. संशोधन, समिक्षण, परिक्षण, आस्वादन

आनी नियाळ हे साहित्य वा कलेचो अभ्यास करपाच्यो वा आपलीं मतां मांडपाच्यो ज्यो वेगवेगळ्यो पद्दती आसात तातूंत खूब फरक आसा. मातसो पांय निसरत जाल्यार समिक्षक संशोधनांत पावपाक शकता तर परिक्षक समिक्षेंत भितर सरूंक शकता. एक गजाल आमी स्पश्ट करया ती म्हणल्यार नाट्य सर्तींत सादर जाल्ल्या नाटकांचेर जो लेख दिसाळ्यांत छापून येतालो तो लेख परिक्षणांत मोडटा समिक्षणांत न्हय. पूण कांय जाणांचे ह्या परिक्षणांच्या निमतान नाटकांचेर नियाळूय बरोवन जाले.

समिक्षा म्हणल्यार किर्ते, तशेंच समिक्षा आनी परिक्षण हाच्या मदलो फरक समजून घेतलो जाल्यार समिक्षा ह्या उतराची व्युत्पत्ती समजून घेवची पडटली. 'इक्ष' ह्या धातूक 'सं' हो उपसर्ग लागल्या उपरांत ताका स्त्रिलिंगी प्रत्यय लागता, आनी तार्चे समिक्षा हें धातूसाधीत नाम जाता. संस्कृतांत समिक्षा ह्या उतराक टिका, भाष्य, मिमांसा अशीं समानार्थी उतरां वापरिल्लीं पळोवंक मेळटात. विष्णूशास्त्री चिपळूणकरांच्या मता प्रमाणे, 'समिक्षा म्हणल्यार ग्रंथांची टिका, म्हणल्यार ग्रंथांच्या यथार्त गूण-दोशांचें विवेचन करप. म्हणल्यार निपक्षपणान जितले गूण आसात तितले दाखोवप. दोश आसात तितले दाखोवप. अशा वेळार टिकाकाराची भुमिका ही फिर्यादी वा गुन्यांवकराच्या आदवोगादा प्रमाणे नासून दोनूय वटेनच्या आदवोगादांचे युक्तीवाद शांतपणान आयकून निमाणो न्यायरूपी निर्णय दिवपी जुईजा सारखी आसची. रा. शं बाळिंबे हांणी दिल्ले व्याख्ये प्रमाणे, 'कलाकृतीचे योग्यते विशीं निर्णय दिवप' म्हणल्यार समिक्षा. साद्या उतरांनी सांगचें जाल्यार, समिक्षा म्हणल्यार 'सम्यक ईक्षा'-म्हणल्यार एकाद्रे कलाकृती कडेन वा साहित्यकृती कडेन योग्य प्रकारान, सगळ्या वटांनी बारीकसाणेन पळोवन (Total Perception) तटस्थपणान आनी वस्तूनिश्ठतायेन तार्चेर अभ्यासपूर्ण विचार मांडप.

खंयचेय कलेच्या मळार 'समिक्षा' हें उतर वापरतात तेन्ना ताचो अर्थ मातसो वेगळो जाता. समिक्षा म्हणल्यार, 'ते कलाकृतीचें सगळ्या आंगांनी निरिक्षण करप, खोलायेन विचार करप, कलेंतल्या अंतःसौंदर्याचेर खोलायेन उजवाड घालप, तिचो गुढार्थ स्पश्ट करून दाखोवप, ते कलाकृतीच्या गर्भार्था कडेन पावप' अशे जायते अर्थ हें एक उतर सुचयता.

आतां प्रस्न उप्रासता तो परिक्षण म्हणल्यार किर्ते? 'परिक्षण' म्हणल्यार 'परक्याचे नदरेंतल्यान साहित्यकृती वा कलाकृतीचें मुल्यमापन करप'.

ह्या सगळ्या अर्थपूर्ण विवेचनांतल्यान आमकां एक गजाल स्पश्टपणान जाणवता ती म्हणल्यार नाटक सोंपले उपरांत दुसऱ्या दिसा नाटका बद्दल जें दिसाळ्यांत छापून येता ताका समिक्षण म्हणप योग्य जावचें ना. कारण तातूंत समिक्षेची नदर वा आंगां दिश्टी पडनात, देखून ताका एक तर आस्वादन वा नियाळ म्हणूं येता. पूण कांय जाण मातसो वेळ घेवन आपल्या लेखनाक खोलाय फावो करून दिवपाचो यत्न करतात. तातूंत समिक्षेचे कांय गूण दिश्टी पडटात, पूण ताका समिक्षण म्हणचे परस परिक्षण म्हणप चड योग्य जावं येता. घडये समिक्षा बरोवपाची आसून लेगीत वेळ आनी दिसाळ्यांतल्या जाग्याचे मर्यादिक तार्चे स्वरूप तशें जाता जावंये. समिक्षण आनी परिक्षण ह्या दोनांयक्य वेगवेगळे निकश लागतात.

समिक्षणाच्या मळार जर वेगवेगळे समिक्षेची जर तुळा करूंक वचत जाल्यार हेर अक्षर साहित्याची समिक्षा करप त्या मानान सोपी, पूण नाटकाची समिक्षा करपी तशें भोवच कठीण काम. कारण समिक्षकाक इतिहास, आदले आनी नवे प्रवाह, नाट्य तंत्र, इब्सेन आनी ब्रॅक्त सारकेल्यो नाट्य शैली, वास्तववाद, ॲब्सडीसम, अभिजातवाद, स्वच्छंदवाद सारकेले वाद, सबटॅक्स्ट, फोरशॅडो, हूक, सारकेलीं नाटकांतली डिवायसीस आनी नाटकां कडेन संबंदीत हेर जायत्या गजालींचो खोलायेन अभ्यास आसचो पडटा. गोंयांत हाताच्या बोटार मेजपा इतले जरी नाट्य समिक्षक आसले जाल्यार कोंकणी नाटका खातीर खर्चेच तो भाग्याचो दीस थारतलो. गोंयांत समिक्षेची तशी परंपरा ना. जी तयार जाता ताका आमी दुशणां दिवचे परस आत्मपरिक्षण पयलीं करून पळोवचें. कारण भरत मुनिल्या नाट्यशास्त्रांत लेगीत नाट्य समिक्षकाक 'सरउदय' सारकेली मानाची सुवात दिल्ली आसा.

खंयचेय सर्तींच्या आयोजना फाटलें प्रयोजन किर्ते हाचेरूय विचार जावपाची गरज आसा. ते कलाकृतीचो सगळ्या आंगांनी विकास जावचो, ते कलाकृतीचे मळार प्रयोग जावंचे आनी प्रस्तून कलाकृती प्रादेशीक शिमो मोडून वैश्वीक पावंड्यार




पावची अशी एक मोख आसूं येता. सुरवेक कला अकादमीची कोंकणी नाट्य सर्तीची किर्ते अवतिकाय आशिल्ली हे गजालीचेर उजवाड घालपाची तशी गरज ना. तरी लेगीत विद्यार्थी, नवोदीत संस्था आनी कलाकार हांकां कांय गजाली कळच्यो देखून ताचेर एक उडटी नदर मारया.

सादारण १९६९-७० वर्सा मराठी आनी कोंकणी नाट्य सर्तींच्या आयोजनाची कला अकादमीन नांदी सुरू केली. पूण उण्यात उण्यो पांच प्रवेशिकेची अट पुराय जाय नाशिल्ल्यान सुरवातेचीं पांच वर्सां कोंकणी नाट्य सर्त जावंक पावली ना. पूण १९७६ वर्सा ही अट काडून उडोवन ३ प्रवेशिकेची अट घाली आनी सर्त सुरू जाली. हाचोच अर्थ कोंकणी नाटक फुलचें-फळचें, ताची संख्यात्मक आनी गुणात्मक नदरेंतल्यना वाड जावची म्हणून हे सर्तीचें आयोजन जाता ही गजाल आमी विसरून फक्त इनामां खातीर नाटक सादर करप अशी आमची वृत्ती जावना मू?

हो लेख बरोवपा फाटल्यान कोणाकूच कमी थारोवप वा दुखोवप असो हेतू नासून नवे कलाकार आनी विद्यार्थी हांची दिशाभूल जावची न्हय तशेंच तांचे तकलेंत समिक्षण काय परिक्षण असो घुस्पागोंदळूय जावचो न्हय होच एक नितळ हेतू आसा.



- दिपराज सातोर्डेकार
मो. ९९२३६४५२५६, पंचवाडी.

## बोरकारी




**स**काळ फुडें कच्च करुन आंग काडलें.

तशें हांवें आयुश्यांत केन्नाच आंग म्हणटात तें काडलें ना.

विद्यार्थी चळवळींतल्यान जगपाक आरंभ केलो.

पुरायेन तातूंत आंग घालें. पूण बऱ्याच लोकांनी काडलें.

तातूंतलो एक माविन गुदिन्ह.

ताणें तेन्ना आंग काडलें देखून तो बऱ्याक पावलो.

मागीर रापणकार चळवळ जाली, कामगार चळवळ जाली

ती सुरू करून बऱ्या बऱ्यांनी तातूंतल्यान आंग काडलें.

म्हज्या आंगार अजून वळ आसात.

कोंकणी चळवळींतूय तेंच!

जांणी तेन्ना चळवळींतल्यान आंग काडलें तेच आज माचयो सोबयतात!

आसूं त्यो गजाली! सांगतलो जाल्यार खूब आसा!

पूण तेंच सांगत बसल्यार आतां कित्याक आंग काडलें तें सांगूंक पावचो ना.

सदचे वरीं मोबायल घेतलो आनी फेसबूक पळयलो.

पळयल्यार म्हजो कुलू कॅम घाल्लो फोटो.

विशाल खांडेपारकारान घाल्लो.

तो पळोवनूच पयलो विचार आयलो, आरे हो हांव मरे, देवा सायबा! गेलो काय हो कोरोनान!

हालीं हालीं कोणाचेय प्रोफायल पळोवन अशेंच जाता आनी मागीर हांव आंग काडटां.

पूण आतां हांवें आंग काडपाची गरज नाशिल्ली!

हांगा म्हाका विशालान वाढदिसाचीं परबीं दिल्लीं.

तरी हांव भुल्लुसलों ना.

कितें कोण जाणां हालीं म्हाका हांव जितो आसा अशें दिसच ना.

पयलीं हो मोर्चो, तो मोर्चो, हो लेख तो लेख सगळीं जितेपणाचीं लक्षणां भरिल्लीं जिणेंत!

आनी हालींच्या काळार हीं असलीं अवलक्षणां!

हांव जितो आसां काय म्हण म्हाका पयलीं प्रस्न पडलो तो कोरोनाचे दुसरे खर लार्टेत सरकारान नगरपालिकेची वेंचणूक घेतली तेन्ना.

दुसरे खेप प्रस्न पडलो तो आमचो उप मुख्यमंत्री बाबू आजगांवकार बायलां मदीं नाचता तो व्हिडीओ पळोवन!

तिसरे खेप प्रस्न पडलो तो मुख्यमंत्री प्रमोद सावंत शेकड्यांनी लोकांक पुला वयल्यान घेवन वता तें पळोवन!

पणजे पुला वयल्यान एकटीच बायलमनीस चलून वता तें पळोवन कलकलपी म्हजें कीळीज, ह्या इतल्या लोकांक पळोवन ताचें कितें जालां आसतलें कल्पना करात.

तातूंत आनी हे कोण कोण म्हजोच प्रोफायल घालून म्हाका भिवयतात!

ह्या एक्साच्यांक कशें कळना काय हांव हालीं कित्याकूय आंग काडटां तें!!



कोंकणी भाशा मंडळ, कला अकादेमी, गोंय, व्ही.एम.साळगांवकार प्रतिष्ठान, जनगंगा, दी गोवा हिंदू असोशिएशन अश्या साबार पुरस्कारां वांगडाच

## केंद्रिय साहित्य अकादेमी

*आनी*

विश्व कोंकणी केंद्राचो विमला पै पुरस्कारान सन्मानीत जाल्ल्या

# माधव बोरकार

हांचे उजवाडाक आयिल्ले काव्य संग्रह













- चंवर (१९६१)
- वताच्यो सांवळ्यो (१९७२)
- उजवाडाचो रूख (१९७५)
- पर्जळाचें दार (१९८६)
- यमन (१९९९)
- अव्यक्ताचीं गाणीं (२००२)
- सिम्फनी (२०१२)
- मळबाचें जनेल (२०१८)

शीर्षकथा



दिलीप बोरकार

कोंकणी आनी गोंय हांचे पासत ध्येयनिश्ठेन वावरत आयिल्ले दिलीप बोरकार ज्येश्ठ पत्रकार आनी नामनेचे साहित्यिक जावन आसात. तांच्या गोमाचल ते हिमाचल ह्या प्रवास वर्णनाक साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार लाबला.



# अमृतसुवाळो..!

## अमृत कोणाक आनी हलाहल कोणाक...?

देशाच्या स्वातंत्र्याक पंच्यात्तर वर्सां पुराय जातात म्हण आमचें सरकार स्वतंत्रतायेचो अमृत महोत्सव मनयता. त्या महोत्सवाचें वारें कोरोना म्हामारीन काडून घेतिल्लें आसलें तरी सरकारी कचेरींतल्या कागदपत्रांचेर ह्या अमृतमहोत्सवाची नोंद ही जातलीच.

गोंय हो भारताचो अविभाज्य भाग्य. आमचो देश स्वतंत्र जाल्या उपरांत पंदरा वर्सांनी गोंय मुक्त जालें. म्हणटकच गोंयचे मुक्तीक साठ वर्सां जाल्यांत. ते नदरेन गोंय आपले मुक्तीचो हिरक महोत्सव मनयता. पुर्तुगेजाच्या चोपक्यांतल्यान गोंय मेकळें जालें आनी मागीर ताका भारतांत आसपावन घेतलें तेन्नाच स्वतंत्र भारताक पुर्णाय आयली. ना तर गोंयां बगर स्वतंत्र भारत पंदरा वर्सां अपुर्णच उरिल्लो.

आतां स्वतंत्र भारत आपल्या स्वातंत्र्याचो अमृतमहोत्सव मनयता. पूण गोंयचो आसपाव त्या अमृतमहोत्सवांत जायना. देखून त्या अमृत महोत्सवा वांगडा गोंयानूय भरसुर्चें देखून भारत सरकारान गोंयांक तिनशें कोटी रुपया दिवन गोंय मुक्तीचो हिरक महोत्सव मनोवंक लायला खंय! कोरोना म्हामारीन ताचेरूय आपलें कफन घाल्ल्यान हो हिरक महोत्सव कोण मनयता हेंय कळपाक तशें शक्य ना. पूण माय म्हयनो हो गोंयांक घटक राज्य मेळिल्ल्याचो म्हयनो. गोंय सरकारान गोंयच्या इतिहासांतलो हो म्हत्वाचो दीस मनोवं वा ना मनोवं पूण आमच्या सारख्या नीज गोंयकारांक ३० माय हो दीस १९ डिसेंबर, १८ जून आनी १६ जानेरा इतलोच म्हत्वाचो.

गोंय मुक्तीचो हिरक महोत्सव मनोवंक केंद्र सरकारान तिनशें कोटी रुपया दिल्यात म्हणपाची गजाल खरी आसूं वा फट, ताचेर व्हडलेशें चिंतपाची गरज ना. असलें अनुदान दिवपाची घोशणा जाता तेन्ना तें लोकांक कळटा आनी मागीर ते दिले काय ना, दिले जाल्यार कोणा कडेन दिले, ते कोर्णे मोडले, कोणा कोणाक ताचो फायदो जालो हें मात केन्नाच कोणाक कळना. आतां तर कोरोनाच्या कफना पोंदा तें सांसपूंकय कोण वचो ना. पूण मुद्दो आसा तो गोंयाक हो हिरक महोत्सव मनोवपाची आतां खऱ्यानीच गरज उरल्या व्हय?

म्हाका दिसता आतां आनी फुडल्या काळांतूय असले महोत्सव मनोवपांत कांयच हावशील ना. असले महोत्सव मनोवपा फाटल्यान उद्देश आसता तो दरेक पिळगे मर्दी राष्ट्रप्रेम रुजवणा येवचें होच. तांकां ह्या निमतान गोंयच्या कोर्णे कोर्णे त्रास काडले, कोर्णे ख्यास्त भोगली, सुटके झुजारी म्हणल्यार कोण..? आनी तांणी मुक्त केल्ल्या ह्या गोंयां खातीर आपणें कितें करूंक जाय..? कितें केल्यार आमी ह्या सुटके झुजाऱ्यांचें, हुतात्म्यांचें रीण फारीक करूंक पावतले हाचो ह्या भुरग्यांच्या मनांत ह्या निमतान विचार रुजवणा येवपा खातीर हे महोत्सव मनयतात. पूण आज तशी परिस्थिती खऱ्यानीच गोंयांत आसा काय कितें आनी नासल्यार कोट्यांनी रुपया खर्चून हो मुक्ततायेचो हिरक महोत्सव मनोवपांत कितें अर्थ आसा..? तरी त्या निमतान आलायते आयिल्ले पयशे तर परत करप शक्य ना. ते कशे तरी खर्च करूंकच जाय. मागीर जांकां मुक्तताय म्हणल्यार कितें हेंच खबर ना, जांकां हिरक




महोत्सव हे संकल्पनेचो अर्थ खबर ना असले आमचे मंत्री आमदार त्या दुडवांचेर लक्ष दवरून जेन्ना कितेंय करूंक मुखार सरतले तेन्ना तांकां कोण मार्गदर्शन करतलो..? काय तांकां ताची गरजूय ना काय हे प्रस्न ह्या वेळार उबे रावतलेच..!

गोंय मुक्ततायेचो हिरक महोत्सव रितीन आनी दबाज्यान मनयतलो आनी तो सार्थकी पावयतलो जाल्यार गोंयांत जे कोण वेगळ्या विचारसरणीचे लोक आसात तांची समिती सरकाराक घडोवंची पडली. पूण आयच्या सरकारा सारख्या उजवे विचारसरणेच्या सरकारा कडेन आनी त्या सरकारांत वावुरपी लोकां कडेन ह्या दावे विचारसरणेच्या लोकांचें जुळून येवपाचें ना. म्हणटकच सरकार सत्तेर हाडपा पासत जे कोण कार्यकर्ते वावुरलेले तांकां आल्वीस दिवपा पासत सरकार हे समितीर तांकां घेतलें, जशें हे आदीं कांय लोकांची म्हत्वाच्या संस्थांचेर नेमणूक केल्या. हे लोक आपले वैचारीक कुवती प्रमाण हो हिरक महोत्सव मनयतले आनी त्या फाटल्यान जी मोख वा साध्य आशिल्लें ताचे तीन तेरा वाजतले. तशें घडलें म्हूण सरकाराक मात्तूय खंत जावंची ना. कित्याक सरकारा मुखार तशी गोंयच्या फुडाराची कसलीच मोख ना. आसा ती हे तिनशें कोटी कशे तरी कडोवपाचे

आनी आपल्या पक्षाचें सरकार चडांत चड कितलो काळ तिगता ते नदरेन वावुरपाचें. जेन्ना असलें सराकर वा विचारसरणेचो पक्ष ज्या राज्यांत आसता तें राज्य वैचारीक उदरगत करूंक पावना आनी कसल्याच मुल्यांचो पातसोय तांकां ना. म्हणटकच ह्या सरकाराक गोंय मुक्तीचो हिरक महोत्सव मनोवन कसलेच तरेचें साध्य हातासपाचें ना. उरफाटें चुकून जर ह्या महोत्सवांतल्यान एखाद्र्याच्या मनांत विचारांची कीट पेटली जाल्यार ती असल्या विचारांच्या सरकाराक लासून गोबोर करपाची शक्यताय चड आसता.

## आमकां कसल्या गोंयची अपेक्षा आशिल्ली?

हें जेन्ना हांव बरयतां तेन्ना खूबश्या लोकांक प्रस्न पडूं येता हो खंयच्या आनी कसल्या गोंयची अपेक्षा बाळगिता? असलें कसलें गोंय हाका जाय?

हें जर कळटलें जाल्यार ह्या लोकांनी शणै गोंयबाब वाचूंक जाय, रवीन्द्र केळेकार वाचूंक जाय, गुरुनाथ केळेकाराची भांगराळें गोंयची सकल्पना समजूंक जाय. जर तांणी विशय समजून घेतलो आनी तांकां तो होलमलो जाल्यार तशे तरेचें गोंय घडोवपा पासत तांकां खांद मारचो पडलो. पूण तितली

तांक आनी इत्सा ह्या लोकां मदीं आसत काय किर्ते हाचो दुभाव आसा. कित्याक हे पिळगेची वैचारीक उंचाय आनी खोलाय ही मर्यादीत आसा. जांका ही वैचारीक तांक आशिल्ली ती पिळगी आतां ह्या संवसारांत ना आनी जी आसा तांचे भितर आतां आदले वरीं शक्त उरूंक ना. तांचे विचार आयकून कोणाच्या पोटांत पडपाचें ना. म्हणटकच आज जी विचार सरणी समाजांत आसा ती विचारसरणी आपल्याक कित्याक पडलां? आपलें सादलें काय जालें! हे विचारसरणेची. अशे वेळार आदर्श गोंयची संकल्पना ह्या लोकां मुखार मांडपाचे आनी तांचे कडल्यान किर्ते नवें घडटलें म्हणपाचे दीस फाटीं पडल्यात.

गोंय राज्याचे मुक्तीचो हो हिरक महोत्सवी काळ जरी आसलो तरी त्या काळांत जल्मली पिळगी आज साठ वर्सांची जाल्ली आसा. गोंय मुक्ती संग्राम पळयल्ली आनी त्या संग्रामांत वांटो घेतिल्ल्यांक पुर्तुगेज कसो छळ करतालो ताची कल्पना आशिल्लीय पिळगी अजून आमचे मदीं आसा. गोंय पुर्तुगेजाच्या शेकातळा आसतना गोंयची अवस्था आनी मागीर गोंय मुक्त जाले उपरांत गोंयच्या लोकांक ते मुक्ततायेचो मेळिल्लो फायदो हाची कल्पना आशिल्ले हे लोक आसात. गोंय मेकळें जावचें, त्या गोंयचेर गोंयकारांनी धनीपणान सत्ता राबोवची ह्या हावेसान कितलेच लोक ह्या मुक्तीलढ्यांत आपलें घरदार सोडून, संवसाराची होळी करून भितर सरिल्ले. तांणी त्या काळार जें सोसलां तें आंगार काटो हाडपा सारकें आसा. तांणी काडिल्ले त्रास आनी सोंशिल्ल्यो हाल अपेश्टा जर पळयल्यो जाल्यार आज गोंय जे आवतिकायेक पावलां त्या गोंयां पासत तांणी तें निखालूस करूंक नाशिल्लें. जर हें सत आमी मानतात जाल्यार ज्या कारणा खातीर तांणी इतलो त्याग केलो तें कारण मूर्त रुपांत येवपा पासत त्या उपरांतचे पिळगेन प्रयत्न करपाची गरज आशिल्ली. ते पिळगेन तें केलें ना अशेंय न्हय. गोंय मुक्ती संग्रामांत वांटो घेवन गोंय मुक्त केल्ले पिळगेन जितले निसुवार्थीपणान आपलें योगदान दिल्लें तेच तरेचें योगदान तांचे उपरांतचे पिळगेन ओपिनियन पोलाच्या सगरांत दिवन गोंय महाराष्ट्रांत विलीन जावपांतल्यान राखलें. त्या उपरांतचे पिळगेन कोंकणी ही गोंयची राजभास करूंक, कोंकणी संविधानाचे आठवे वळेरेंत आसपावन येवंक आनी गोंयाक घटकराज्याचो दर्जो मेळोवन दिवपाक त्याच निसुवार्थीपणान खर चळवळ उबारली. पूण हें सगळें करूनय गोंयचें जें रूप अपेक्षीत आशिल्लें तशें गोंय घडपाक पावलें ना. आज गोंय गोंयकारांच्या हातांत उरूंक ना. तें पुराय गोंयां भायल्या लोकांच्या हातांत गेलां. गोंयचे मंत्री हे फक्त नांवा पुरते गोंयकार. हेच गोंयां भायले लोक ह्या मंत्र्यांक लागीं रावून आपल्याक जाय तशें गोंय चलयतात. पयलीं गोंयकारांक कोणेंय किर्तेंय म्हणल्यार गोंयकार उबो जातालो. आज ही गोंयकारपणाची आस्था गोंयकारां मदींच उरूंक ना. जंय जंय इल्लीशी जमीन आसा थंय बिल्डरांनी बिल्डींगो उबारल्यात. तातूंत दिल्लीवाल्यांनी आपलें सेकंड होम केलां. आयज आमच्या दारांत येवपी आमचो पदेर दिसना, नुस्तेकान्न दिसना. जे कोण येतात ते सगळे गोंयां भायले. बाजारांत भाजी विकपी भायले. तांचे कडेन किर्ते उलोवपाची माणसुकी ना. ते हांगच्या भूंयपुतांक आनी धुवांक सुण्यापाश्ट करतात. आपले भूंयेंत आसुनय अपमानीत जीण जगपाक पडप हें फक्त गोंयांतूच दिसून येता. हें सगळें घडलें तें ह्या साठ वर्सांत. हें असलें गोंय आमकां नाकाच आशिल्लें, त्या परस पुर्तुगेजूच बरो आशिल्लो अशी निराशेन भरिल्ली भावना राष्ट्रमोगी गोंयकार उक्तायतना दिसता.

हो सगळो प्रकार घडटना गोंयकार फकत दोळे आनी तोंड उगडें दवरून पळोवपाचें काम करता. तांकां आपल्या गोंयचो फुडार किर्ते तें स्पश्टपणान दिसता. गोंयांत फाटल्या साठ वर्सांत खाण माफिया तयार जाले. तांणी रासवळ खणी ही आपली खासगी मालमत्ता अशें वातावरण तयार करून कितल्योच पिळग्यो खाणमालक म्हूण मिरयल्यो. गोंयच्यो सगळ्यो खणी ह्या सरकारची म्हणल्यार गोंयचे जनतेची मालमत्ता आनी ती कांय लोकांक लिजाचेर दिल्ली आसा. लीज सोंपलें काय ते खणीचेर ह्या लोकांचो मातूय अधिकार उरना, हें सत ह्या लोकांनी वेवस्थीत लिपोवन दवरलें आनी आपलें घराणेंच ताचे धनी अशें चित्र तयार करून हिसपा भायर खणसंपत्त लुटली. गोंयकारांचे संपत्तीचेर कांय लोक गब्बर जाले आनी त्या दुडवांच्या नेटार तांणी खऱ्या धनयांक म्हणल्यार गोंयकारांक लाचार करून उडयले. ह्या अन्यायाचेर केन्नाच कोणें आवाज काडलो ना.

गोंयचे उदरगतीच्या नांवान गोंय सरकारान कितलेच गोंय विरोधी प्रकल्प गोंयांत हाडले. तातूंत मंत्री आमदारांनी खोटल्यांनी संपत्ती जोडली. पूण गोंयकारांक हे प्रकल्प माल घडटले हाची कल्पना लेगीत तांकां येवंक दिली ना. जाणें कोणें ह्या प्रकल्पां आड आवाज काडून लोकजागृताय करपाचो यत्न केलो तांचें वेवस्थीत दमन करपाचें कार्य सत्तेचो वापर करून सरकारान केलें. कांय लोकांक तर मान वयर काडपाक संदीच दिली ना.

आज केंद्र सरकारान गोंयच्या लोकांची मान्यताय घेना आसतना वा तांकां कळयनासतना फक्त आपल्या पक्षाच्या सरकाराक हाता कडेन धरून गोंयांत तीन प्रकल्प राबोवपाक आरंभ केला. तम्नारचो विद्युत प्रकल्प जो छत्तीसगडच्यान वीज हाडून गोंय, कर्नाटक आनी छत्तीसगड अश्या तीन राज्यांक व्यापून उडोवपी वीज वाहिन्यो अस्तंत घाटांतल्या दाट रानांतल्यान व्हरपाच्यो आसात. दुसरो प्रकल्प कॅसलरॉक तें कुळें असो दोनपदरी रेल्वे मार्ग तयार जावपाचो आसा. तिसरो प्रकल्प मोर्ले वाठारांत राष्ट्रीय म्हामार्गाचो आसा. ह्या तीन प्रकल्पांक लागून अस्तंत घाटांतलीं कितलींच रुखां(पन्नास हजार म्हणटात) कातरून मातये भरवण करपाचें काम सुरू जालां. हाका लागून मोले राष्ट्रीय उद्यान आनी महावीर अभयारण्य हांचो विध्वंस जावपाचो आसा. हें येदें व्हडलें अरिश्ट गोंयचेर येता आनी गोंयकारांक ते विशीं विचारपाचें सरकाराक सुचना. म्हणटकच गोंयकार म्हणल्यार सामकें बाबत कूळ असोच आतां सगळ्यांनी समज करून घेतला आनी गोंयची आवतिकाय पळयत जाल्यार तें सत हातूंत दुबाव ना. मागीर प्रस्न पडटा हातूंतल्यान गोंयकाराक साल्वार करून गोंयची कोण राखण करतलो?

### आतां गोंयची राखण करपाची गरज आसा?

जेन्ना आमचें गोंय अमुकच तरेन आसूंक जाय अशें एक चित्र गोंयचे विशीं आस्था आशिल्ल्या गोंयकारांच्या मनांत आशिल्लें तेन्ना त्या गोंयां खातीर झगडपा पासत नीज गोंयकार एकवटताले. पूण आतां असले गोंयची आस्था आशिल्ले गोंयकार काळाच्या पड्ड्या आड गेल्यात. तांची सुवात आतां गोंयचो धंदो चलोवपी लोकांनी घेतला. काळ बदलता तसो मनीस बदलता, ताचीं तत्वां बदलतात आनी मुल्यांय बदलतात.

ह्या साठ वर्सांत मांडवी न्हंयेंतल्यान कितलेंच उदक व्हांवन गेलां. तसो गोंयच्या मनशांतूय बदल घडत गेला. गोंय मुक्तीसंग्रामांतल्या काळांतल्या लोकांचीं मुल्यां तांचे उपरांतचे पिळगेन सांबाळ्ळीं आनी तीं मुखार व्हेलीं. जशी पिळगी आनी सामाजीक मुल्यां हातूंत बदल जायत गेलो तशी समाजाची विचारसरणी बदल्ली. जेन्ना गोंय मुक्त जाल्लें तेन्ना राजकारण आदर्शवादी लोकांचें आशिल्लें. तेन्ना राजकारणांत जो भितर सरता तो ती समाजसेवा मानून भितर सरतालो. ते समाजसेवेंत जोड नासताली. जार्ण कोणें समाजसेवेच्या नांवान रासवळ संपत्तीचो व्यक्तीगत सुवार्था पासत वापर केलो असो दुबावूच आयल्यार ताची समाजांत शी थूः जाताली. राजकारणांतलो मनीस आपल्याक कसलोच दाग लागपाचो ना हाची जतनाय घेतालो. ही असली भानगड नाका म्हूण राजकारणांत भितर सरपाकूच मनीस अनमनतालो.

मागीर वेंचणुकेंत मतां पासत प्रचार जातालो. पूण मतां घेवपा पासत दुड्डू दिवप वा हेर कसलेंय आमीश दिवप हो सामाजीक गुन्यांव थारतालो. समाजान हीं नितीमुल्यां सांबाळून दवरिल्लीं. एखाद्रो उमेदवार वेंचून आयल्या उपरांत तार्णे समज पार्टी दवरली तर ते पार्टेक लेगीत वचपाक अनमनताले. आपणें आपलें मत विकलें असो आरोप जावंचो न्हय म्हूण मतदार जतनाय घेतालो.

आज हीं नितीमुल्यां काळा भायरीं जाल्यांत. आज समाज राजकारणा कडेन हेर धंद्यावरीच एक धंदो म्हूण पळयता. आदीं उमेदवाराक बाबा पुता करून धरून हाडचो पडटालो. आज उमेदवारूच आपल्याक उमेदवारी दियात म्हूण पयशांच्यो बॅगो पक्ष मुखेल्याच्या पांयां कडेन दवरून ताका उमेदवारी पासत बाबापुता करता. मागीर मतदारांक ते सांगतात तितले दुड्डू आनी हेर वस्तू भेटोवन तांचीं मतां विकते घेतात. मागीर सत्ता हातासून दामदुपेटीन दुड्डू करतात. हें आयचें राजकारण. आज विधानसभेंत चाळीस आमदार आसात. हे चाळीसूय आमदार वयर सांगलां ते पद्दतीन



वेंचून आयल्यात. ह्या लोकां कडेन आतां वेंचून कशें येवप हाचो मंत्र आसा. तांणी आपापल्या मतदारसंघांतल्या मतदारांक आपल्या गोठ्यांत हाडून बांदल्यात. तांकां ते वेवस्थीत चारो आनी पेंड बी घालतात. दुसऱ्या गोठ्यांत वचपाचो कोणें यत्न केलो जाल्यार ताका थोडी चड पेंड घालतात. एखादो बांगरबैल सामकोच पिडपाक लागलो जाल्यार ताका कसो वेंचचो हाचेंय तंत्र राजकारण्यांक कळिल्लें आसा. ह्या सगळ्या मालवजाचेर आज जे कोण आमदार जावन विधानसभेंत गेल्यात ते मातल्यात. तांकां खबर आसा, आपणें जांकां गोठ्यांत हाडून बांदल्यात ते आपले मतदार कशेंच नेगार वचपाचे नात. दर वेंचणुकेंत आपलें जैत हें निश्चित आसा. जेन्ना अशी ही यशाची खात्री शंबर टक्के आसता तेन्ना खंयचीय व्यक्ती अनमन नासतना धोको पत्करता. काँग्रेस पक्षाचे वा मगो पक्षाचे उमेदवारीचेर वेंचून येवन भाजपांत वचपा इतलें धाडस करपा फाटलें हेंच कारण आसा. ते भाजप सारख्या धर्मांध पक्षांतूच न्हय एखाद्रे दुकरपक्षांत लेगीत गेल्यार दोळे धांपून वेंचून येतले. ते पासत तांणी गोंयची सेवा, गोंयचो फुडार, गोंयकारपण असल्या अर्थहीन भावनीक गजालींचेर लक्ष दिवपाक जाय अशें कांय नासता. म्हणटकच गोंयचो फुडार गोंयचो फुडार अशें पिरंगत ह्या लोकां फाटल्यान वेळ होगडावपांत अर्थ ना हेंय आतां ह्या लोकां भोंवतणी आनाळ्यो गुनाळ्यो काडपी लोकांकूय कळून आयलां. आतां काळा भायरे जाल्ले प्रस्न महत्वाचे न्हय असोच सगळ्यांनी विचार केला हें सत आमी मानून घेवपाचो वेळ आयला.

## आज कसलें गोंय जाय?

आज जे कोण निवडून येवन विधानसभेंत गेल्यात तांकां थंयच्यान हालोवप तशें शक्य ना. विधानसभेंतले सगळे आमदार मागीर ते एक पक्ष सोडून दुसऱ्या पक्षांत गेल्ले आसूं वा आनीक खंयच्या पक्षाकडेन आपलें सूत जुळोवन आसूं. तांणी आपल्या मतदारांक वेवस्थीत सुतलावन दवरल्यात. हे आमदार वायट, ते जनतेक लुटतात, तांणी गोंय काबार केलां, तांणी राजकारणाचो धंदो केला हें सगळें आमचे सारके आदर्ली मुल्यां येवन जियेतात आनी आपले विचारसरणे प्रमाण आदर्श बाळगिल्यात तांकां तें खटकता. पूण ह्या आमदारांचे कार्यकर्ते आसात तांकां तातूंत कांयच दिसना. एका पक्षाचे तिकेटीचेर वेंचून येवन दुसऱ्या पक्षांत वचप हातूंत तांकां वायट कांयच दिसना. वेंचून आयला त्याच पक्षांत सत्ता नासतना रावप हीं तांचे नदरेन पिशेपणां. जंय सत्ता मेळटा त्या पक्षांत वचपांत कांयच हरकत ना हें तांचें तत्व. कित्याक सरकारांत रावल्यार आमदारांचो फायदो आसाच, तेच वांगडा कार्यकर्ते आनी मतदारांचोय आसता. कार्यकर्त्यांक आमदार खावपी मांसांतलीं हाडां चपळावक मेळटात जाल्यार हेर मतदाराक आमदाराचे पांय धरून मुख्यमंत्र्या कडल्यान आपल्याक वा आपल्या भुरग्यांक गोकरेक लावंक मेळटा. हो तो सगळो वेव्हार. आज जण एकलो हेच वेव्हारी नदरेन सगळे कडेन पळयता. नितीमुल्यां, तत्वां ह्यो गजाली काळा भायऱ्यो जाल्यात. तेन्ना ते अथरेकर्णेतल्यान आयच्या राजकारणा कडेन पळोवप म्हणल्यार आपल्याकूच त्रास करून घेवप.

काँग्रेस पक्षाचे उमेदवारीचेर वेंचून आयिल्लो पणजेचो आमदार भाजप वेंगायता. आतां फुडले वेंचणुकेंत तो भाजप उमेदवार आसतलो आनी वेंचुनय येतलो. कित्याक तांणें आपल्या मतदारांक गोठ्यांत हाडून बांदून खावड घाल्या. वेंचणुकेक तांणें आपूण मांडवींतल्यान सगळे कॅसिनो शंबर दिसां भितर काडूंक लायतलों म्हणपाची घोशणा केल्ली. शंबर दिसां उपरांत कॅसिनो केन्ना काडटा बी असले फुसके प्रस्न थोड्यांनी विचारले. उपरांत त्याच बाबुशाक पणजेकारांनी भोवमतान वेंचून हाडलो. त्या वेळार कोणेंच ताका कॅसिनो विशीं विचारूंक ना आनी विचारल्यारूय



ताका फरक पडपाचो नाशिल्लो. कित्याक तार्चे कोणूच कांयच करूंक शकना. आपूण वेंचणुकेक पडटलों असो ताका भंयूच ना म्हणटकच तार्णे भिवप कित्यात? उरफाटें हेच कॅसिनो आपल्याक मांडवींतूच रावंक दिवंचे म्हूण सगळ्या आमदार मंत्र्यांक वेळावेळार वेवस्थीत तांची वाडी पावयतात. म्हणटकच मांडवींत कॅसिनो नाका ही मागणी कांय पर्यावरणवाद्यांची वो प्रेमींची. तांकां त्या निमतान थोडी प्रसिद्धी मेळटा आनी मागीर तो विशय थंयच सोंपता. बाकीचे विशय जे आसात ते काडूनय कोणाक ताचो लाव जायना. कित्याक आज दरेक मतदाराक आपलो फुडार आसा. तांकां खबर आसा आमच्या आमदाराक तो मरऽसर कोण हारोवंक शकना. ताचे लागीं दुस्मानकाय येवपांत कांयच अर्थ ना. फाल्यां आमच्या भुरग्यांक नोकरी जाय पडटली. तेन्ना येदेर्शे तोंड करून ताच्या दारांत वचपाक पडटलें. चाळीसूय मतदार संघांतले मतदार आज तोच विचार करतात. तांकां गोंयच्या फुडाराची याद जायना. आपलो फुडार होच तांकां गोंयचो फुडार दिसता.

## भिवपाची गरज ना

कोरोना म्हामारीचे फाटभुंयेर गोंयचे मुख्यमंत्री गोंयचे जनतेक भिवपाची गरज ना अशें सांगताले आनी तोच फकाणाचो विशय थारिल्लो. आपल्याक भिवपाची गरज ना हें मुख्यमंत्र्यांक बेसबरें खबर आशिल्लें. जेन्ना तांकां भंय दिसलो तेन्ना तांणी दरेकाक कोट्यांनी रुपया दिवन बारा आमदारांची रातोरात खरेदी केली. अशे दुसऱ्या पक्षांतले आमदार विकते घेवप हें निती भायलें, कायद्या भायलें अशें कांय जाणांक दिसलांय आसूं येता. पूण राजकारणांत आनी झुजांत सगळें माफ



आसता. सावंताक आपलें सरकार घट करपाचें आशिल्लें आनी तें घट करपाक येवपाची तयारी हेर पक्षांतल्या आमदारांची आशिल्ली. राजकारण हो एक धंदो आनी सावंत धंद्यांत फिशाल म्हणटकच तार्णे आपल्या दिल्लीच्या सल्लागारां कडेन चर्चा करून आमदार मोलायले आनी धंदो सुरू केलो. हें करतना गोंय राज्याची लज वतली बी हें ताका येवजलें ना. ताका गोंय हें राज्य, त्या राज्याकडेन विचारवंत पुण्यभूंय म्हूण पळयतात हाचें बी कांयच पडून गेल्लें नाशिल्लें. ताची एकूच मोख आशिल्ली, आपलें कदेल जर घट उरूंक जाय जाल्यार ताका हेर कडले खूर हाडून सामकी घटाय दिवपाक जाय. त्या पासत कितलोय खर्च जाल्यार उपकारता. तो मागीर भरून काडूं येता. हें एका बऱ्या धंदेकाराचें वेवसायीक धोरण. तें सावंत आनी ताच्या पक्षान बेस बरें तडीक व्हेलें. अशे वेळार ताका गोंय ही पूण्यभूंय बी सांगूंक वचत जाल्यार जो कोण ताका तें सांगता ताका पिसो थारावपाचो प्रकार घडपाचो.

जांकां कोणांक तार्णे विकते घेवन आपले कदेलीक व्हरून बांदिल्ले तांकांय तार्णे भिवपाची गरज ना म्हूण सांगिल्लें. कित्याक फुडाराक पक्षांतर बंदी कायद्या खाला तांचेर अपात्रताय केस आयलीच जाल्यार ती सभापती मुखारूच येतली. सभापती हो पक्षाचोच आशिल्ल्यान तो काय धर्मराजाचो अवतार घेवन आपल्याच पक्षाचें सरकार उडोवंचोना. म्हणटकच ह्या बाराय जाणांक भिवपाची गरजूच नाशिल्ली आनी आपलें सरकार कशेंच ढळमळीत करूंक सभापती दिवपाचो ना ही खात्री मुख्यमंत्र्यांक आशिल्ल्यान ताकाय भिवपाची गरज नाशिल्ली. हें सगळें तांणी थारायल्लें तशेंच जालें. सभापती मुखार आयिल्लें अपात्रताय प्रकरण सभापतीन भायर मारलें. आतां मुखार कितें करपाचें तें न्यायालय थारायतलें. आनी केंद्रांत ह्याच पक्षाचें सरकार आशिल्ल्यान आनी प्रधानमंत्री आनी घरमंत्री हे दोन सर्वेसर्वा देशाचेर राज्य करतात म्हणटकच न्यायालयां लेगीत आपल्याच बोल्सांत आसात अशें धरून चलपी ह्या सत्ताधीशांक खऱ्यानीच भिवपाची गरज ना काय कितें होच व्हडलो प्रस्न आसा.

आज जें भाजपचें सरकार गोंयचे सत्तेर आसा त्या सरकारान अशी तरेवी वेवस्था करून दवरिल्ली आसा जिका लागून ह्या सरकाराक फुडाराक भिवपाची कसलीच गरज ना. ह्या सरकारान वा म्हणुया ज्या पक्षाचें सरकार सदरेर आसा त्या पक्षान युवा पिळगेचें वैचारीक खच्चीकरण करून तांकां मतदार करून उडयल्यात. खरें म्हणल्यार जाणकारांच्या मता प्रमाण अठरा वर्सांची पिराय ही निर्णयक्षम पिराय न्हय. तरी आसतना

ताका मतदानाचो अधिकार दिवन लोकशाय प्रणालीतलो म्हत्वाचो निर्णय घेवपाचें स्वातंत्र्य ताका दिल्लें आसा. हो पिरायूच जो कोण भुलयता ताच्या फाटल्यान भुलून वचपाची पिराय. सारासार विवेकबुद्दी वापरून विचार करपाची क्षमता हे पिरायेर नासता. आनी आयज अचूक तेंच घडला. उच्च माध्यमिक शाळेंत वा महाविद्यालयात शिकपी हो तरनाटो जो कोण भुलयता ताचें आयकून ताच्या फाटल्यान वचूंक लागला. शाळा कॉलेजानी एकवटाय मेळपी हो मतदार खंयच्याय हायसाक वा विचाराक फारावता. आयज हो युवक अ.भा.वि परिशदेंत फारावला. ताका तेंच विचार म्हणल्यार अंतीम विचार दिसतात. ताचे भायर किर्ते विचार आसात वो करपाचे आसतात हाचेर तांचो विस्वास ना. त्या भायर कार्यकर्तो म्हूण तांकां दर म्हयन्याक पयशे मेळटात जाका लागून ते पूर्ण वेळ पक्षाचो प्रचार करतात आनी संगघटणेंत नवे नवे सदस्य फारावन हाडटात. पर्रिकर पणजेचो आमदार आसतना म्हजे कितलेच विद्यार्थी असले फुलटायम कार्यकर्ते आशिल्ले. आतांय मिशो लेगीत फुटूंक नाशिल्ले कार्यकर्ते ते कायमचे भाजप मतदार जावन रावल्यात. पयलीं एक पंथ आसतालो आनी ताचे अनुयायी करपाक त्या पंथाचे लोक एक मिशन कशे वावुरताले. आज भाजपचे मतदार करप हें ह्या कार्यकर्त्यांचें मिशन थारलां. ते फावता त्या वेळार दुसरें कांयच काम करी नात. फक्त पक्षाचें कार्य करीत रावतात. कार्य म्हणल्यार किर्ते तर कोणाक अडचल्ल्याक ते मजत करी नात तर सहज घरांनी पासय मारतात आनी खबर घेतात. आपल्याक आमदारान खबर घेवपाक धाडिल्लो म्हणपाचें सांगतात. हेच पद्दतीन हें पक्षाचें कार्य अविरत चालूच आसता. तांकां दुसऱ्या पक्षाचीं ध्येय धोरणां पटनांत आनी तीं समजून घेवपाचीय तांची इत्सा ना. जो पक्ष दुसऱ्या पक्षाचे आमदारूच रातोरात उखलता त्या पक्षाक आनी पक्षाच्या कार्यकर्त्यांक दुसऱ्या पक्षांच्या ध्येय धोरणांचेर विचारूच करपाची गरज ना म्हणा. तांकां जाय आसता फक्त आमदार. नगाक. भोवमत सिद्द करपाक. असल्या ह्या वातावरणांत खंयची लोकशाय,खंयचें गोंय आनी खंयचो गोंयचो फुडार..

## हाचेर उपाय किर्ते?

ह्या असल्या राजकारणाक लोकशायेंत उपाय ना. गोंयच्या सारख्या ल्हान राज्यांत आनी चिमटीभर मतदारसंघ आशिल्ल्या राज्यांत तर नाच ना. कित्याक जो कोण राजकारण धंदो म्हूण खेळटा तो आपल्या बोलसांनी दुडू घालून दिसूय भर आपल्या मतदार संघांत भोंवत आसता. ताका कसलें वाचनाचें व्यसन नासता, ताका हेर कसलें काम नासता. चोविसूय वरां तो फक्त आपल्या मतदाराक जोडून आसता. ताका भय आसता आपलो मतदार फुटून दुसऱ्याच्या गरयेक लागत म्हूण चालीसूय मतदारसंघांचेर नदर मारीत जाल्यार चालीसूय आमदार फक्त आपल्या मतदाराक फुसलायत आसता. ताका आपलो आमदार सोडून दुसऱ्या खंयच्याच फुडाऱ्याचें किर्ते बरें दिसचें अशी एक्कूय सद तो कोणाक दिना. ताका लागून ताणें गरयेक लायिल्ले मतदार ताचेच गायजोक उरतात जाल्यार ताका उडोवपाक जे कोण दुसरे उमेदवार धडपडटात ते मात आपूणूच त्या आमदाराक पर्याय आनी आपूणूच आमदार जावपाक लायक हे गुर्मेत वावुरता. हाका लागून ह्या आमदाराक उडोवक कितलेच उमेदवार ताचे आड रावतात आनी मता वाटून गेल्यान होच आमदार फुडलीं पांच वर्सां सत्ता भोगता आनी पक्षाकूय सत्तेर दवरता. जर ह्या फुडें भाजप आनी ताचे सदा यशश्वी आमदाराक घरा बसोवपाचे आसल्यार हेर पक्षांनी आपले भितर खंय तरी तडजोड करचीच पडटली. उमेदवार हो सर्वमान्य केन्नाच आसना पूण रणनिती आखतना कोणें तरी त्याग करून चडांत चड सर्वमान्य उमेदवार थारावचो पडटलो. त्या खातीर गोंयांत परिपक्व अशें राजकीय नेतृत्व मुखार येवपाची गरज आसा. ह्या नेतृत्वाचो प्रत्येक निर्णय आनी धोरण हेरांनी मान्य करपाची तयारी दवरूंक जाय. कोरोनाचो कहर आसतनाय मोपा, मेळावली, काळसो प्रकरण आनी हेर कितल्याच प्रस्नांचेर गोंयच्या कांय संघटनानी भिवपाची गरज ना म्हणपी मुख्यमंत्र्यांक बरेच खेपो वेवरथीत भिवयला. म्हणटकच जो कोण हेरांक भिवपाची गरज ना म्हणटा तो भितरल्यान स्वता भिल्लो आसता.

निकतीच जाल्ली अस्तंत बंगालचीच वेंचणूक घेयात. मोदी आनी शहा हे जोडगोळीन ममता बॅनर्जीक भंय घालपाचो कितलोच यत्न केलो. शेवटाक सामके सक्यले पातळेर तिचें चारित्र्य हनन केलें. पूण ममता दिदीन ह्या दोनूय सांडांक शिंगार घेतलेच. आपूण बंगालची धूव म्हणत तिणें आपल्याक बंगालचे दरेक अस्तुरेचे काळजांत रिगयली आनी आपली राजकी पत राखली. भाजपक ताची सुवात दाखयली. म्हणटकच अराजक माजोवपी केंद्रीय व्हडली शक्त जरी आंगार धांवून आयली तरी आपल्या सत्वान जर हुंकार दिलो जाल्यार ही शक्त सहज धुळीक मेळूंक पावता.

देशाच्या स्वातंत्र्याचो अमृत महोत्सव आनी गोंय मुक्तीचो हिरक महोत्सव खंय पावता तो पावता. अमृत महोत्सवाच्या नांवान अमृत कोण चाखतलो ताका चाखूं दी. पूण गोंयच्या वांट्याक जें ह्या पक्षान हलाहल दिलां तें पचोवपाक विरोधकानी आतां एकठाय येवपाचो खीण आयला हाचें भान दवरपाची गरज आसा.

## कथा



आशा शानभाग

**आशा शानभाग** हांची वळख कोंकणी वाचकांक आसा ती कसलीच भिडमुर्वत बाळगिनासतना बरोवपी एक लेखिका म्हूण. तांणी कोंकणीं कथा आनी ललित साहित्य हातूंत आपली अशी खाशेली सुवात सुरूर केल्या. तांचो 'कोऽहंऽऽ' हो कथासंग्रह ताची गवाय आसा.'बिम्ब' पुरस्कारान भोवमानीत ही लेखिका आपले कथेंतल्यान वाचप्यांक शॉक ट्रिटमेंट दिता.

*दुसरे दिसा दनपारची इंदीआका आनी सदुबाबान नातरां घरांत पावचे पयलींच घराचो कायमचो रकाद घेतलो. पांयांक हात लावन नमस्कार करपी पूत आनी सुनेक सदां सुखी रावात असो आशिर्वाद आनी भांगराच्यो वस्ती दवरिल्लो दबो आनी बॅन्केच्यो रिसीटी दिवन दारांत उबे आशिल्ले टॅक्सींत वचून बसलीं. चार काळजां घट्ट जाल्लीं.*

# आधारवड

सदुबाब आनी इंदीआकालो राजेश हो एकलो एकसुरो पूत. आनी आतां तर तार्चेच लग्न थारलां. इंदीआकान सुनेक घालपाच्यो वस्ती,भांगरां शिंगरां एकेक करून पयलींच करून दवरिल्ल्यान हुस्को सो नाशिल्लोच. सदुबाबाली तीन वर्सांची शिर्विस आसा अजून. म्हयनोमाल पगार येतलोच,त्या भायर बँकेन दवरिल्ल्या पयशां वयर्ले कळंतर आसाच. इंदीआका तिगुळसाणेन संवसार करपी.

''आयकलां न्हय?''

'' सांग सांग आयकतां.''

'' हें पळय आमी आमची जीण आमकां जाय तशी जगलीं. आतां दीस राजेश-विंदाचे. तांचे जिणेंत आमी आडखळ जावप ना.''

'' हय गो बाये कळटा म्हाका.''

''ना ओगीच एक सांगता हांव. ह्या वयांत आमी रिव्हर्स गियरांतच रावपाचें.''

''आतां रिटायरमेंटाच्या दिसांनी गियरां आनी खंयचीं पडटलीं?''

खेंक्क करून सदुबाब हांसलो.

''पुताचें लग्न लागीं पावलां तरीकय आपल्या गियरांची तोखणाय? पुताक शिकय तीं तुर्जी गियरां.''

खो खो हांसत इंदीआकान सदुबाबाक कुलायलो.

''मान्य बाये. पळय तांच्या खंयच्याय निर्णयाक आमी विरोध करप ना. पटनां जालें तर चुपचाप कडेक सरप.''

दोगांयनी सून येतगीर जगपाचे आपले जिणेची शीम आखून घेतली.

सांजचो राजेश ऑफीसांतल्यान आयलो. च्या नाश्तो जालो, इंदीआकान म्हळें, ''आरे येत्या आयताराक विंदाक फ्री राव सांग.''

''कित्याक गे आई?''

''आरे बाबा मंगळसूत्र आनी सदां घालपाचें कंगन ताचे आवडीचें घेवपाक जाय न्हय?''



''ओकें सांगतां ताका हांव.''

'' आरे आवताराक सकाळचेंच वो म्हण ताका आं!''

आवताराक सकाळींच राजेश वचून विंदाक घेवन आयलो. इंदीआकान सुने खातीर स्पेशल सामको मेदुवडे आनी सांबाराचो बेत केल्लो. थोड्याच दिसां भितर चौकोनी जावपी ते फामिलीन तुरत करत नाश्तो केलो.

''विंदा, मंगळसूत्र आनी तुका दिसपट्टें, कामाक वतना घालपाक कंगन घेवपाक आमी तनिष्कांत या मुगो?''

'' हय आई.''

'' तूं दोनूय हातांत भांगराचीं कांकणां घालतलें काय एका हातांत घड्याळ घालून एका हातांत कंगन घालतलें तें सांग.''

''आई, एकच कंगन बेस्ट!''

'' स्पश्ट उलयतां, राग बी धरनाका हां. आमचें बजेट दोन लाखांचें. तुका जाय तसल्यो वस्ती घे.''

''आई,आवडलें म्हाका तुजें स्पश्ट उलोवप.''

सदुबाब हळुच फुतफुतलो, ''राजेश, आमी पयशे मेजून दवरया.''

चौकोनी फामिल सातमजली हाशांत रंगली. विंदा मात त्याच खिणाक इंदीआकाचें फॅन जालें सांमकें, ही आपली सासुमांय न्हय तर काळजांतली इश्टीण जातली हेंय ताचे मतींत शेर्त जालें.

दारांतलें माप ओलांडून विंदा त्या घरची गृहलक्ष्मी जालें. पांयपडणी जावंन विंदान इंदीआकाच्या काळजाक गंधाचो हात लायलो. इंदीआकान लखलखपी वज्राच्यो वेंढी, आनी कंगन सुनेच्या हातांत दवरलें. नमस्कार करपी सुनेक मन, काळीज भरून आशिर्वाद दिले.

''विंदा, आतांच तूं ह्या घरांत आयलां, नववधूच्या शिणगारांत आसतनाच तुका उतर दितां, हें घर...हो संवसार...हो म्हजो पूत हें सगलें आवच्यान तुजेंच..''

'' आई. आयक फुडलें...''

'' पूण शाण्या तूं मात म्हजें. हांव तुजें विकेटकीपर, पूण विकेटी राखपी ...उडोवपी न्हय.''

सुनेन मांयक घट वेंग मारली. सदुबाबान राजेशाक कुलायलो,''आरे पळय आई तुजो अधिकार उजार करता..''

लजलजून तांबडेंच जाल्ल्या विंदानय म्हळ्ळें, ''हांवय तुका उतर दितां, बाबाक आनी तुका त्रास जातलो, तुमचें मन दुखतलें अशें हांव केन्नाच वागचें ना.''

कांय म्हयन्यां भितरच ह्या चौकोनी फामिलेक नवी आंकरी येवपाचीं लक्षणां विंदान दाखयलीं. दुवाळजेवणां, फुलां बी जांवन रूही . इंदीआकाली नात ...पहिली बेटी धनाची पेटी जांवन जन्माक आयली. आनी सदुबाबान रिटायरमेंट घेतली. कित्याक तर ...राजेशाचें भुरगेपण शिर्विशेक लागून ताका अणभवपाक मेळ्ळें नाशिल्लें आतां नाती वेळार चान्स सोडप ना म्हणून. रुही फाटल्यान तीन वर्सांनी रेयांश जल्माक आयलो. बालवाडी, प्राथमीक, अशो नातरांच्यो चडत्यो कळा सुरू जाल्यो. आनी केन्नांच आयदनाक आयदन न लागतां चलपी त्या घरांत इंदीआकाच्या कानांत खतखतीत तेल ओतील्ले वरी तीं उतरां पडलीं. पूत आनी सून कितें उलवतात थंय केन्नांच बारीकसाणेन लक्ष न दिवपी इंदीआकाक थरथरो हाडपी उतर म्हळ्यार.. वृध्दाश्रम..

जाणत्यांनी कितेंय सांगलें काय भुरग्यांनी हय म्हणचें आनी भुरग्यांचें कितेंय आसूं ...सगलेंच दोगांय जाणत्यांनी मान्य करचें अशें तरेन चलपी घरात हें अवचिन्नापण घडलें. वृध्दाश्रम हो आपल्या दोगाय खातीरच हें जाणून इंदीआकान आपलें काळीज घट केलें. घर पुरवणे वेळार सुनेक दिल्लें उतर याद करून तिणें आपल्या काळजार फातर दवरलो. रातचें आपले कुडींत न्हिदपाक वतगीर इंदीआकान हळूच सदुबाबाल्या कानार ही गजाल घाली. ''आयकलां, हांव सांगतां तें थंडसाणेन आयकून घे. ओगीच किळांच मार नाकां।''

'' आं।''

इंदीआकाली उतरां आयकून तो फट्ट करून हांथरुणाचेर उठून बसलो. आयज राजेश आनी विंदा वृध्दाश्रम अशें किदें उलयतालीं. पडये आमी ओल्ड फर्निचर जाल्यांत , निरुपयोगी थारल्यांत म्हणून घड करून आमची पालखी घरांतल्यान वचपाची अशें दिसता. इंदीआका फटी मारना हें जाणपी सदुबाबान तिका म्हन्यांत ओढली, ''इंदी, तुवें लग्ना दिसा विंदाक दिल्लें उतर आमी पाळया. विंदा आपलेंच उतर मोडटा तर मोडूं. आतांचो हो संवसार तांचो, तांकां नाका तर वचुया आमी .पूण तांकां त्रास दिवं नये आमी.''

व्हांवते डोळे पुसत इंदीआका उलयलें.

दुसरे दिसाक सकाळीं सगलीं सहजतायेन वागलीं. सदुबाब रुही आनी रेयांशाक स्कुल बशीर पावोवपाक गेलो. राजेश आनी विंदा, दोगांय इंदीआका म्हन्यांत आयलीं, ''आई, वेत्या म्हयन्या भरांत बाबा आनी तूं वृध्दाश्रमांत रावपाचें..''

''लागीं ना मरे तो? पयस आसल्यार मायेचे पाश इल्ले बेगीन तुटतले.''

इंदीआकाच्या सहजपणान पूत-सून



चोरचोर जाली.

''ना. ~~पुण्यांत.~~''

'' बरें, आमी फाल्यांच वचपाचें करतात, नामो तितलो दी.''

राजेशान नामो बरयिल्लें कागद आनी वर्साचे पयशे फारीक केल्ली रिशीट थंयच दवरली आनी दोगांय कामाक वचपाक गेलीं.

दुसरे दिसा दनपारच्ची इंदीआका आनी सदुबाबान नातरां घरांत पावचे पयलींच घराचो कायमचो रकाद येतलो. पांयांक हात लावन नमस्कार करपी पूत आनी सुनेक सदां सुखी रावात असो आशिर्वाद आनी भांगराच्यो वस्ती दवरिल्लो दबो आनी बॅन्केच्यो रिसीटी दिवन दारांत उबे आशिल्ले टॅक्सींत वचून बसलीं. चार काळजां घट्ट जाल्लीं.

वृद्धाश्रमांत दोगांय एकामेकाक सांबाळून घेतालीं.दीस हेसां वांगडा सहज सोंपतालो. पूण रात मात नातरांचे यादीन सोंपून सोपनाशिल्ली.तांकां आबा-आजेची याद येवंन त्रास जावंचो न्हय म्हणून हींच दोगांय पूत-सुनेक फोन करनाशिल्लीं. केन्नाकेन्नांय विंदाच तांकां करतालें. आयज णव म्हयने जाल्ले तांकां पुण्यांत येवन. रक्ताचीं चौगांय सोड णव म्हयने पोटांत वाडयिल्लो पूत लेगीत आयलो नां..हो खेद इंदीआका उदका बराबर गिळटालें.एकामेकांक सांगल्यार त्रास जातलो म्हणून दोगांय न्हातनां मनसोक्त रडटालीं. आनी दोळ्यांत शाबांवाचो फेस गेलो हेंच कारण एकामेकांक दितालीं.

अचकीत एक दीस विंदा आनी दोगांय नातरां वृद्धाश्रमांत आयलीं...तिगांयचीय दशाच गेल्ली सामकी. आंगभर ओढणी गुठलांवन आयिल्ल्या विंदान इंदीआकाक नमस्कार केलो. 'सौभाग्यवती भव' सदचोच आशिर्वाद तिणें दिलो. आनी विंदा तिका घट वेंग मारून रडपाक लागलें. दोनूय नातरां आबाच्या गळ्यांत पडिल्लीं.

''विंदा, आगो जालां किर्दे गो बाये?'' इंदीआकाक जाप रुहीन दिली, ''आज्जे पप्पा गेलो गे आमचो.''

सदूबाबाच्या पांयां पोंदा फोंड पडिल्ले वरी जालें. इंदीआकान तर बोब मारली सामकी. आमकां जाणटेल्यांक सोडून पाठपडिल्ल्या यमाची नदर म्हज्या पुताचेरच पडली!

'' आई , तुका लग्ना दिसा दिल्लें उतर हांवें जाणून बुजून मोडलें. कारण राजेशाक फायनल स्टेजीचो कॅन्सर डिटॅक्ट जाल्लो..''

'' पुताक म्हज्या पाना सुपारेचो सुद्दां वेसन नाशिल्लें , तरी त्या हलकट दुर्वेसान खालोच ताका. आनी म्हाका पापणीक हे सगळे कर्मभोग पळोवपाक दवरलां.''

इंदीआका फट्ट फट्ट करून आपले पोले आनी कपलार थापटां मारून घेतालें.

''आई पुराय लिव्हर गेल्लें गे ताचें. हांव म्हजें दितलें आशिल्लें अर्दें किंवा पावूण लिव्हर ताका! सगळ्याक पातळिल्लें गे ताचें दुर्वेस. कांयच म्हळयार कांयच उपाय आनीक नाशिल्लो. खूब त्रास भोगले ताणें. तुमच्यांनी पळोवंक जावचें ना म्हणून काळजार फातर दवरून आमी तुमकां हांगा पावयलें. ह्या निर्णयांत ही तुमची धाकटुलीं नातरांय सामील आशिल्लीं..

'' आबा...आज्जे, पप्पान आमकां सांगिल्लें कीं तो देवाघेर गेलो काय तुमकां तुमच्या घरा हाडपाचें. आत्ताच या आमी आमच्या घरा.'' रेयांशान आज्जेच्या गळ्यांत गळवेंग घाली.

सदुबाब फातराची मुर्त कसो जांवन चिंततालो, जाचे खांद्या वयल्यान आपणें निमणे यात्रेक वचपाचें चितिल्लें तोच गेलो. आनी ताचो जल्मदातो हांव उरलां हांगाच. काल पयर मेरेन पुता कडेन हो आमचो म्हातारपणांतलो आधारवड म्हणून पळयिल्लें, पूण हाचे फुडें नातरांचो आधारवड जांवन उरल्या ती जीण सारपाची.

''चल आबा वचुया आमी.''

'' हयतर, इंदी- विंदा या आमी आमच्या घरा.''



काणकोण, गोंय. मो. : ९४०४१४५३३७

झिंबेंगी अनभाव



सखाराम शेणवी बोरकार

कोंकणी कवितेंत मोलाची भर घालपी सखाराम शेणवी बोरकार काव्य निर्मिती करपा वांगडाच ललित साहित्य लेखन, विनोदी साहित्य लेखन, पुस्तक समिक्षा तशेंच हेर भासांतलें साहित्य कोंकणीत अणकारीत करपाचो वावर सातत्यान करीत आसात.

*सुण्याचे वाटेर आड आयल्यार तें तुका चाबूंक शकता तेन्ना ताका आपले वाटेन वचूंक दिवप बरें. तशेंच आपणें वायटाचे वाटेक ना गेल्लें बरें.*



# कोंकणी म्हणी आनी वाक्प्रचारांतलें सुणें आनी माजर...

**ए**क दीस म्हजो बापूय आमच्या घराच्या बल्कावांत आशिल्ल्या ओल्तेरार दनपारचो आड पडिल्लो. मे म्हयनो. सामके उबाळाचे दीस. सगळ्या भुरग्यांक सुटी. शेजारचीं पाजारचीं सगळीं भुरगीं आमच्या घराच्या आंगणांत खेळटालीं. हांव बल्कांवाच्या सोप्यार बसून पेपर वाचतालों. इतल्यांत किर्तें जालें खबर ना, सगळीं भुरगीं एकामेकां कडेन झगडपाक लागलीं. सगळो कुलकुलाट. इतल्यांत बापूय जागो जालो.

''मातशीं ओगी रावात पळोवंया. किर्तें तुमीं *सुण्यां-माजरां सारकीं झगडटात?* सुसेगाद खेळपाक जायना?'' बापायच्या त्या धेंगश्यान सगळीं भुरगीं ओग्गी पडलीं. म्हाका म्हज्या बापायन म्हणिल्लो *'सुणें - माजराचें' झगडें* 'हो वाक्प्रचार खूब आवडलो.

सुणें आनी माजराक एकामेकांक केन्नाच पटना. दोगांकय एकामेकांची नसाय. सदांच तीं एकामेकांचेर फुरस फुरस करतात. सुणें माजराचीं झगडीं म्हण्टगीर एकामेकांच्या जिवार उठिल्लें सुणें आनी माजर म्हज्या दोळ्यां सामकार आयलें. खूब वर्सां पयली चा.फ्रा.डिकोस्टा हांचें 'सुणें माजर हांसता' हें नाटकुलें वाचिल्लें ताची याद जाता. इंग्लिश भाशेंत जेन्ना उटंगाराचो पावस पडटा तेन्ना 'Its raining cats and dogs' अशें म्हण्टात. पडये सुणीं आनी माजरां दोगांय एकाच बराबर खूब पिलां काडटात म्हण आसुंये.

आमचे कोंकणींत सुणें आनी माजराचेर खूब म्हणी आनी वाक्प्रचार आसात.

'माजरा बोडावेलो (बोडावेली) दिवो (पणटी)'.

माजराचे बोडार (तकलेर) दिवो दवरल्यार तो हालून पडल्या बगर रावना. डळमळीत, आदार नाशिल्ली वस्त पडटलीच हें सांगपाक ही ओपार मारतात.

*'माजराचें अदमट बरें, शिंकें तुटून पडलें'.*

जेन्ना कोणाक नशिबान अकस्मात फायदो जाता तेन्ना ही ओपार मारतात.

अदमट म्हळ्यार नशीब. हीच ओपार *'शिंकें तुटून पडलें आनी बुकल्याचें फावलें'* आनी *'माजरा पुण्यान शिंक्या दोर तुटलो'* अशीय घोळटा.

*'माजर नाशिल्ल्या गांवांत हुंदीर राजा'.*

जेन्ना भंय दिसपी बळिश्ट मनीस नासता तेन्ना दुबळो सत्ता गाजयता अशें सुचोवपी ही ओपार. *'माजर नाशिल्ल्या घरा हुंदरा राज्य'.* ज्या घरांत माजर नासता थंय हुंदराचो सुळसुळाट जाता. हिवूय ह्याच अर्थाची दुसरी एक म्हण.

*'माजरान केन्ना हिंवसाण (हिमसाण) सोडल्या?', 'माजर हिंमसाण सोडीत तेन्ना बेबदो सोरो सोडीत', 'माजर मासळी सोडीत तेन्ना सोरेकार सोरो सोडटलों'.* ह्यो एकाच अर्थाच्यो कांय म्हणी. माजराक नुस्तें सामकें घोस्ताचें. माजर केन्नाच नुस्तें सोडना. एकदां मनशाक संवय लागली काय ती केन्नाच सुटना हें सांगपी ही म्हण. बेबदो केन्ना सोरो सोडटा? तसल्यांतली गजाल ही.

*'माजराचो दोळो भोपश्यार'. 'कावळ्याचो दोळो तवश्यार आनी माजराचो दोळो भोपश्यार'* अशी ही पुराय म्हण. स्वार्थ सादोवपी सदांच आपली नदर आपल्याक कसो फायदो जातलो हाचेर दवरता अशें सांगपी ही म्हण.' *माजरा दोळो दुदारी, सुण्या दोळो कुळारी'* (जेवण), अशी म्हण कर्नाटकांत घोळटा.

*'माजराची जात सुंगटाच्या वासाक'.*

नुस्तें खावप्यागेर माजर सदांच चिकटून रावता. सदांच शिवराक आशिल्ल्यांगेर तें चडशें तिगना. फायद्याचे आशेन चिकटून दुसऱ्याचो सांगात सोडीना त्या मनशाक ही ओपार मारतात.

*'माजराक मासळी भाजूंक लायले वरी '.*

माजराक नुस्तें सामकें घोस्ताचें. ताकाच तर नुस्तें भाजूंक लायलें तर तें दुसऱ्यांक खावंक मेळपाची आशाच ना. *'चोरा हातांत तल्लूक'* तसो वेपार तो.

*'माजरा ताळवेर तूप'.*

माजराचे ताळवेर तूप घाल्यार ताका ताचो वास येता पूण ताका तें खंय आसा तें कळना आनी तें घुस्पता. कुवाड्यांत पडिल्ल्या मनशाक ही ओपार मारतात.

*'माजराच्या गळ्यांत घांट कोण बांदतलो?'*

दिसपाक सोपी पूण करपाक कठीण अशी गजाल आसता तेन्ना ही ओपार मारतात. हे म्हणी फाटल्यान एक काणीय आसा.

*'माजराचो खेळ हुंदरा जिवार येता', 'माजर खेळटा पूण हुंदराचो जीव वेता', 'माजराचो खेळ आनी हुंदराचें मरण .'*

ह्यो एकाच अर्थाच्यो साबार म्हणी. व्हडले मनीस जेन्ना आपलें मन रिजयतात तेन्ना त्रास ल्हान मनशांक जाता. माजर खेळटा, हुंदराचो जीव वता.

*'माजरान गू लिपयल्यावरी'.*

हागल्या बराबर ताचेर माती ओडप हो माजराचो सभावधर्म. कोणय ल्हानसान गजाल दुसऱ्यांक सांगी नासतना दवरता तेन्ना ही म्हण वापरतात. जो आपल्या वायट कर्मांचेर पांगरूण घालता तेन्नाय ही म्हण वापरतात.

*'माजराचे सटयेक आनी हुंदराच्या (कुकडाच्या) बारशाक'.*

कोणय ल्हानसान सुवाळे चुकयना ताका लेखून ही ओपार मारतात. हीच म्हण केरळ आनी कर्नाटकांत *'माजरा सटी धरून सुण्या बारसो थातांव सोदचें'* अशी घोळटा.

*'माजराक देखिल्लो कीर '.*

माजराक पळोवन पोपट भिता. तेच भशेन आपल्या परस दुसरो बळीश्ट पळोवन मनीस भियेवन वता तेन्ना ही ओपार मारतात.

*'माजरान दोळे धांपून दूद पियेल्ले वरी '.*

माजर दोळे धांपून दूद पिता तेन्ना ताका दिसता आपल्याक कोणच पळयना म्हण. जो मनीस आपल्यो वायट करण्यो कोणाकच कळूंक ना म्हण समजता ताका ही ओपार मारतात.

*'माजरी दांत पिलांक लागनात '.*

माजर आपल्या पिलांक घेवन सात कोनशे फिरयता. पिलांक दांत लागनात. भुरग्यांकूय आवयच्या तापोवण्याचो राग येना.

*'माजराचे हुंदराक धरपाचे दांत वेगळे आनी पिलांक धरपाचे दांत वेगळे.'*

माजरान आपल्या पिलांक दांतांत धरलीं तरी ताचे दांत आपल्या पिलांक लागनात. भितर एक आनी भायर एक अशा दोट्टी सभावाच्या मनशाक ही ओपार मारतात.

*'माजरा झगड्यांत सुण्यां पारपत्य'* (Arbitrator).

माजरां झगडटात तेन्ना सुण्यांक निवाडो करपाक लावप. *'हुंदरांच्या झगड्यांत मांजराची साक्ष '* हिवूय ह्याच अर्थाची दुसरी म्हण. माजराचें आनी सुण्याचें पटना तशेंच माजराचें

आनी हुंदरार्चे पटना. सुण्याचो निवाडो माजराच्या आडच जातलो.

*'माजराक सात जीव'*.

माजराक सात जीव आसात अशें म्हण्टात. कोणय खुबदां अपघात वा वावट जावन लेगीत जगता तेन्ना हाका माजरा भशेन सात जीव आसात काय? असो प्रश्न विचारतात.

*'सत्तर वर्सां हुंदीर खावन, माजर हाजीक गेलें'*.

पयलीं पापां करप आनी तीं निवारपाक पिराचीत करप अशें मनीस मानतात.

*'माजर करी एकादशी, हुंदीर मारून भरी कुशी'*.

माजर भायल्यान आपूण उपास करता म्हण दाखयता आनी भितरल्यान हुंदीर खाताले. जायते मनीस भितरल्यान पाप करतात आनी भायल्यान आपून साव म्हण दाखयतात.

*'माजर गेलें लुटी आनी हाडल्यो दोन मुठी'*.

प्रत्तेक जाण आपले तांकी प्रमाण काम करता अशें सांगपी ही म्हण.

*'माजराक घराची याद उरता आनी सुण्याक मनशाची याद उरता'*.

माजर खंयूय गेलें तरी ताका आपल्या घराची याद उरता. तेच वरीं सुणो कितलेय दिसांनी आपल्या मनशाक ओळखुपाक शकता. सभावधर्म.

*'माजरान वाघाक शिकयलो'*.

धाकटो मनीस व्हडल्याक बुद्द शिकयता तेन्ना ही ओपार मारतात.

*'माजर आडवें वेवप'*.

खंयच्याय बऱ्या कामाक वतना माजर आडवें आयल्यार तें काम जावना



अशी अंधश्रद्दा आसा. एकाद्या कामाक आडमेळें आयल्यार हो वाक्प्रचार वापरतात.

*'माजर मारप'*.

पाप करप. माजर मारल्यार पाप घडटा आनी त्या पापांचें प्रायश्चीत करपाक काशीक वच्चें पडटा असो समज आसा.

सुण्याचेर आदारिल्ल्यो साबार म्हणी आनी वाक्प्रचार कोंकणी भार्शेत आसात.

*'सुणें शेंपडी हालयता, न्हय तुका, पूण उंड्याक'*.

आमकां दिसता, सुणें आमकां पळोवन शेंपडी हालयता म्हण पूण तें खरें न्हय. प्रत्तेक जाण आपलो सुवार्थ पळोवन तसो वागता.

*'सुण्याक दिली वासरी, सुणें गांड पसरी'*.

दिता ते वस्तुचो फावो तो उपेग करीना तेन्ना ही ओपार मारतात. *'भटाक दिली वासरी, भटान केली पसरी.* (भट हात पांय पसरी)', हिवूय ह्याच अर्थाची दुसरी म्हण.

*'सुण्याक विचारून भोंवडेक वच्चें न्हय'*.

कितें करूक जाय तें चाकरां लागीं विचारचें न्हय. मंगळुरांतली ओपार.

*'सुण्याची शेंपडी वांकडी ती वांकडीच, ती नळयेंत घाल्यार सारकी जाता?'*.

मनीस त्योच त्योच वांकड्यो करण्यो करता तेन्ना ही ओपार मारतात.

*'सुणें जाय म्हणून सोदूंक गेल्यारी, सुणें कांट्यार वचून हागतालें'*.

*'पारादीच्या वेळार सुणें मुतूंक गेलें'*.

जेन्ना जाय तेन्ना, वा गरजेच्या वेळार त्या गजालीचो उपेग जायना तेन्ना ही ओपार मारतात.

'सुण्याक सगळें दिल्यारय, कुळणें (कुंदळें) ल्हेवंतलें'.

सुणें केन्नाच धादोशी जायना, तसोच मनीस कितलेंय खाले जेवल्या उप्रांतय धादोशी जायना. हें दाखोवपी ही म्हण.

*'सुणें चाबलें म्हण सुण्याक घांस मारल्यार जाता?'*.

रागान राग फारीक करचो न्हय अशें ही म्हण आमकां सांगता.

*'सुण्याक सगळो नाल्ल'.*

सगळो नाल्ल दिल्यार सुण्याक तो फोडून खावंक कळना. जे वस्तुचो कोणाक लाभ घेवंक मेळना तेन्ना ही ओपार मारतात.

*'सुण्याक मुतपाची गरज जाली, सुणें वचून कांटयेर मुतलें'.*

सुणें वा मनीस गरज पडटा तेन्ना कसलींय कामां करतात. त्या वेळार तांकां लज वा भीड आसना.

*'सुण्याक दिवंची वाट, वायटाक करची फाट'.*

सुण्याचे वाटेर आड आयल्यार तें तुका चाबूंक शकता तेन्ना ताका आपले वाटेन वचूंक दिवप बरें. तशेंच आपणें वायटाचे वाटेक ना गेल्लें बरें.

*'सुण्याची शेंपडी नळयेंत घाली तरी वांकडी ती वांकडीच'.*

जो मनीस रोखडोच आपल्या मूळ सभावाचेर येता तेन्ना ही ओपार मारतात. हे ओपारीच्या जाग्यार निखटो सुण्या शेंपडी, हो वाक्प्रचार घोळटा. अर्थ तोच.

*'सुणें भोंकलें म्हण देवूळ भश्टना'.*

पवित्र गजाल ल्हानसान कारणान वायट जायना हें सांगपी ही म्हण.

*'सुणी माजरां घरांत येवा, आनी घरच्या मनशां भायर सरा'.*

संबंद नाशिल्ल्या मनशांक घरांत आपोवपाचीं आनी घरच्या मनशांक भायर धांवडावपाचें, असलें वागणें कांय मनीस करतात तें दाखोवपी ही म्हण.

*'सुण्याक पालखेंत बैसलो तरी हाडूक देखून सुणें उडी मारता'.*

सुण्याक पालखेंत बसच्या परस हाडकाचो चड घोरस्त. ज्या मनशाक उंची वस्त भोगपाची बुद्द वा संवकळ ना अश्या मनशाक ती दिवन किर्ते उपेग हें सांगपी ही म्हण. कर्नाटक वाठारांतली म्हण.

'भीक नाका पूण सुण्याक आवर'.

भीक मागपाक भिकारी गेल्ले कडेन ताचे आंगार सुणे येतात, तेन्ना ताका भिके परस जीव म्हत्वाचो दिसता. मदत नाका पूण आडमेळें तरी हाडूं नाका हें सांगपी ही म्हण.

ह्यो आसल्यो सुणे आनी माजर हांचेर आदारिल्ल्यो म्हणी आनी वाक्प्रचार.



पाजीफोंड-मडगांव, मो.: ९९२३३०६७५१



ललित

काश्मिरी पावसकार

# रांदची कूड आनी हांव...



**काश्मिरी पावसकार** पेशान शिक्षिका जाल्ल्यान तांचो सातत्यान संपर्क येता तो विद्यार्थ्यांलागीं आनी नवनव्या कल्पना विश्वा कडेन. हाकाच लागून तांचे विचार एके वेगळेच गतीन साहित्यरुपांत परावर्तीत जातात. कांय वर्सां फाटीं त्यो बिम्बांत सातत्यान सदर बरयताल्यो. तांचें एक पुस्तकय उजवाडाक आयलां. ब-याच काळान तांचे साहित्य वाचप्यां मुखार येता ही वाचप्यां पासत खोशयेची गजाल.

*जण एकल्याचे हातची चव वेगळी आसता. तशी ती नांवा प्रमाणूय वेगळी आसता अशेंय म्हणूं येता. कारण म्हजे आजीमांयचें नांव अन्नपुर्णा. नांवा प्रमाणें तिवूय रुचीक रांदताली. इल्लेशा बुडकुल्यांनी शिजयल्ले तिच्या हातचे जिन्नस पंदरा-वीस लोक लेगीत जेवन-खावन धादोशी जावन वताले.*

'कूड' म्हणलें काय म्हाका याद येता ती आमची आदली 'रांदची कूड'. मातये वणटी, शेणा जमीन, पाशटाक लांबयल्ल्यो गांवठी कांया मोळयो. सोलां, आमटाण, आंबले बुयांवां, मिठा कुडणी आनी फळयेर दाळिल्लीं तांब्या-पितुळच्यीं कांय आयदनां. ही आमचे खातीर एक आदर्श कूड आसली. घरांत देवा कुडी उपरांत दुसरें अढळ स्थान हे सुवातेक आसता.

भुरगे पिरायेर हे रांदचे कुडी कडेन म्हजो खूब लागींचो संबंद आनी तोय बी फकत खावपा-जेवपा पुरतोच आसलो. शाळेंतल्यान येवन सगल्यांत पयलीं रांदचे कुडींत किते शिजलां, तळलां हाचेरूच म्हजी नदर आसताली. तार्चे कारण आजयेच्या हाताक एक आगळीच रूच आसली. किते ती गांवठी कोंब्या शागोती! ते भायर अळमी, आळऊ, मुगा गांठी, सांसव, हुड्डेमेथी, घोणस बी सारक्या जिनसांवारांचो वास, दळ पयस लेगीत आमच्या नाकांत रिगतालो. इतलें तिगेलें रांदप सामकें रुचीक, सुरबूस।

रांदचे वाडचेल्यांनी हो तर आमचो भयणुलांचो सामको घोरताचो खेळ. ते पळोवन मामाईन मुंबय साकून पितुळच्या सुपुल्ल्या आयदनाचो सेट हाडिल्लो. तातूंत म्हाका रांदपाची आवड आशिल्ल्यान रोखडीच हांवेंन घरच्यां कडल्यान पाक कला आत्मसाथ केली. ते भायर दादल्यांच्या काळजाची वाट तांच्या पोटांतल्यान वता अशें आजी सदांच म्हणटाली. रांदूक हुशार आसप हो बायल मनशेचो गूण अशें तिका दिसतालें. देखून चली भुरगीं कितलीं शिकलीं तरी तिका रांदूक येवंकूच जाय हो तिगेलो हट्ट आसलो.

जण एकल्याचे हातची चव वेगळी आसता. तशी ती नांवा प्रमाणूय वेगळी आसता अशेंय म्हणूं येता. कारण म्हजे आजीमांयचें नांव अन्नपुर्णा. नांवा प्रमाणें तिवूय रुचीक रांदताली. इल्लेशा बुडकुल्यांनी शिजयल्ले तिच्या हातचे जिन्नस पंदरा-वीस लोक लेगीत जेवन-खावन धादोशी जावन वताले. अशें म्हजी मांय म्हाका आतऱ्या पयऱ्यान सांगता. ह्या सगळ्यांचें रांदप सदांच अंदाजान. पूण तांचो अंदाज

केन्नाच चुकनासलो. विचारल्यार तीं सांगतालीं,''शांत चित्तान पयलीं एकदां करून पळोवप. एक दोनदां चुकता खरें,पूण सरावान मागीर रांदप बरें जाता. अंदाज तर चुकच ना आनी रांदपाचो भंयूय इल्लो उणो जाता.'' होच तिचो पाठ आमी नातरांनीय गिरयलो.

दर एके रांदडे कुडींत 'रांदप' म्हणलें काय शिनप,चिरप, कातप, वाटप,उजरावप, भाजप, उकडप आनी म्हत्वाचें म्हणल्यार उमेदीन वाडप ह्या सारक्यो क्रिया येतात. हे सगले प्रक्रियेतल्यान आमचे मुखार जें ताट येता ताचो आमी मान राखप हें गरजेचें. इतलेंच न्हय तर रांदतल्याक शाबासकी, तोंडभर तोखणाय केल्यार समादाना वांगडा रांदपाचो शीण एकाच खिणांत नाच्च जाता. हय,खरेंच जांकां रांदपाची कला बरी जमल्या त्या घरचे लोक तृप्त जावन समादानाचे धेंकर काडूंक पावतात आनी त्याच घरांत शांती नंदता. हें हांवें दोनूय आमची आई आनी आतां मांय कडल्यान शिकतां.

आयज 'रांद,वाड,उश्टीं काड'चो जमानो जरी फाटीं पडलो तरी रांदची कूड आमकां बायलांक चुकूंक ना. देखून रांदपाची कला आनी वेवस्थापन करूंक येवप गरजेचें. दिसपट्टें रांदपाक लागपी जिनसावारीची पुर्व तयारी करूंक ना जाल्यार धांदळ जाता. खरेंच,ही एक अशी सुवात जंय फकत रांदप जायना तर हांगा उलोवपाची,एकठांय बसपाची अशी सुवात. जांचे कडेन संघटीत काम करपाची कला, वेळेचें नियोजन,निवळसाण,एका परस चड कामां करपाची धमक ह्या गुणांच्या म्हालवजार कोणांयच्यानूय रांदचे कुडीचेर राज्य करूं येता.

घरचे रांदचे कुडीचो जागो आतां 'स्वीगी','झोमॅटो' घेत आसात.दुसरे वटेन हॉटेल संस्कृती वाडिल्ल्यान रांदचे कुडीचें म्हत्व उणें जावंक लागलां. खरें, पूण घरांत आमी हॉटेला वरीं आनी हॉटेलांत घरचे वरीं जेवण सोदूंक लागल्यात. आनी हांगाच आमी फटवतात.

तें कितेंय आसूं,गोंयची खाद्य संस्कृती आनी गोंयचीं पारंपारीक खाणां-जेवणां मात आमी तिगोवन दवरुंया.



मुंबय. मो.: ९८१९३१५३०७

# पिपिरमींट



पुजा
लक्ष्मीकांत
भांडारे

महाविद्यालयांत शिक्षण घेता आसतनाच साहित्याची गोडी लागून साहित्य निर्मिती कडेन वचपी जी पिळगी आसा ताची एक प्रतिनिधी म्हळ्यार **पुजा भांडारे** भक्तीकाव्यांतल्यान आपली साहित्य निर्मणी आरंभ करीत ताणें आतां खुसखुशीत निबंध आनी आपउलोवपांक हात घाला ताचें हें मोस.

*मनीस जेन्ना बोरींनी वता न्हय, तेन्ना तांकां बोरां मेळटात, पूण ते बोरींचे कांटे तांच्या आंगांतल्यान रगत काडटात. तेच भाशेन म्हाका अशें दिसता, तुमचे कश्ट म्हाका कांटे जावन तोपतात, म्हज्या आंगांतल्यान व्हांवपी रगत तुमकां कोणांक दिसना.*

**'म्हा**का दर्या दिसलो ना, म्हाका ल्हार मेळ्ळें ना, म्हाका येवचें आसले तुजेच कडेन, म्हाका वाट समजली ना. म्हाका येवचें आसले तुजेच कडेन म्हाका वाट समजली ना.'

इतल्यांत ताची नदर मदींच सामकार वता, कानांतल्यान इयरफोन काडटा.

''आरे, आरे, उपकार करून म्हाका भोगसुचें. शी, तुमी म्हाका पळयतात, हें म्हजे तकलेंत कशें खुळखुळ्ळें ना काय? खरेंच व्हड गुन्यांव घडलो, पूण तें पद लेगीत तशेंच सोबीत आसा न्हय? आयकतना म्हाका तुमची लेगीत भूल पडली. हांव जें पद आत्तां म्हणटालें न्हय, तें पद हांवें तुमकांच लागून तर म्हणिल्लें, त्या पदांत आसपाविल्ल्या उतरां वरीच म्हाका तुमचेच लागीं येवपाक जाय आशिल्लें. पूण म्हाका तुमचे मेरेन पावपाक टिकाच मेळ्ळी ना. आसूं, तें सोडात, म्हाका सांगात तुमी सगले कशे आसात?....आरे, हांवें तुमकां प्रस्न विचारला, तुमी आयकूंक ना काय किते? म्हाका वळखलें तरी मरे तुमी? किते? मात्शें मोठ्यान उलयतां... आं? म्हाका वळखूं ना? सारकें रे, तुमी तरी म्हाका कशे वळखतले.. खयचेय गजालीची वळख तिच्या मूळ आकाराक पळोवन घडटा. पूण आतां म्हजो खरो सोबीत आकारूच बदल्ला. पयली हांव ल्हान आकाराचें, शर्टाचेर कितली सोबाय हाडटालें न्हय? म्हाका सोबीत असो आकार दिवन म्हज्यांत गुलाब घालतकच, पुराय कोटाची सोबीतकाय जशी मळबाची शीम हुपताली. पूण आतां, हांव सामकें साक जालां. आता तरी वळखलें म्हाका? आरे, हांव तेंच, राजकारण्यांच्या कुर्शाटां वयलें बोल्स, जें दीस रात तुमच्या कश्टांच्या पयशांनी भरून झरो कसो व्हांवत आसता. म्हाका कसलीच शीम मेर ना, तुमी मनीस, खावन खावन जशें पोट मोटें करतात न्हय, तशेंच सगले मंत्री म्हजें हें मखर भर भर भरतात. हांव आतां इतलें भरलां, म्हाका आतां अजीर्ण जायत काय अशें दिसता. भरत रावलां म्हूण न्हय, जाल्यार तुमच्या शिरापानी. हय, अशें अजाप जावन किते पळयतात? किते? हांव उलोवंक कशें शकता काय म्हूण म्हाका विचारतात? आरे, आयच्या कलीयुगांत कितेंय घडूं शकता. मनशाचो फातर, जाल्यार फातराचो मनीस जावंक शकता, जाल्यार एका राजकारण्याच्या बोल्साक कित्याक तोंड फुटचें न्हय? काय वेळा पयली हांव तुमकां किते सांगतालें? आं.. तुमच्या शिरापा विशी. तुमी बाबडे सादे भोळे लोक आपली जीण सोबीत करपा खातीर हाडांची ताडां करतात. रगताचें

**जगांत केली**
**संकश्टांची वारी**
**तरूय बोल्स मात सदांच**
**लय भारी...!**



उदक करून दीस रात चंदनावरी झरतात. पूण तुमकां खरें सांगू, तुमच्या कश्टाचें फळ अर्दा परस चड पटीन म्हज्याच पोटांत येता. तुमच्या कश्टांच्या भांगराची रास करपाक, गुदावां भाशेन म्हजो उपेग जाता. ह्या जगांत रावपी दर एकल्या मनशा लागी म्हजे भाव आसात, पूण ते काबाड कश्ट करून लेगीत रिकामे आसात. दोन वेळचें अन्न मनशाक पोटांत घालपाक मेळत इतले लेगीत पयशे ते मनशांक दिवंक शकनात. आनी हांव, म्हजे भितर पयशे इतले गच्च भरल्यात, तांचो म्हजे भितर घुस्मटमार जावपाक लागला, पयशांचोच पेज पयशांचेरूच इतलो येवपाक लागला, ते एकमेकां सांगातान झगडपाक लागल्यात. भायर सरपाक तळमळूंक लागल्यात. पूण तांचेर दर दिसां रास वाडत आसा. म्हर्जी भाव-भयणां म्हळ्यार तुमची हेर बोल्सां म्हजे कडेन काकुळटेन पळयत रावतात. कारण तीं सदांच सत्याचे दिकेनूच चलतात न्हय रे, तांच्या मनाक दिसता, म्हजो मालक इतले कश्ट करून, म्हाका भरपाक दीस रात एक करता, पूण तांच्या हातांतलो पयसो तांच्या बोल्सां मेरेन पावच्या पयलींच तांच्या हातांतल्यान तो हवे वरी उडून वता. ही अशी आवतिकाय पळोवन म्हाका अशें दिसता, म्हज्या चोंय दिकांनी बोरीचींच झाडां कचकचून भरल्यांत. मनीस जेन्ना बोरींनी वता न्हय, तेन्ना तांकां बोरां मेळटात, पूण ते बोरीचे कांटे तांच्या आंगांतल्यान रगत काडटात. तेच भाशेन म्हाका अशें दिसतां, तुमचे कश्ट म्हाका कांटे जावन तोपतात, म्हज्या आंगांतल्यान व्हांवपी रगत तुमकां कोणांक दिसना. पूण आतां अशें दिसपाक लागलां, म्हजे भितर साचलेली ही पयशांची काळी बुरशी एकदांची नितळ करची. तुमकां म्हजे भायलें रूप धवें फुल्ल दिसतलेंच पूण म्हज्या काळजांत फकत काळो पयसो साचला. रस्त्यार काम करून दिसाक चार-पांच रुपया कमोवपी मनशाचें, तें बोल्स खरेंच आयज संवसारांत मिरयता, पूण हांव मात दिसान दीस मोठें जायत आसा, तुमच्या कश्टाचें फळ दीस रात पचोवन ढेकर दीत आसा. तुमकां सांगू, म्हज्या भितर साचलेल्या ९० टक्के पयशांची आयज ह्या पुराय जगाक गरज आसा. तुमचेच जिणेची उदरगत करपा खातीर खोशयेन नाचत आयिल्ले हे पयशे, तुमचे दिकेन, तुमचे मदी धांवत येताले. पूण मदींच तेच दिकेन एक धुंवराचें व्हड ल्हार आयलें आनी त्याच ल्हारांत ह्या पयशांनी तांची दिकाच बदल्ली. तांकां तुमचे मेरेन पावपाची वाट सापडलीच ना. तुमच्या हक्काचे पयशे आयज म्हजे भितर तशेच कुसतात, पूण तुमकां जाणविकाय ना. म्हजे भाव, भयणीं बाबडीं तीं रितीं आशिल्ल्या कारणान, तांच्या सांगाताक दर एका खिणांक जावपी अन्याया खातीर दोळ्यांतल्यान दुकां गळयतात. तांकां दिसता, हांव राजकारण्यांचें बोल्स, हांव सामकें सुखांत लोळटा आसतलें. पूण हांव खिणा खिणांक रगताचीं दुकां गळयतां. कोरोना विशाणूच्या वेळार एक एक जीव अन्नाच्या गोट्याक तळमळ्ळो, पूण म्हजो गुदांव भरिल्लो. आयज शिकिल्ली सवरिल्ली तरणाटी पिळगी आपल्याक एक ल्हानशें काम सोदपा पासत, चार पयशे जोडून आपल्या घराब्याची जापसालदारकी घेवपा पासत, घरांतल्यांचीं सपना, तांच्यो गरजो भागोवपा पासत वताच्या कडांत रस्त्यार वाट शेणिल्ल्या वाटसरू वरी निर्शेवर्णेत फिरतात. तांकां येस तर मेळना, पूण हांव, म्हळ्यार राजकारण्याचें बोल्स सदांच भरून ओततां. चोंय वाटांनी धडधडपी लोकांचीं काळजां, नुस्तें जावन व्हड व्हड सपनांच्या जाळ्यांत फसतात. तांचीं सपनां तर पुराय जायनात पूण हांव सदांच भरिल्लें. उंच उंच पदव्यो मेळोवपा खातीर प्रवेशा वेळार टेबला सकयल्यान दिवपाक हातांत प्रसाद नासता, देखून शिकपाची उमेद आशिल्ली तरणाटी पिळगी, आयज आपल्यो इत्सा मारून काम सोदपाक भायर पडटा, पूण म्हजी वाट सदांच पयशांनी भरिल्ली आसता. कोरोना विषाणूंक लागून पोटतिडकेंत वावुरपी कितल्याश्याच कामगारांनी तांचें काम व्हगडायलें, देखून तीन वेळे खातीर पोट भरपा पासत अन्न मेळप लेगीत कठीन जालें, पूण हांव पयशांचें गोडशें दीस रात खातालें, पुराय घराब्याची जापसालदारकी आशिल्लो घराचो खांबो, घर चलोवपा पासत आपलो घाम, रगत कशें व्हावयता, पूण तांच्या अधिकाराचो अर्दो वांटो आपशींच म्हजे भितर रिगता. सांगपाक वचत जाल्यार कितल्याशाच गजालींक लाखांनी फांटे फुटल्ले, पूण अशें म्हणटात न्हय, जो उतरां फाटलो मुळावो अर्थ समजता, ताका आपशींच सगल्यो गजाली कळटात.

इश्टांनो, मदीं मदीं म्हज्याच काळजांत आतां हुंवार येवपाक लागला. तुमच्या आवतिकायेच्यो हुयेली नुस्तें जावन ह्या तळ्यांत चोंय दिकांनी पेंवपाक लागल्यात. मदीं मदीं दिसता , म्हज्या भितर रिगिल्ली तुमच्या कश्टांचीं फळां तुमचेर पावसावरी झडोवचीं, तुमच्या मुखामळावेल्या हांशाची कळी परतून एकदा फुलोवची, पूण किर्ते करूं, म्हाका हात ना न्हय, जर म्हाका हात आशिल्ले जाल्यार आयज कोणूच संवसारांत आपल्या पोटाक चिमटो काडून जगचो नाशिल्लो. (वयर नदर करीत)....आरे आरे, आतां कांय वरां पयली तुमी म्हाका भरिल्लें आनी आतां आनीक पयसो म्हज्या भितर घालतात? इश्टांनो, आतां नाका वयल्यान उदक गेल्लेंच आसा, आनीक वयर चडलें जाल्यार म्हजे दोळे लेगीत शाबूत उरचे नात. पूण तुमी तुमच्यो नदरो बंद दवरूं नाकात. चोंय दिकांनी नदर घुबडा वरी भोंवडायात. तेन्ना तुमकां कळटली आनी तेन्नाच तुमकां समजतलीय राजकारण्याच्या बोल्साची काणी....



अस्नोडें-गोंय. मो: ९८२३१९३११७

मोलावर्णी



ग्वादालूप
डायस

जल्म १९७२.
कवयित्री, निबंदकार,
लिपयांतरकार, रोमी तशेंच
देवनागरी लिपींत लेखन,
भुंयफोड, मळबगंगा, जलस्थल
[कविता].ज्वालामुखी
[निबंध], मामाचो गांव हीं
प्रकाशीत पुस्तकां.

# कांटेकुंवर: एक साहित्यीक मलमपट्टी...

*कांटेकुंवर म्हणल्यार एक अणभवांची तिजोरी. हे अणभव चडशे स्वता नयना आडारकार हांचेच आसात असो खीणभर भास जाता. हे नदरेन बऱ्या लेखांनी तांचीच प्रतिमा उबी जाले बगर रावना. पूण अशें करपाची ताळणी निवारून जर दर एका पानार नदर भोंवडायली जाल्यार हे विशय खंय तरी आमकांय सर जाले बगर रावनांत*

In a world full of red roses
Be someone's Aloe Vera
Having 101 qualities of cure!

नयना आडारकार हांचें 'कांटेकुंवर' पुस्तक हातांत पडलें आनी कांटेकुंवरीच्या गूण-धर्मां विशीं केन्ना तरी वयल्यो वळी वाचिल्ल्याची याद जाली। खरें म्हणल्यार, कोणांचेंय साहित्य वाचतना, हेरांनी बरयल्ल्या गजालींची याद जावप म्हणल्यार एके तरेन तो सद्याच्या लेखकान बरयल्ल्या साहित्याचो पराजय। कारण रचनात्मक साहित्य म्हणल्यारूच किर्ते तरी नवें निर्माण करप. आर्दी खंयच्याय विशयाचेर, कोर्णेय कितलेंय बरयलें तरी, तो विशय नवे पद्धतीन वाचकां मुखार मांडप!




पूण 'कांटेकुंवर' हें पुस्तक वाचतना म्हाका आनीक कोणाच्योय ओळी याद जाल्यो तरी हांव नयना आडारकाराच्या साहित्याची हार न्हय बगर जैत अशें मानतां. कारण ह्या पुस्तकांत तार्णे गुलाब जावन कोणाचेंय सूख मिरोवपा परस, दुखांत वांटो घेवन घावे फेखोवपी कांटेकुंवरीक योग्य न्याय दिला. म्हणटकच, कांटेकुंवरीक उल्लेखून जें किर्ते कोर्णे तरी आर्दी बरयलां ताका अदीक उंचाव हाडल्या.

नयना आडारकाराचे कांटेकुंवरीक सगळीं मेळून ६६ पानां आसात. पानां म्हणचे परस दर एक पान म्हणल्यार घाव्यार लायिल्ली एक मलम पट्टीच म्हणल्यार जाता!

*घावे मनाचे। घावे तनाचे। घावे काळजाचे।* ह्या पुस्तकांतलो सूर प्रथम फुरशी आसा. तरी पूण ह्या पुस्तकांतलो दर एक लेख वाचतना, केन्ना ना केन्ना आमीय ह्या प्रसंगांतल्यान गेल्यांत हाची याद खंय ना खंय तरी जाता. वयल्याचाराक खवळ धरिल्ल्या आपल्या घाव्यांक, परत एक पावट जिते करपाची ताळणी येता. कारण, घावे जिते करतकच, कांटेकुंवरीच्या पानां मदलो गिरोप अळंग घाव्यार लावन, वर्सां काळाचो घावो फेखोवपाची तांक ह्या पुस्तकाच्या बऱ्याच पानां भितर आसा!

*कांटकुंवर* पुस्तक म्हणल्यार संवेदनशिलतायेचो झरो. जो इल्ल्याशा सवण्याक धरून (इल्लीशी चोंच) भुके खातीर चोरी करपी आठ वर्सांच्या भुरग्या मेरेन (एका कुरकुटा खातीर) व्हांवता.

हें पुस्तक एक विचारांची खण. 'जिंद से लम्हा मिले उसे चुरालो...' (एक खीण) अशें सांगता आसतनाच 'दाग अच्छे है ' ('दाग अच्छे है), खरेंच काय हे विशीं येवजूंक मजबूर करता.

कांटेकुंवर पुस्तकांत हाताळिल्लो दर एक विशय म्हणल्यार सांसवाची कणी। ती कणी मातयेंत फुरून सामको सामान्य

विशय गंभीरपणान वाचप्यां मुखार हाडपाची कळाशी म्हणल्यारूच नयना आडारकार हांच्या लेखनाची तांक!

खंयचीय गजाल एका केलेडोस्कोपांत घालून पळयल्ल्याची कसरत ह्या पुस्तकांत जाणवता. केन्ना-केन्नाय दोन ओळीं मदली सुवात सोदूंक धडधडपी जीण (दोन ओळीं मदली सुवात) कशे रितीन पलतड गांठपाचो हावेस आनी धोको हांचे मदलो जुगार शिकयता (पलतड गांठटना).



ह्या पुस्तकांत आरसावील्ले सगळे विशय मनीसजात आनी ताचे जिणें भोंवतीं आशिल्ल्या निसर्गा भोंवतीं घुंवतात. हे विशय हातळटना, नयना आडारकार केन्नाय आवयच्या पोटांत णव म्हयने दीस काडपी भुरग्याक, स्पर्शाच्या विस्वासाक जोडटा (एतिकाद-विस्वास). तशेंच जीण लाचार जातकच आत्महत्त्येच्या मृत्यूगोलांत वचून परत भायर येवपाक खरेंच शक्त लागता म्हणपाचेंय ती नकसूदपणान सांगून सोडटा (मृत्यूगोल).

कांटेकुंवर म्हणल्यार एक अणभवांची तिजोरी. हे अणभव चडशे स्वता नयना आडारकार हांचेच आसात असो खीणभर भास जाता. हे नदरेन बऱ्या लेखांनी तांचीच प्रतिमा उबी जाले बगर रावना. पूण अशें करपाची ताळणी निवारून जर दर एका पानार नदर भोंवडायली जाल्यार हे विशय खंय तरी आमकांय सर जाले बगर रावनांत म्हणपाचें समजता. कारण मनीस म्हणलें की (भूक), (भिरांत), (पासिर्येस), (नस्ती बढाय), जिणेंतलें (झुजामळ), (मनबेनुल्ल), (निरागसताय), (संस्काराची मूठ), आदी... हें सगळें आयलेंच न्हय?

जरी कांटेकुंवर पुस्तकाचो गूणधर्म ह्या पुस्तकांत आमचे नदरेक भरतात तरी कांय उणाव उरल्यात तांचेर म्हूण कशी आडनदर करूं येता? देखीक कशें सांगचें जाल्यार नव्या (वेपाराचे दिकेन), (फ्रेंडशीप डे), (बोमाडे), (नस्ती बढाय), (पासिर्येस), (चिरोट्यो) तशेंच कांय हेर लेख उतावळीन सोंपयल्यात अशें दिसले बगर रावलें ना. ते वाचतना अशें दिसता, सांगपाचें खूब किते आसलें पूण वेळाची आनी शब्दांची शीम घालून घेतिल्ल्यान ते बरे जून जावंक नांत. नांय जाल्यार कांटेकुंवरीच्या तरण्यां पानांचेंय म्हत्व कमीच न्हय?

आपूण कितेंय बरयता तेन्ना खंयच्याय लेखकाक एक भान आसूंक जाय. तें म्हणल्यार We write for ourselves and edit for the universe! हे गजालीचेर आड नदर केल्ल्यान ह्या पुस्तकांत (आटयलां), (फाटीक फाट), (बायल म्हणल्यार...), (मनशाचें जिणें), (तिचें वखद) सारकेल्या लेखांचे माथाळे आनीक इल्ले रचनात्मक पातळेचेर बरेच सकल उरतात. त्या माथाळ्यां खाला बरयल्ले एक वेळ लेख बरे आसात पूण हे माथाळे बेजारून दिल्यात वो निमणे घडयेक धाडाय-बडय करून दिल्यात काय किते असो प्रस्न उप्रासता. कांयच आकर्शण नाशिल्ल्या माथाळ्यां खाला किते बरयलां हें जाणून घेवपाचेंय मन वाचकांक उरना. तातूंत सर्जनशिलता तितली दिसना.

अशे कांय उणाव सोडले जाल्यार हें पुस्तक म्हणल्यार जीण जगपा खातीर तयार केल्लो आराखडो अशें म्हणूं येता. कांटेकुंवर पुस्तकांतले बरेच लेख ' Who will cry when you die?'

पुस्तकांतल्या लेखांक सर करपा सारके आसात अशें म्हणले बगर ही मोलावणी अपुर्ण उरतली अशें म्हजें मत!

पुस्तकाचें भायलें पान भोव सुंदर जालां. एके अस्तुरेची सर कांटेकुंवरीक करपाची संकल्पना तोखणायेक पात्र थारता. मित्र समाज प्रकाशना वतीन हें पुस्तक छापून आयलां. मात, पुस्तका भितर जें किते आसा ताका प्रकाशक जबाबदार ना अशें सांगपी सुचोवणी फुडाराक कोंकणीन दिवंची असो नमळायेचो सल्लो दिवंचो दिसता!

कांटेकुंवर पुस्तक एक संवेदनशील मनाचो प्रयोग! त्या खातीर नयना आडारकार हांकां हांव परबीं भेटयतां. हें पुस्तक चडांत-चड लोकां मेरेन पावचें. ताच्या वखदी गुणांचें सार्थक जावचें!



नुवें-गोंय. मो: ८६०५९४२१५७

उमळ



सोबिता
किर्तनी

*ललित लेखन,कथा आनी कविता ह्या साहित्य प्रकारांत रुची आशिल्लें **सोबिता मावजो- किर्तनी** हाची आपली शी एक वेगळी शैली आसा. ताची व्हांवती,सहज सोपी भास हें ताच्या बरपांतलें खाशेलपण...*

*आयतारा श्रुती गेलें म्हूण खबर आयली. पयलेच खेपेक हावें पप्पाल्या दोळ्यांत दुकां पळयलीं. घरांत सगळो बोवाळ जालो. आण्टी-भुरगीं सगळीं आत्यागेर धांवलीं. आत्यान केल्लो आकांत पळोवन हांव भिलें. येदें वया वयलें भुरगें आतां आसा आतां ना। हे परिस्थितींत कितल्या जाणांक घुंवळ आयली. हांव आनी सिद्धी हात घट्ट धरून बसलीं.*

# सगळ्यांच्याच वांट्याक

**म**रणाक हांव थर्त भियेतां. कित्याक लागून हो भंय म्हज्या मनांत बसलो हांव नकळो. पूण एक याद जाता. ल्हान आसतना एक दीस हांव रडत पप्पाकडे गेलें आनी म्हाका मरपाचो भंय दिसता म्हूण सांगलें.

''तातूंत कितें आसा? एक दीस आमी सगळींच मरतलीं.'' अशें सांगून पप्पान म्हजो भंय फाफुडलो. हरशीं पप्पा खूब संवेदनशील. पूण त्या दिसा ताका म्हजेर आयिल्लो आकांत समजलो ना. ताच्या उपरांत मागीर अशें जावते फावटी पडलें. हांव न्हिदूंक वतालें आनी एक आकांताळी चादर म्हाका पुसमटायताली, स्वास जड जातालो, काळजांत खपखपूंक लागतालें, थरथरो भरतालो आनी आकांत आयिल्ले वरी जातालें. कोणाक सांगू? पप्पान तर सांगलां, 'एक दीस आमी सगळींच मरतलीं' म्हूण।

मरण खरेंच भिरांकूळ काय?

म्हजे यादींतलें पयलें मरण म्हज्या आज्याचें, मम्मील्या बापायचें. हांव तेन्ना धा-इकरा वर्सां पिरायेचें. आजो मुंबयचो. एक दीस दनपारचो मामालो फोन आयलो - ''अण्णा गेले.''

पप्पान विचारलें,''कुठे?''

धडधाकट मनीस. भोंवपाक आवडटालें. ताका आनी मरण येत अशें दिसूंकच नासलें. मम्मी खूब रडली. हांवव रडलें. घरांत कोंकणदुदी पळोवन अण्णाक खंव 'दुधी हलवा' खावन दिसलो. खवा हाडूंक म्हूण बाजारांत गेल्लो. रस्तो क्रॉस केलो आनी काळजाचो आताक येवन कोसळ्ळो. जाण्टो मनीस। कोणें म्हळें, 'जावं चलता-भोंवतना मरण आयलें. नशीब बरें।' खऱ्यानीच काय?

पयलें मरण हावें दोळ्यांनी पळयलें तें म्हजे सगळ्यांत आवडीचे आते भवणीचें - श्रुतीचें. नात्यान तें म्हजी बापोल आते भयण. पूण काळजांतल्यान आमचें नातें



हांव उतरानी सांगूंक शकना. एकामेकालीं सगळीं गुपितां आमी शेअर करतालीं. दर सुटयेंत तें माजोड्ड्या येतालें. आमचे मदीं पिरायेचें दोनच दिसांचें अंतर आशिल्लें. शिकपाक मात तें एक वर्स फाटीं. तें आनी ताची धाकटी भयण सिद्धी एकाच वर्गांत शिकतालीं आनी आमी तिगांय एकेच शाळेंत वतालीं. गिमाची सुटी सोंपून निकतीच शाळा सुरू जाल्ली. हांव तेन्ना धावेक आनी तीं दोगांय णव्वेक. मंगळार दिसा आमी मेळ्ळयांत आनी हांवें ताचीं फकाणां लेगीत केल्यांत. बुधवारा तें शाळेंत आयलें ना. आदल्या दिसा ताका खंय घुंवळ आयिल्ली. बिरेस्तारा तें जाप दिना जालें. आनी शुक्रारा ताका हॉस्पिटलांत घालें. सीटी स्कॅन केलो. ताका जॅपनीज एन्सिफिलायटीस जाल्लो. पप्पान सोमतोच प्रमोदकाकाक फोन केलो. डॉ. प्रमोद दुकळो हो हरशीं रेडिओलॉजिस्ट, पूण दोतोरकेचें खूब ज्ञान. ताचेर पप्पालो भोव भावार्थ. ह्या दुयेंसा विशीं म्हायती दिवन प्रमोदकाकान सांगलें, ''प्रे टॅट शी डज नॉट सरव्हाइव्ह. कारण वांचलेंच जाल्यारूय तें व्हेजिटेटिव स्टेटींत उरतलें.''

पप्पान आमच्या मनाची तयारी करूंक आमकां समजायलें. ते राती हांवें देवाऱ्या मुखार रावन देवा कडेन मागलें, 'श्रुती सारकें बरें जावचें ना जाल्यार ताका रोकडेंच व्हर.' आनी खऱ्यानीच आयतारा श्रुती गेलें म्हूण खबर आयली. पयलेच खेपेक हांवें पप्पाल्या दोळ्यांत दुकं पळयलीं. घरांत सगळो बोवाळ जालो. जाण्टीं-भुरगीं सगळीं आत्यागेर धांवलीं. आत्यान केल्लो आकांत पळोवन हांव भिर्ले. येर्दे वया वयलें भुरगें आतां आसा आतां ना! हे परिस्थितींत कितल्या जाणांक घुंवळ आयली. हांव आनी सिद्धी हात घट्ट धरून बसलीं. दादले गंभीर तोंडां येवन आशिल्ले. बायलो मळब कोसळिल्ले वरी रडटालीं. कांय वेळान म्हजी तकली सुन्न जाली. आज्यालें मरण हांवें पळोवंक नासलें. फकत आयकल्लें. श्रुतीलें मात लागींच्यान पळयलें. श्रुती थंय न्हिदिल्लें पळोवन कित्याक कोण जाणा भंय दिसलो. वायट दिसलें. म्हजे जिणेंत एकदम पोकळी जाल्ले वरी दिसलें. पूण कितलो तेंप काय? म्हाका याद जायना. पडये धावेच्या अभ्यासा खातीर जावंये, हांवें विसरायेर घालपाचो येत्न केलो. म्हाका विसर पडूं येताली पूण श्रुतीन मात म्हाका सोडलें ना. तें म्हज्या सपनांनी येत रावलें. म्हजें लग्न जावन म्हाका समजून येवपी मना सारको सांगाती मेळ्ऽ सर......

आनीक एक याद! आमी माजोड्डे गांवांत रावलीं पूण शिकलीं मात मडगांवां. यो वच बशीन. सगल्या बशीं मदीं 'नी ' बस आमकां आवडटाली. कारण नी बशीचे ड्रायव्हर, कंडक्टर खूब मायेस्त आशिल्ले. फकाणां करताले पूण रेस्पेतान. ते तीग भाव आनी 'नी' ही तांची भयण. तिचे नांवान बस आसली. धाकटो भाव जॉर्ज. कांय वर्सांनी ताच्या नांवांन जॉर्ज ट्रॅव्हल्स म्हूण तांणी बस घाली. जॉर्ज आपल्या व्हडल्या भावां वरीच आसलो. पूण पडये वयान चड व्हडलो नाशिल्ल्यान चलयां कडेन उलय नासलो. एक दीस अकस्मात खबर आयली - जॉर्ज मेलो! वाटेर खंय बस बंद पडली. कोणाले स्कुटरीचेर तो कितें तरी हाडूंक गेलो - मॅकानीकाक हाडपाक काय पाने हाडपाक हांव नकळो. वाटेरच एक्सिडॅंट जालो आनी आक्ताक मेलो. खबर कळ्ळी तेन्ना हांव आमच्या दुकानार आसलें. म्हाका शेळो घाम सुटलो. दोळ्यांनी दुकां भरलीं. पूण हांवें तीं आडायलीं. बशीचो ड्रायव्हर-कंडक्टर मेलो म्हूण जुवान चली रडटा तें पळोवन कोणय कितेंय उलयत म्हूण. म्हाका काळजांत खपखपूंक लागलें. थरथरो भरलो. मम्मी-पप्पाक तरी कितें सांगतलें? ताच्या मरणा उपरांत भावांनी बशींत जॉर्जाचो फोटो लायलो. ताचें तें हांसतें मुखामळ पळोवन म्हाका खूब खंत दिसताली. मागीर मात हे बशीच वचूंक नाका दिसपाक लागलें.

वर्सां सरलीं तसो मरणाच्या विचारान येवपी आकांत म्हजो कमी जालो. मानसशास्त्र शिकलें तेन्ना कळ्ळें म्हाका आकांत येता ताका पॅनीक अॅटॅक अशें म्हणटात. हांव व्हड जालें, काय मन निबर जालेंखबर ना. जशीं जशीं मरणां पळयलीं तसो तसो भंय उणो जालो. हांव रॅशनलायज करूंक लागलें - 'बरो सुटलो. हांतुणार आशिल्लो बाबडो', 'जावं, सगळें पळोवन जाल्लें तिचें', 'हांतूणार पडिल्ली जाल्यार कोण करता आशिल्लें तिचें?', 'नशिबांत आशिल्लें कोणाक चुकना ', 'मनीस नशीब बरोवन येवन येता ', 'वेळ तो - कोणाच्यान आडावंक जायना '... हेरां वरीं आतां हांवय उलोवंक लागलें. कांय वर्सां फाटीं तर सोयऱ्यांतले एके बायलेक मरण आयलें तेन्ना तिका न्हेसोवंक लेगीत आदार केलो.

वर्सां सरलीं. एक दीस अॅक्सीडेंट जावन आमचो एक स्टुडंट मेलो. ताच्या

घरा आमी गेलीं. आवय आड्डून आड्डून रडटाली. आत्याची याद जाली. ट्रकाच्या टावरा पोंदा आयलो खंय तो. ताका अँब्युलन्सींत व्हरतना तार्णे आपल्या इश्टाक सांगलें खंय, ''हांव उरचों ना रे!'' हांव विचारुच करूंक शकना त्या भुरग्याक कितें भोगलां आसतलें तें. आपूण मरणा दारांत उबो आसां हें कळप कितलें भयानक आसतलें!

प्रमोदकाकाक्य आपूण मरणाचे वाटेर आसा हें खबर आशिल्लें. ताका जें दुयेंस जाल्लें ताची पुराय म्हायती काडून तार्णे बायले भुरग्यांच्या मनाची तयारी केल्ली. आपणेच! पयलीं अशें जातलें, मागीर तशें... अमूक दीस जगतलों. कशें धजलें आसतलें ताका?

म्हजो पयलो बाळंतेर जावन म्हाका रुमांत हाडिल्लें. कांय वेळान म्हाका मुतूंक वच्चें आसलें. म्हाका अजून सोर लायिल्लो आशिल्लो. पूण म्हाका बेडपॅन घेवपाचें नासलें म्हूण नर्सी वांगडा हांव माण्ण्यांत गेलें आनी म्हाका घुंवळ आयली. नर्स भियेली - म्हाका शुध्दच येना जाली. नर्सीन मम्मीक आपयली. दिदीय आयलें. कोणें म्हजेर उदक मारलें, कोणे पोले फोडले. काचाबूल जावन तीं म्हाका उलो मारतालीं. हाचे पयलीं म्हाका केन्नाच घुंवळ येवंक नासली जाल्ल्यान घुंवळ येता तेन्ना कितें जाता तें हांव नकळऽ आसलें. घुंवळीचो हो एक आगळोच अणभव. त्या खिणाक म्हाका दिसलें - मरण हें अशेंच आसतलें. मेलें की काबार. कांयच कळना. हांव बेठेंच भितालें तर मरणाक. आपूण मरतलें हो विचारुच भयानक. तेन्ना म्हाका दिसता, मरण अकस्मात येवचें. मरतल्याक कळूंकच जायना आपूण मरतां म्हूण. पूण मरतल्याच्या घरच्यांचे नदरेन मात हें फटवल्ल्या वरीच जातलें.

म्हजो मांव गेलो तेन्ना आमकां तो आनी उरचो ना हें दिसूंकच नासलें. जाण्टेपणान कॉन्स्टिपेशन, अॅसिडीटी हे त्रास ताका आशिल्ले पूण दुयेंस म्हणपा सारकें कांय नासलें. देखून २६ तारखेक ताका पोटांत दुखून पित्त गेलें तेन्ना दोताराच्या सांगणे प्रमाण आमी ताचो अल्ट्रसाउंड करून हाडलो. ताका खूब गॅस जाल्लो. दोतोरान वखदां दिलीं. तरी रात भर ताका दुखत रावलें. दुसऱ्या दिसा म्हजो पोव दुसऱ्या दोतोरा कडेन सेकंड ओपिनियन घेवन आयलो. तार्णेय चडार पडल्यार अॅडमीट करूंया म्हळें. दनपारां म्हजे मांयन ताका पेज लायली आनी म्हण्टासर तो दोळे परतूंक लागलो. 'बाबा बाबा' करीत विशालान ताका आपले वेंगेंत घेतलो आनी ताचे हातांतच बाबा गेलो. दोन दीस हॉस्पिटलांत तरी उरिल्लो जाल्यार तितलेंच आमकां आमचे परीन करपाचें तें आमी केलें हाचें समाधान तरी जातलें आसलें. घरच्यांचो विचार केल्यार तें खरें. मातसो पूण वेळ मेळूंक जाय मनाची तयारी करूंक.

आनी तिरायताचे नदरेन विचार केल्यार कितें काय? कोण वळखीचो गेलो जाल्यार ताच्या मरणाची पुराय गजाल कळऽ सर आमी ताचे विशीं उलयतात. चुरचुरतात. पोरण्यो यादी काडटात. आनी मागीर कितें? जो मेलो ताचें खऱ्यांनीच आमकां मनांतल्यान दुख्ख जाता काय? काय उतरांत्तच उरता? आमी आमचे रुटीन, दिसपट्टे वेव्हार चालूच दवरतात. चार दीस गेले काय रूच काडून जेवतात, टिव्ही-मोबायलाचेर रमतात. मजा करपाची करतात आनी मर्दी केन्नाय ते दुखेस्त खबरे विशीं उलयतात. एक दीस आमी सगळींच मरतलीं म्हूण काय?

मडगांव-गोंय. मो. : 9881527581

# कवनां म्हयनाळीं



प्रसाद रायकार

*बंगलुरूच्या आयटी जंगलांनी १०-१२ वर्सां कश्ट करून परत गोंयांत सुशेग सोदत आयिल्लो प्रसाद रायकार लिखापाच्या हेवांक वसळायेन ओंपपी आंवडेवपाचो प्रयत्न करता. सोशल मिडियाचेर ताच्या कथा आनी कवितांचो आस्वाद खूब जाण घेयत आसात.*

## मोग दर्या वांगडा

म्हाका दिसता चलत रावचें
हातांत तुज्या आसचो हात
पळोवंचो दोळ्यांत तुज्या
सुर्य वतना अस्ताक

हाश्या वांगडा सर्त करपी
तीं खळखळीत दर्या ल्हारां
पिशें म्हाका लायलें तुज्या
कोंगऱ्या केंसांत व्हांवपी वाऱ्यान

तुजे एके नदरेन म्हज्या
काळजांत जी जाता धडधड
गोपांत येवन आयक एकदाच
म्हज्या मनाची ही तडफड

जायतें तुका सांगचें आसा
जायतें म्हाका आयकुचें आसा
शब्द तोंडान काडनाशी
खूब समजून घेवचें आसा

नासत हांव राजकुमार
सपनांतलो गो तुज्या
तूं मात सदां उरतलें
काळजाची राणी म्हज्या...

## मनाचो खेळ सगळो

काळखाचें पांगरूण घेवन
हांव त्या घरांत भितर सरलों
घयरांवाचेर हात भोंवडायत
पावलां फुडें घालीत गेलों
कितल्यो मावल्यो म्हजेर चडल्यो
कितल्योच हांवें चिड्डील्यो
भिना भिना म्हणटां खरो
आंगार मात घाम शेळो
पुनवेची रात जरी
दोळ्यां सामकार पडला काळोख
उजव्या हाताक दाव्या बोटांची
पटना जाल्या आतां वळख
आनीक थोडो फुडें सरलो तेन्ना
अकस्मात कोणें मारले उले
हड्डें इतल्या मोठ्यान वाजलें
कानां पड्डे फुटपा उरले
स्वताचेंच बिम्ब पळोवन इतलों
असो हांव कित्याक भिलों..
आनी म्हजीच सावळी म्हाका
अशी कित्याक मारता उलो
खंय आसां हांव, कितें काय करतां हांगा
उतरांची वाट पळयत, मिनटांचीं जालीं वरां
खंयच्यान तरी खांचींतल्यान
आयलें हळूच एक ल्हानशें किरण
दवरून म्हज्या खांदार हात
दोळ्यांत म्हज्या मेळोवन नदर
कांयच उलय नासतना
सगळें शांत जालें त्याच खिणांत
हळू हळू पसरूंक लागलीं
उजवाडाचीं व्हडलीं किरणा
मनाचो खेळ सगळो,
मना भितर सगळो खेळो
अंधारांतली कुमां काडपाक
एक ल्हानशें किरण पुरो

## एकसुरो पडलो मोग

दर्याचे रेंवेंत बोटांनी खेळत खेळत
ध्यान नासतना ती विचित्र चित्रां काडत
हांव तुज्याच विचारांनी बुडिल्लों
हांव तुज्याच विचारांनी शेणिल्लों

हय..आमी त्याच जाग्यार बसून
एका मेकांक घट्ट दसून
मोगाचे ओलसाणेचीं उतरां बदली केल्लीं
जगपा मरपाचीं वचनां दिल्लीं
वांगडाच वचनांचो भार सांबाळप
असोच न्ही ह्या जगाचो कायदो
ना जाल्यार कितें ह्या सगळ्याचो फायदो?

तुज्या काळजाच्या ठोक्यांनी
आयकतालों हांव म्हजें नांव
त्याच कानांचेर आतां जाल्यात
कितलेशेच घाव
तुज्या आवडत्या रुखांचे सावळेंत
आतां न्हीद येना कशीच
वाऱ्यान घुस्पल्लीं ताचीं पानां
तुकाच हांगा थंय आसतात सोदीत
त्या पानांक हांव कितें म्हणून सांगू
म्हज्या मनांतली व्यथा
कशी तांचेर ओवाळ्ळूं

तूं गेलें सगळे सोड्डून
म्हाका एकटोच हांगा सांड्डून
कित्याक म्हणून गेलें तूं
म्हाका एकटो सोड्डून?

ह्याच दर्याचे रेंवेंत...आमच्या मोगाचे सेवेंत
आयकत तुज्या त्या
रुखाच्या पानांचे आवाज
आतां एकटो एकसुरोच मनयतां हांव
आमच्या मोगाची सांज

# काव्य फुलोर

### उध्वस्त देवळांत

ही म्हजी भूंय
आतां निर्मनुश्य जाल्या
हांगा ना म्हजी आवय
**ना तुजी सासाय**
हांगा आसां फक्त हांव
आनी थंय पयस पयस तूं..
हांगा हांव साकार स्वरुपांत
आनी थंय मात तूं निराकार अप्रुपांत...

यो तूं हांगा सक्यल
आनी वसय तुजें एक नवें ब्रह्म
बांद म्हजें देवूळ
आनी जा तूं साकार
दाखय तुजी अनंत सासाय
आनी कर म्हाका निराकार...

हो खेळ
फक्त एकूच वेळ
खेळूच तूं..

सद्या-
एका उध्वस्त देवळांत
तूं म्हाका सोदता
आनी हांव तुका सोदतां
निरंतर
पिशांतर जावन
बस इतलेंच...



- आर. रामनाथ
कुर्टी, फोंडें-गोंय.
मो 9850458 76

### बिहारी: किशोरी आमोणकार

लागना मन हांगा
तुजे बगर पिया
अस्तलो चंद्र तरी
उरता ताची सया

लायता सूर तुजे
मनाक कल्लोळे
रगतांत एकसुऱ्या
पिंपळाची सळसळ.

बिहारीची आलापिनी
म्हजी मोनी विराणी
आवर्तना सुरांचीं तुज्या
खटक्या मुरक्यांची पेणी

लायता सुरांची म्हाका
अशी अनावर तान
फुटून पाखां वता

म्हजें देशांतरा भान

तृप्त अतृप्त हांव
तुजी गूढ बिहारी
उखलून घेता म्हाका
तुज्या सुरांची पालखी

(१७.४.२०२१)



- माधव बोरकार
ताळगांव-गोंय.
मो.:9420222876

### मागिरी

उदेंतिक उदेलो सूर्य
अस्तंताक पावलो
आत्तां सकाळ आशिल्ली
ती सांज काळखेली
दिसा मागशी दीस धांवताती
म्हैनो सरत आयलो
वर्सां घसरत गेलीं
तशीं जिणेचीं चाळीस..पन्नास..साठ वर्सां
न्हंयचें उदक शें व्होळून गेलें..
आनी अकस्मात जाण आयली
इतलो अमुल्य वेळ मगेलो खंय शेणलो?
करचे वेळार कार्य करनी
लेखलें
मागीर उलोंवया,मागीर बरोंवया
मागीर विचार करूंया
मागीर केदना?
मागिरी...
च्या निवन वता
फुलां परमळ निवळता
शपथ घेतिली विसरता
आयिल्ली संद निसरता
आरोग्य होगाळ्नू वता
भरती आशिल्ली सुकती येता
मागिरी राखलारी
जिणेचे सुवर्णक्षण करगून वता
अजूनय वेळ वचनी
चड गेले तरी थोडे उरले
उदास मनाक उमेदीने सांय

आजूनय आकाश बाकी आसा
आजूनय भरारी बाकी आसा
आजूनय भरारी बाकी आसा

- इंदू गेरसप्पे
बंगळुरू
मो.: 9822982448





## कर्तव्य

कर्तव्याचे सांणीचेर
सूख दुख्खाचे दीस झरयले
मुकाट्यान बसून
वत पावसाचे खेळ पळयले

मळबांतलीं नकेत्रां
सपन तुटिल्ले वरीं सकयल पडलीं
तर कांय नकेत्रां
लिपून मळबा आड गेलीं

कर्तव्याचे सांणीचेर
जाणटेल्यांचे विचार
परते परते येवन आपटले
तांचें मन जपपा खातीर दीस रात
म्हजे जिणेक निमणें हांवेंच समजायलें..

**- अलका सिनाय असोळडेकार**
मडगांव -गोंय
९८२२९८११०७



## मेळ

निळशे दोंगुर्लेचर आयज
जमला एक मेळ
झाडां-पेडां वेंगायत
कसलो काय हो खेळ..

पांचवीचार जालीं पानां
फुलां न्हाल्यांत ऋतू न्हाणां
सुकण्यांनी लायला सूर
मोरान घातल्यां पांयजणां

पळस पेटला सावर लजल्या
हुसके फुलां भिरभिरतात
काजुल्यांनी लायल्या दिवे
रातकिडे किरकिरतात

पाकळयांच्या रांगोळयांनी
वाटो सगळ्यो परमळटात
सजल्या पालखी वाजती घुमटां
सैम सगल्याक वेवकारता

दीस गेलो रात सरली
राईक आतां हुसको जाला
चोंय दिकांनी वाऱ्या वांगडा
धोल येवन रकाद धाडला

**- आसावरी कुलकर्णी**
साखळी-गोंय मो.: 8788195598

## पणजे शारांत अशेंच खंय तरी

शारांत बांयो उण्यो आसात
ताची तान भागोवपी
म्हण ते् उदक काडटात
मेळत ते बांयचें

शारांचे मदीं उबें रावून खंयतरी..
खंयतरीच ते उबें आसा
किर्ते तरी..तार्चे नांव
खंयचो तरी..ताचो गांव
कोणांक पडलां?
शाराच्या वाऱ्यान हुबता ताचे केंस तांबशे
शाराच्या वाऱ्यान सगळींच हुबतात म्हण हालीं

शारांत बांयो उण्यो आसात
कोणाचीच तान भागोवपी
पूण तें भेंडार कळशी येवन उबें आसा
तें भरता तातूंत सपनां आपलीं
तें भरता तातूंत
आपले सगळे हावेस
सगळें मळब
सगळी पृथ्वी..

सगळो आदेस
तें पळयत रावता शाराक
खंयचें हाडटलें उदक?
खंय भरतलें सपनां?
राजवाक पुरसून पडलें जाल्यार?
सपनां सगळीं सांडलीं जाल्यार?
जालीं जाल्यार जळीं मळीं?
तें शाराक पळयत रावता
आनी कळशी हांडीर मारून तुरतुरीत
चलत रावता..
गळूंक दिना अकूय थेंबो
थकूंक दिना हात एकूय
तें सगळ्या शाराक हांडीर मारून
तरतरीत चलत रावता..



**- ममता दीपक वेर्लेकार**
पिळर्ण -गोंय.
मो.:7499129281



# काव्यचंवर

## भुरगेंपण उस्तितना

भुरगेंपण म्हळ्यार
मनाकाळजांत कोरायिल्लो
भांगराळे खीण।
भवतालाची चिंता
बाळगिनासतना
बिनधास्त जगिल्लो
ते खेळपा, खावपाचे दीस
हेर भावंडां, वाड्या वेले इश्ट
सगळ्यांनी मेळून काडिल्ली तीं
धुमशेणां,झगडीं,मार-पेट,
सगळेंच कांय खिणाचेंच,
रोकडेंच गळ्यांत गळे घालतालीं.
कोवणे बाल, लंगोर्यो,लंगडी,
गड्डयांनी,लिपच्यांनी,खांब्यांनी,
आंगण जावं पावर्णीनी
हे खेळ खेळून पुरो जातकीर
मागीर घरा भितर
ताबुलफळें,पांच गुण्यांनी
तिखट्यांनी
खेळांची येदी व्हड वळेरी,
कितलेय खेळ खेळ्ळीं तरी
उमेद भागनाशिल्लीं
आमोरेचेर जाणट्यांनी उलो घालो
काय सगळीं भुरगीं फुज्जो।
हात पांय धुवन देवा मुखार बसून
शुभं करोती, मनाचे श्लोक आनी
परवड म्हणप जातालें
जेवण फुडयांत दे मेरेन
वण्टीचेर सावळयांचो खेळ
रंगतालो
हातरूणार पडलीं तरी
पांगरूणां भितरल्यान
किजिलां चालूच आसतालीं
आज्जेचो जावं आईचो धेंगसो पडलो
काय आपशींच वोगी पडटालीं
दिसभराची मस्ती, देखून....
न्हिद रोकडीच वेंगेत घेताली
उदेत्या दिसाचें सपन पांगरून
भुरगेंपण अशेंच सरिल्लें
म्होवाळ खिणाच्यो यादी मात
मनांत अदीं मदीं उफेतात
सुरबूस वास यादिंचो
मनाकाळजांत परमळटा
भुरगेंपण उस्तितना
हांव अशें शेणत वतां...



- सुषमा तिळवे
फाडें-गोंय
मो :9823055751



## तिख्या आदोळी

तिख्या आदोळी आमची वळख
रांदची कूड हीच आमची वळख
हय,हीच तर आमची खरी वळख
तुमी दांत दाखयात,हांसात,हिणसावात
आदोळे भायर आमची उडी ना
म्हणून जाय तशे थोमणायात
लाटणें लाटफळें हातांत येवन
पाळण्याची दोरी घट्ट धरून
आमी कितलींच धुजां जिखलीं
पानां फुलांचे नाजूक तनरेंत
अस्तुऱ्यांच्या सुखदिण्या पदरा आड
आमच्यो कविता पुरयल्यो ना
लेपटोपाचीं बटनां दामीत दामीत
लोगइन लोगआवट करीत रावलीं
विमानां झेलयत मळब झेंप येतली
कोर्णय म्हणूं आमी कवितेंत बंड केलें व
आमी विध्वंस सोडून सृजनताय केळवली
हातांनी साखळ करून मनां मनां जोडली
मातयेंत पांय घट्ट घट्ट रोमून
नव्या युगांत पावलखुणो पितारल्यो
बावलपणाचो बावटो दिगंतात हुबयलो



-माया खरंगटे
मडगाव-गोंय
मो : 9420685278




# जंगल शाळा

(आधुनीक काळाचें हितोपदेश)



## डार्लींगाक कोणें फारायलो?



जंगल भोंवडी करून एक दीस परत येतना, एल्मोन सगळ्या भुरग्यांक तांबडी सुर्लाचें देवूळ पळोवंक व्हेले.

देवळाच्या प्रांगणांत बसून सगळ्यांनी पयलीं स्नेक्स आनी ज्यूस असो अल्पहार केलो. मागीर सगळ्या भुरग्यांनी एल्मोक काणी सांगपाचो आग्रो केलो. तांचें विनवणेक मान दिवन एल्मोन सगळ्या भुरग्यांक एका व्हड रूखाचे सावळेक बसयले. बिंगो आनी चानयेकूय काणी आयकुपाची उमळशीक लागिल्ली.

काणी सुरू करचे पयलीं एल्मोन म्हणलें, ''हांव तुमकां जी काणी सांगतलों ती पऱ्यांची न्हय तर ती सत्य घटनेचेर आधारून आसा. ही काणी रेहान आनी रायना रावता त्या पुणे शारांत घडिल्ली.''

खूब वर्सा आदीं, एक जाणटें जोडपें, अरवींद आनी आरती कपूर ह्याच पुण्यांत रावतालें. तांकां भुरगीं नाशिल्ल्यान तीं दोगांच एका व्हड घरांत एकटींच रावतालीं. देखून तांणी आपले वांगडा एका सुण्यांक पोसपाचो थारायलो.

तर अशेंच एक दीस तांच्यांनी एक गोल्डन रिट्रीवर सुणों हाडलो आनी ताका तांणी नांव डार्लींग दवरलें. आरती एक चामटी बायल आशिल्ल्यान तिणें त्या सुण्याक केन्नाच सारकें जेवण दिलें ना. अरवींदय सुवार्थी जाल्ल्यान तार्णेय त्या सुण्याक कसलोच मोग वा आपलेंपण दाखयलें ना. ताचे खातीर तो सुणो म्हणजे फकत ताचो नोकर वा चौकीदार - वॉचमेन आशिल्लो.

पूण डार्लींग सामको हुशार सुणो आशिल्लो. मालका कडल्यान आपल्याक कसलोच मोग मेळना हाची ताका जाणविकाय आसून लेगीत तो निसुवार्थीपणान आनी नमळायेन तांची सेवा करतालो.

आरती एक दीस सामकें दुर्येंत पडलें आनी ताका परत परत आदाराची गरज पडल्ली. तेन्ना अरविंदाक दिसलें डार्लींग आतां हे परिस्थितींत अडेवो भार सो जातलो. देखून तांणी डार्लींगाक विकपाचो निर्णय घेतलो.

अरवींद एका क्लबाचो वांगडी आशिल्लो. थंय तार्णे आपलो गोल्डन रिट्रीवर विकपाची खबर काडली आनी तेन्ना क्लबाच्या सगळ्या वांगड्यांक ती गजाल कळ्ळी.

त्याच क्लबाचो एक वांगडी अशोकाक सुण्यांची खूब आवड आशिल्ली. तार्णे अरविंदा लागीं उलोवन डार्लींगाक विकतो घेतलो.

पयल्या दिसा सावन अशोक आनी ताची बायल अरूंधतीन डार्लींगाची खूब तुस्त अपुरबाय केली. आपल्याच भुरग्यावरी तीं ताका खावयतालीं आनी

ताचेर उपाट मोग करताली.

अशोक आनी अरूंधतीक प्रिया नांवाचें एक चली आशिल्लें. आपल्या बापायवन आपले पासत सुणो हाडला तें पळोवन तें सामकें उचंबळीत आनी उमेदी जालें.

प्रियाक आतां डार्लींगाच्या रुपान एक सांगातीच मेळिल्लो. तें ताचे वांगडा दर सांज वेळार खेळटालें आनी ताचे कुशीक बशिल्ले कडेन ताचे फाटीर मोगान पोशेतालें. डार्लींग सदृा सकाळी प्रियाक ताचे शाळेचे गेटी मेरेन सोडपाक वतालो. जाल्यार आयतारा वा सुटयेच्या दिसांनी ती दोगांय पार्कांत फुटबॉल खेळटालीं.

आतां आरती कपूर दुयेंसांतल्यान निवळिल्लें. तेन्ना अरविंदाक दिसलें डार्लींगाक परत हाडचो. तो रोखडोच दुसरे दिसा अशोका कडेन गेलो आनी ताणें आपलो सुणो आपल्याक परतून विकतो जाय म्हणपाचें सांगलें.

पूण अशोकान ताका साप्प न्हयकारलो. हें आयकून अरविंद सामको रागान फुरफुरलो.

''हें पळय, डार्लींग म्हजो सुणो, तुवें म्हाका ताका परत दिवंचोच पडटलो.'' अरविंदान सांगलें.

'' पूण स म्हयन्या पयलीं तुवेंच ताका म्हाका विकिल्लो मरे!'' अशोकान ताचो धिक्कार केलो.

'' बरें आसा, म्हाका सांग, तुवें हो सुणो म्हजे लागच्यान विकतो घेतला म्हणपाचें तुजे कडेन किते कागदां आसात?'' अरविंदान उर्मटपणान विचारलें.

''हांवें तुजे कडल्यान हो सुणो विकतो घेतला म्हणपाचो कसलोच दाखलो म्हजे कडेन ना हें मात खरें! '' अशोकान म्हणलें.

''तशें जाल्यार म्हजो सुणो तुवें म्हज्या घरांतल्यान चोरून व्हेल्ल्याची तक्रार हांव पुलीस थाण्यार करतलों'' अरविंद आड्डलो.

अशोक सामको हादरून गेल्लो. ताका किते करचें तेंच कळना जालें.

अरविंदान आनीक मात्सूय वाट पळयनासतना अशोकान आपलो सुणो चोरला म्हणपाची तक्रार पुलीसांत केली. अशे तरेची, सुणो फारायिल्ल्याची तक्रार पयलेच खेप तांकां नोंद करची पडिल्ल्यान पुलीस सामकेच अजापीत जाल्ले.

पुलिसांचो पंगड अरविंदा वांगडा अशोकाच्या घरा ताचो सुणो सोदपाक पावले.

''हो पळयात म्हजो सुणो'' अरविंदान म्हणलें.

''पुलीस डार्लींगाक घेवंक ताचे म्हऱ्यांत वचना फुडें तो तांचेर गुरगुरून भोंकपाक लागलो.

पुलीसांक आतां किते करचें कांयच समजना जालें. थंय आशिल्लो पुलीस इन्स्पेक्टर सुण्यां प्रेमी आशिल्लो. ताणें अरविंदाक डार्लींगाक उलो मारून आपोवंक सांगलें.

ते प्रमाण अरविंदान डार्लींगाक उलो मारून म्हणलें, ''डार्लींग, चल आमी घरा या..''

पूण डार्लींगान मात्सूय कान हालयले नात. वयल्यान ताकाच भोंकपाक लागलो.

उपरांत त्या पुलीस इन्स्पेक्टरान अशोकाक डार्लींगाक आपोवंक सांगलें.

अशोकान मोगान डार्लींगाक विचारलें, '' डार्लींग तुका हांगा आमचे वांगडा रावपाक जाय काय तुज्या पयलीच्या मालका वांगडा वचपाक जाय? तूंच थाराय..''

आपल्या मालेरत सुण्याक हे लोक आपले वांगडा व्हरत ह्या भंयानूच प्रियाच्या दोळ्यांत दुकां दाटलीं. इतल्यान डार्लींगान आपली शेपडी हालयत अशोकाचेर झेंप मारली आनी ताचे गाल ल्हेवपाक लागलो.

हो सगळो देखाव प्रत्यक्षांत पळयतकीर पुलीस इन्स्पेक्टरान म्हणलें, ''ह्या सुण्यान आपलो निर्णय घेतिल्लो आसा. ताका ह्याच घरांत रावपाक जाय. मिस्टर कपूर, तुमी उपकार करून तुमच्या घरा परत वचचें. आमी ही केस हांगांच बंद करतात. डार्लींग गोल्डन रिट्रीवर प्रिया, अरूंधती आनी अशोक हांच्याच सुवादीन उरतलो.

निमणो निर्णय कानार पडना फुडें प्रियाची खोस सामकी तेंगशेर पाविल्ली, ताणें सोमतीच मोगाळ डार्लींगाक वेंग मारली. अरविंदाक आता स्वताचींच लज दिसपाक लागिल्ली, ताणें मान सकयल घालून मोन्यानी आपल्या घराची वाट धरली.



मूळ इंग्लीश - दत्ता दामोदर नायक

(द जंगल स्कूल-ए मॉडर्न डे हितोपदेशा)

कोंकणी अणकार-मानसी वाऊसकार

# एक काणी शाणी शाणी

- डॉ. हनुमंत चोपडेंकार



-११-

## शाणीच्या वनभोजनाची काणी

''शाणी, तुका खबर आसा... फुडल्या आयतारा आमचें वनभोजन खंय!''

मदले सुटयेंत शाळेचीं सोपाणां देंवतना तिसरी 'ब' वर्गांतल्या समीरान ही खबर सगळ्यांच्या कानार घातली तेन्ना वांगडच्या दामून, पेमल्यान आनी गोपाळान,' खरेंच!! होऽऽहोऽऽय !!' असो बोवाळ घालीत उडकीच मारली. नानीन जाल्यार सदचे बशेन वयल्या सोपाणां वयल्यान सरळ सकयल उडकी मारली. खूब फावटी आपली खेळांतली शिटुकसाण तो हेरांक दाखयतना अशी उडकी मारतालो. सोपणां मेजून आठ आसलीं. पूण ताचे उमेदी मुखार तो तीं कांयच न्हय कशीं हुपतालो आनी हेरांक तशें करपाक जमना म्हूण चाळयतालो.

शाळेचें वनभोजन म्हणल्यार भुरग्यांक खूब व्हड गजाल आसली. कारण शारदोत्सव, वनभोजन, खेळाउत्सव आनी स्नेहसंमेलन ह्यो चार कार्यावळी म्हणजे शाळेचो जीव की प्राण आसलो. ह्या चारूय कार्यवळींतल्यान भोंवतणचे पंचक्रोशींतल्यान येवपी सगळे विद्यार्थी आपआपली कला आनी शिटुकसाण दाखोवपाक फुडें सरताले. शाळेचे पालक तशे व्हड शिकिल्ले सवरिल्ले नासले तरीय हे असले उपक्रम राबोवपाक ते सदांच शाळेक तेंको आनी आदार दिताले.

खरें म्हणजे हेडमास्तर कांबळे गुरूजी आनी हेर शिक्षक असल्या कार्यावळीची खबर भुरग्यांक खूब पयलीं सांगिनासले. कारण एकदां सांगलें म्हणटकच कितलेशेच दीस मागीर भुरगीं त्याच मुडांत घुस्पून उरतात, तांचें अभ्यासा वयलें लक्ष उडटा असो वायट अणभव तांचे गांठीक आसलो. ते खातीर भुरग्यांक ही वनभोजनाची गजाल शिक्षकांनी थारयल्ली आसली तरीय भुरग्याक ताची सुलूस लागूंक नासली. पूण समीरा कडच्यान ती भुरग्यांक मेळिल्ल्यान ती शंबर टक्के खरी आसतली हातूंत कोणांकूच दुबाव उरलो ना. कारण रेडकर बाई तांगेर बिराडाक रावताली. आनी ही खबर तिचेच कडच्यान समीराक मेळ्ळ्या आसतली हाचो भरवंसो शाणी आनी ताच्या वांगड्यांक आसलो. तरीय भोळ्या गोपाळाच्या माणकुल्या मेंदवाक तो व्हड प्रस्न पडलोच. तांणी मदींच तोंड घालीत विचारलें -

''हे सम्या, तुका कशें कोळ्ळें? बाईन सांगलें किर्ते रे तुका?''

'' हय रे सम्या बाईन सांगलें तुका?'' दामुनूय समीराक तोच प्रस्न विचारलो

''हय रे सम्या... सांग मरे आमकां... साग सांग...''

सगळ्या भुरग्यांचो चोमो आतां समीरा भोंवतणी जमलो तेन्ना आपणाक आयिल्ल्या वालोराचो नेट करीत तोवूय झेतान सांगपाक लागलो -

''हय, गजाल खरी, बाईच म्हाजे आईक सांगताली. हायें ल्हवूच आयकलें. फुडल्या आयतारा वनभोजन आमचें, हायें सांगलां म्हूण सांगू नाका हां. बाई धोडायतली.''

''पूण खंय वयता वनभोजनाक?''

''खंव म्हणजे,वनभोजनाक आनीक खंव!''

''तशें न्हू रे, जागो खंवचो?''

''होय होय, पूण जागो खंवचो?''

''खंवचो म्हणजे, तळ्यार, मयेच्या तळ्यार!''

मयेच्या तळयार वनभोजन, तेंवूय फुडल्या आयतारा ही गजाल समीरा कडच्यान भुरग्यांच्या कानार पडटकूच सगळेच नाचपाक लागले. हाचे आदलीं सगळीं वनभोजनां चडशीं लागींच म्हणजे देऊळवाड्या वयले झरीर वा धोल्लेचे तळयेर बी जाल्लीं. हे फावटीं चार-पांच किलोमिटर पयस आशिल्ल्या मयेच्या फामाद तळ्यार वनभोजन जातलें हें आयकुनूय भुरग्यांच्या आंगांत एक नवें चैतन्न्य संचारलें. दामू जाल्यार 'या मयां या या या मयां या..' हें गार्णे गायत नाचपाक लागलो. ताचो इश्ट समीरान ही खबर सगळ्यांक दिली हाचो अभिमान ताच्या नाचपांत खेरीतपणान दिसूंक लागलो. तांच्या चोम्या कडच्यान पुष्पा, सिमा, रिमा, कालिंदी, माया, सुषमा आनी लैला ह्या चवथी 'ब' च्या चलयांचो चोमो वयतालो. तांच्या कानार ही खबर पडली आनी तांच्याय तोंडार हांसो फांकलो.

जालें, दुसरे दिसा सावन सगळे शाळेंत वनभोजनाची खबर वायरल जाली. आयच्या सारकी सोशल मिडिया नासतनाय ही खबर इतली वेटान सगळ्यां मेरेन पावली हें सगळ्यांत व्हडलें अजाप आसलें. कारण दर वर्गांत भुरगीं गुरूजी आनी बाईक वनभोजनाक किर्ते हाडचें आनी किर्ते हाडचें न्हय हेच प्रस्न विचारून सतोवपाक लागलीं. वनभोजनाची इतली गुपीत खबर खंयच्यान फुटली म्हूण हेडमास्तर कांबळे गुरूजीकूय प्रस्न पडलो. तांणी तकली लडयली. समीराक आफोवन चवकशी केली. गुरूजीक खबर खंयच्यान फुटली ती कळ्ळें. ताचोच परिणाम म्हूण निमर्णे रेडकर बाईक तापोवणी खावची पडली. ते भायर ख्यास्त म्हूण तांणी रेडकर बाईकूच म्हायती फळयाचेर वनभोजनाची खबर बरोवपाक फर्मायलें. आनी बाईनूय ती ख्यास्त हांसत हांसत आपणायली.

सांगपाचें म्हटल्यार, शाळेच्या वरांड्यांत आशिल्ल्या म्हायती फळ्याचेर वनभोजनाची रितसर खबर वाचून सगळ्या भुरग्यांक सूऽ जालें. कारण बातमी फुटली म्हूण कांबळे गुरूजी आतां तिडकीन वनभोजनूच बंद करीत म्हूण तांकां भंय दिसतालो. खबर फळ्याचेर घातल्या उपरांत सगळ्यांचो हुस्को मेकळो जालो.

तिसरी आनी चवथीच्या भुरग्यांक वनभोजनाक वेवप सक्तीचें आसलें. पयली आनी दुसरेच्या विद्यार्थ्यांक मात वनभोजना खातीर तिसरेंत पावपाची वाट पळोवची पडटाली. तिसरेंत वनभोजनाचो अणभव घेतिल्लो विद्यार्थी परत चवथेंत केन्ना वनभोजनाक वयता हाची वाट पळयतालो. एक तरेचो खोशेचो आनी जायजायसो दीस म्हूण वनभोजना कडेन भुरगे पळयताले.

चार पांच दीस आदींच वनभोजनाची तयारी भुरगीं करतालीं. जेवणाक किर्ते व्हरप, कशें व्हरप, व्हाणो वा बूट खंयचे घालप, चेपें, उदकाची बाटली, मदीं खावपाक फळां, खेळपाक बॉल, रिंगां... एक आनी दोन न्हय तर भुरग्यांचे तकलेंत जायत्यो गजाली एकाच वांगडा गर्दी करताल्यो. मुस्तायकी विशीं हेडमास्तर कांबळेन नियमूच करून दवरिल्लो. शाळेचोच गणवेश घालून वनभोजनाक व्हरप. सुरवातेक कांय पालकांनी ताचेर हरकत घेतिल्ली पूण कांबळे गुरूजी कशेंच बदना हें पळोवन ते फांटी सरिल्ले.

तिसरी 'अ' आनी 'ब' तशेंच चवथी 'अ' आनी 'ब' अश्या वट्ट चार वर्गांतले सुमार एकशे अठरा विद्यार्थी, हेडमास्तर कांबळे, पाटील गुरूजी, कवठणकर गुरूजी, रेडकर बाई, लता बाई, नायक काका आनी पालक शिक्षक संघाचे चार वांगडी मेळून एकशे अठ्ठावीस जाण त्या शिंयाळ्या आयतारा सुमार साडेआठ

वरांचेर शाळेच्या आंगणांतल्यात मयेच्या तळयार वनभोजनाक वचपाक भायर सरले. कवठणकर गुरूजी आनी नायक काकान शेनवार दिसा आदींच कांय सामान तळ्यार पाववल्लें. थोडें सामान तो आनी नायक काका व्हॅस्पा स्कुटरीचेर घेवन गेल्ले. कांय सामान पालक शिक्षक संघाच्या वांगड्यांनी पोतयांनी भरून घेतिल्लें. तातूंत खावपाच्यो वस्तू आसल्यो.

शाळे कडच्यान मयेच्या तळयार पावपाक सुमार अर्दवर चलत वच्चें पडटालें. भुरग्यांच्या खांदार बोटवे आनी बोटव्यांत गरमा गरम खाणा जेवणाचे डबे आनी टिफिनां तयार आसलीं. केन्ना एकदां तळयार पावता अशें तांकां जाल्लें. कांबळे गुरूजीन बरोऽ विचार करून दर एका वर्गाच्या शिक्षकाक आपल्या विद्यार्थ्यांची जापसालदारकी दिल्ली. ते भायर एका एका वर्गाक एक एक पालक मदतीक दिल्लो. अशे तरेन चार वर्गांचे चार गट करून अर्दवराची वाट शिस्तीन सारपाची ताकीत हेडमास्तरान दिल्ल्यान वनभोजनाची पुराय वारी अर्दा वरा पयलींच तळयार पावली. वाटेक रानांतल्यान वयतना भुरग्यां मदीं एक नवी उमेद संचारिल्ली दिसताली. शाणी आपल्या वर्गांतल्या इश्टां वांगडा लायनींत चलतालो. कोण रांग सोडली जाल्यार ताका लायनींत यो म्हूण सांगतालो. कांय भुरगे एकामेकांक तुंकलायताले. रागार फुगार जाताले आनी रोकड्यो सारकेय जाताले. तांचीं पावलां अखंडपणान चलतालीं. हरशीं पांय दुखताले पूण आयज मात ते दुखीक सुटी आसली. आतां पावता, मागीर पावता अशें करीत करीत निमणें सगळी वारी तळयार पावली. सगळ्यांत फुडें कांबळे गुरूजी आनी पालक शिक्षक संघाचे अध्यक्ष आसले. तांच्यांनी वनभोजनाच्या पुराय पंगडाक पयलीं तळयार व्हरनासतना तळ्या फुडल्या कुळागरांत वळयलीं. भुरग्यांनी पळयलें. थंय कवठणकर गुरूजी आनी नायक काका पयलींच पाविल्ले. कुळागरांत भितर सरतांच व्हांवत्या उदकाच्या खळखळ करपी आवाजान सगळ्यांच्याच मनाक धादोसकाय भोगली. तळ्यार्चेच उदक ल्हान ल्हान व्हाळकुल्यांनी कुळांगरांतल्यान मुखार शेतां भाटांनी वतालें.

थारयल्ल्या प्रमाण दर एका वर्ग शिक्षकांनी आपआपल्या वर्गांक चार सुवातीनी बसयले. शिक्षक आनी हेर पालक उबेच रावले. आतां खावपाचो वेळ दिसता म्हूण एक एकटो विद्यार्थी आपआपल्यो पोतयो आनी बोटवे उगडपाक लागले. शिक्षकांनी तांकां तशें करपाक खुणेनूच मनाय केली. नायक काकानूय 'मात्शे रावात' म्हूण आपल्या दोळयांनीच सुचयलें. भुरग्यांचो बोवाळ मात्सो उणो जालो.

इतल्यान हेडमास्तर कांबळे फुडें सरले. ताच्या वांगडा पालक शिक्षक



संघाचे अध्यक्षूव मुखार आयले. कांबळे गुरूजीन सगळ्या भुरग्यांचेर उडटी नदर मारली तशीं भुरगीं शांत जालीं. भुरग्यांचो मोठो पंगड आशिल्ल्यान मात्सो मुखार येवन तांणी सगळ्यांक सुचोवण्यो दिवंक सुरवात केली. शाणीन आपल्या इश्टांक वोगी केले.

''नमस्कार मुलांनो, सर्वप्रथम... या वनभोजनाच्या कार्यक्रमास आपणा सर्वांचे तथा पालक शिक्षक संघाचे मी मनःपुर्वक स्वागत करतो. हे बघा वनभोजन म्हणजे वनात निसर्गाच्या सांन्हिध्यात भोजन घेणे. पण मयेच्या या तळ्याकाठी आम्ही फक्त जेवणाचा आस्वाद घेण्यासाठी नव्हे तर खास निसर्गाचाही आस्वाद घेण्यासाठी आलेलो आहोत. तुम्हाला हा परिसर निश्चितच आवडेल यात शंका नाही.

आतां सर्वप्रथम आम्ही फलाहार करणार आहोत. त्या नंतर तळ्याकाठची सैर होणार आहे. त्यात विविध खेळ पण आपली शिक्षक मंडळी तुमच्यासाठी घेणार आहे. आणि नंतर आपण घरून आणलेल्या जेवणाचा आस्वाद घ्यायचा आहे. ठीक आहे. परंतू लक्षात ठेवा, तळ्या जवळ जायचे नाही. सर्वांनी आपआपली काळजी घ्यायची. शिक्षकांनी दिलेल्या सुचना पाळायच्या आहेत.....''



हेडमास्तरान साबार सुचना दिले उपरांत पालक शिक्षक संघा वतीन भुरग्यांक बटाट फोव वाटले. भुरग्यांनी सुचना दिल्ले प्रमाण आपआपल्यो बश्श्यो आनी कुलेरां हाडिल्लीं तांचो वापर केलो. नायक काका आनी पालकांनी ते फोव सगळ्यांक वांटले. भुरग्यांनी रोकडोच ताचेर ताव मारलो. शाणीक ते फोव खूब आवडटाले. ताका आनीक थोडे खावपाची इत्सा जाल्ली पूण लजून तार्णे आपली इत्सा दांबून दवरली. पूण घरा वचून आईक बटाट फोव करूंक लायतलोंच असो तार्णे मनांत निश्चेव केलो. कांय वेळान शिक्षकांनी आपआपल्या गटाक घेवन तळ्याची भोंवडी आरंभ केली. शिक्षकांचे सुचने वयल्यान खावपाचें सामान बोटव्यां सकट भुरग्यांनी कुळागरांत लॉजाच्या भायल्यान दवरलें. कांय जाणांनी आपलें सामान आपले वांगडा घेवप पसंत केलें.

शाणीची वर्गशिक्षिका लता बाईन आपल्या वर्गातल्या सगळ्या भुरग्यांक एकठांय करून कांय खेरीत सुचोवण्यो दिल्यो. झाडा-झुडपांतल्यान वयताना सांबाळून वचपाक फर्मायलें. 'हो बाई, बरं बाई' अशें म्हणीत भुरगीं मुखार सरली. तिच्या वर्गांत सव्वीस भुरगीं आसलीं. शमी बरें ना म्हूण वनभोजनाक येवंक नासलें. बाईन पंचवीस जाणांच्या त्या पंगडांतल्या शाणीक आफोवन सगळ्यांत मुखार रावपाक फर्मायलें.

थोड्याच वेळान तळ्याचे उजवे वर्टेनच्यान तांची तळे-भोंवडी सुरू जाली. तांच्या फुडल्यान चवथी 'अ' चो वर्ग पाटील गुरूजी घेवन गेलो. लता बाई भुरग्यांक झाडांची आनी हेर वनस्पतींची जमता तशी म्हायती दिवंक लागली. तें पळोवन शाणीचें झाडां विशींचें गिन्यान उफाळून आयलें. तो मर्दी मर्दी बोट दाखोवन 'बाई बिंडीण, बाई जांबळ, बाई पिटकोळी, बाई बदक, बाई बेबकी......' अशी चित्रविचित्र पद्दतीन म्हायती दिवंक लागलो. ताचें तें झाड-पुराण आयकून भुरग्यांचें बरेंच मनोरंजन जालें. बाईन शाणीच्या उतरांचेर लक्ष दिलें

ना. भुरगीं हांसून खेळून भोंवडेचो आस्वाद घेतात हेंच तिका समादानाचें दिसलें. अचकीत शाणीच्या म्हायती दिवपाच्या सुरांत आकांताचो बदल जालो. सरळ चलतना उजवे वटेन पळयत मुखार नदर मारीत तो आड्डलोच.

''बाई दुकर....''

''बाई दुकर....''

पयले फावटीं बाईन लक्ष दिलें ना म्हूण तो परत आड्डलो. बाई दावे वटेन तळयांतल्या बदकांक पळयताली. आवाज वाडटकच तिणें दावे वटेन नदर मारली. पळय जाल्यार पांच ल्हानव्हड रान दुकरांचें एक कुटूंब तळ्या वटेन येता. बाई भियेली. तिचेर आकांत आयलो. भुरग्यांच्या हुस्क्यान ती घामेली. किर्ते करचें कांय कळना जालें. तिणें पाटील गुरूजीच्या मुखा वयल्या पंगडा वटेन पळयलें. तो पंगड बरोच फुडें पाविल्लो. रानदुकरां मदीं दोन व्हड आनी तीन ल्हान पोरांटे आसले. धा पावलांच्या अंतरार त्या दुकरांक पळोवन बाबडी बाई साडयेंत घुस्पून सकयल पडली. भुरगींय आबूज जालीं.

शाणी थंयच उबो आसलो. ताका ताच्या आपल्या 'किचिमिपी' आनी 'झिडीची' याद जाली.तांच्या सहवासांत जनावरांचेर कसो ताबो मेळोवप तो शिकिल्लो. दुकरांचे सुळे पळोवन तोवूय भियेल्लो पूण बाईची अवस्था पळोवन तो शिटूक जालो. ताका कांबळे गुरूजीन सांगिल्ल्या 'हुशार मुलगा आनी अस्वल' हे काणयेची याद जाली. 'शक्ती परस युक्ती श्रेश्ठ आसता' हे गुरूजींचे विचारूय तकलेंत घुंवले. चक्क करून ताचे तकलेंत एक विचार आयलो. सातेरी देवींचें नांव घेवन थोडो वेळ ताणें दोळे धांपले. गांवच्या शाण्या दायचे भशेन 'पाव गे सातेर माते' अशें किर्ते शें पुटपुटीत ताणें शांतपणान किर्ते तरी थारायलें.

सगळ्यांत पयलीं सगळ्या भुरग्यांक तोंडार बोट दवरून वोग्गी रावपाक खुणायलें. आदींच सगळ्या भुरग्यांची दांतखिळी बशिल्ली. ताची शिटकावणी मेळटांच सगळीं भुरगीं वोग्गी रावलीं. शाणीन पळयलें, उजवे वटेंतल्यान तळ्यार उदक पिवपाक येवपाची ती जनावरांची सदची वाट आसली. नदर मारल्यार तें स्पश्ट कळटालें. ताणें खुणेनूच बाईक आनी हेरांक फाटीं सरून वाट मेकळी करपाक सुचयलें. चोर पावलांनी तो सगळ्यांक फाटीं घेवन येयलो.. ल्हवूच ताणें सगळ्यांक ल्हव आवाजांत सांगलें -

''शांत रावात... वोग्गी रावात. आसा थंय बसात आनी फातर कशे आंग घट्ट करात. शांत रावात.

भुरग्यांनी बाईकडेन अपेक्षेन पळयलें. बाईनूय दोळ्यांनी तेंच सुचयलें. ते प्रमाण भुरग्यांनी शाणीची सुचोवणी पाळ्ळी. दुकरांची वाट पयलींच मेकळी जाल्ली. आतां सगळयाक किण्ण शांतताय पसरली. तेच शांततायेंत दुकरांनी हे वटेन ते वटेन नदर मारीत पंगडाच्या फुडल्यानसून उदका वटेन पावलां मारलीं. थोड्या वेळान उदक पिवन पांचूय दुकरां सरळ आपले वाटेन रानांत घुसलीं. भुरगीं आनी बाई उकत्या दोळयांनी सगळें पळयतालीं. कितलोसोच वगत तांचो तांच्या दोळ्यांचेर विश्वासूच बसना जालो. फाटल्यानसून कवठणकर गुरूजी जेन्ना आपल्या वर्गाक घेवन थंय पावलो तेन्ना सगळीं जागीं कशीं जालीं. शाणीचे उपकार मानीत बाईन बेगबेगीन भोंवडी पुराय केली. तळ्याकार देवाक पांयां पडली आनी ताचेय उपकार मानले.

उपरांत जेन्ना सगळ्यांक ही खबर कळ्ळी तेन्ना शाणीन दाखयल्ले शिटूकसाणे खातीर कांबळे गुरूजीन सगळ्यांच्या मुखार ताका शाब्बासकी दिली. लता बाईन सगळ्या वर्गाक आपल्या पयश्यांनी दुदाचो आयस्फ्रूट दिलो जाल्यार पालक शिक्षक संघाच्या अध्यक्षान ताका माथ्यार घेवन नाचयलोच.

त्या दिसा सावन शाणीक पटलें.... शांतपणान निर्णय घेवप सदांच बरें.

(चलता...)

# शाळेक केल्लें बाय बाय

- अभयकुमार वेलिंगकार



जायते पयलीं गांवांत एका
शाळेंत मास्तर शिकयतालो
हातांत घेवन बडी बारीक
भुरग्यांक बरेच शेपलायतालो..१

तोंडांत ताच्या एकूच उतर
मार तुमकां घालतलों
फाटीर काडून वळ बरे
बरप तुमकां शिकयतलों.. २

तुमचेवरी कितले तरी
गाढव हांगा येवन गेले
खावन म्हजे बडये मार
मनीस हांगच्यान जावन गेले.. ३

बडी म्हगेली ही जादवाची
गाढवांक लेगीत मनीस करता
बरप बरें वचून तकलेंत
तांकां देशांतराक व्हरता.. ४

थंयच एक रस्त्या कुशीक
गाढव सदांच चरतालें
गुरुजीचीं मुक्ताफळां
कान दिवन आयकतालें.. ५

ताका दीसऽ आपणेंय बी
शाळेंत ह्या वचून बसचें
गुरुजीच्यो खावन बडयो
आपणेंय बी मनीस जावंचें.. ६

यत्न केले शाळेंत वच्चे
ताका कोणूच लागीं करी ना
भुरग्यांक कितेंय विचारल्यार
तांकां ताची भासूच कळना.. ७

निमणें ताणें थारायलें
कशें तरी शाळेंत घुसचें
गुरुजीकूच विचारून
भुरग्यां मर्दी वचून बसचें.. ८

पुरो जालें गाढवा जिणें
मनशा जिवीत पळोवचें
घेवन देख मनशांची
चार पुस्तकां शिकचें.. ९

सदचे वरी गुरुजी शाळेंत
भुरग्यांक अभ्यास शिकयतालो
हेवटेन तेवटेन भोंवत भोंवत
बडये प्रसाद दितालो.. १०

संद सादून गाढव बाबडें
ल्हवूच शाळेंत घुसलें
मेकळो जागो पळोवन तें
कुशीक वचून बसलें.. ११

गाढवाक पळोवन भुरग्यांनी
केलो एकूच बोवाळ
गुरुजीय सामको घुस्पलो
सुटली तोंडांतल्यान गाळ.. १२

हांवूय आयलां शिकूंक
गाढव तांकां सांगतालें
गाढवाचें तें होंकेवप
कोणाक सांगात कळटलें?.. १३

सगळ्यांनी मेळून गाढवाक
बडय बडय बडयलें
वर्गांतल्यान काडून भायर
रस्त्यार व्हरून उडयलें.. १४

गुरुजी हातचो खावन मार
आपूण मनीस जालें ना
अशें कशें घडलें काय?
गणीत गाढवाक कळ्ळें ना.. १५

गाढवाक मारून मनीस करपी
आजूच कसो चुकलो काय?
चिंतून चिंतून बाबड्या गाढवान
शाळेक केलें बाय बाय.. १६




**हां**व तेन्ना पांचवेक. शाळा सुरू जावन जाल्ले आसतले सात आठ दीस. चोवथी पर्यंत मराठी मीडियम आनी पांचवेक सरळ इंग्लिश मीडियम, आनी तेयबीन पाद्रींच्या इस्कोलांत (आमच्या अवर लेडी ऑफ दिवार हायस्कुलाक तेन्ना पाद्रींचें इस्कोल म्हणटाले). सगळे कडेन येस-फेस आयकून काचाबूल शेजावंक जातालें. तरी बरें, आईनॉ सुटयेंत अक्षर ओळख आनी थोडी मुळावी तयारी करून घेतलली.

ते दीस मिनेझिस टिचरीन म्हाका शेजारच्या ७ वे च्या क्लासांतल्यान चॉक हाडपाक सांगलें. ७ वे च्या क्लासांत सोनपरी शी दिसपी, मुदयाळ्या केंसांची हॅल्मा मीस दारा कडेन फाट करून फळयार बरयताली. दोन-तीन मिनटां जालीं. हांव दारार उबें, मीसीचें बरोवप चालूच. आतां किर्ते करप? इतल्यांत म्हाका याद जाली, काल एक व्हडलो भुरगो आमच्या क्लासांत आयिल्लो तेन्ना तेणें दारार रावून किर्ते तरी म्हटललें. हांवें खाक काडून ताळो साफ केलो आनी हळूच म्हटलें... ''कुसकुसमी टीचर.''

मीसीन कांय आयकलें ना, पूण दारा कडेन बसलल्या भुरग्यांनी मात आयकलें आनी खु-खूक करून लागलीं हासूंक. तशें हांव कोणाच्या फकाणांक भीक घालपी न्हीं. हांवें स्पश्ट ताळ्यान आनी मोठ्यान म्हटलें ...

'' कुसकुसमी टीचर.'' आतां मात हॅल्मा मिसीन फाटीं वळून पळयलें आनी 'येस' म्हटलें आनी हेवठेन क्लासींतलीं सगळीं भुरगीं हासूंक लागलीं. दांत दाखयत हासपी, आमच्या शेजारच्या परशुक दटायत हॅल्मा मिसीन हांवें मागलले चॉक म्हाका काडून दिले .

हांवें घरा वचून आईक विचारलें तेन्ना तें 'कुसकुसमी' न्ही तर 'excuse me' हें म्हाका कळ्ळें. पूण गजाल इतल्यान सोंपल्या खंय! कशी कोण जाणा , ही 'कुसकुसमी' काणी सांजेच्या सगळ्या सेक्शनांन (५ ते ७वी) फा-फा जाली. आनी चलतां भोंवतां म्हाज्या फाटल्यान म्हाका 'कुसकुसमी' आयकूंक येवपा लागलें. पयलीं-पयलीं हांवें केर काडलें ना. मागीर मात तकली विरार जावपाक

लागली. एक दीस हॅल्मा मीसीन म्हाका तपासलले कादेन व्हरपाक आपल्या बराबर स्टाफरूमांत आपयलें. आमी स्टाफरूमा वाटेन चलतां आसतना फाटल्यान आवाज आयलो ... 'कुसकुसमी.'

"Oh , they are still teasing you ?" अशें मिसीन विचारतकीर भरलले म्हाजे डोळे मिसीच्या नदरेंतल्यान सुटले नात.

दोन दिसांनी मीस जेन्ना क्लासांत आयली तेन्ना तिणें एक अनाउन्समेन्ट केली. एका म्हयन्या उपरांत सांजेच्या सेक्शनाचो एक कार्यक्रम जावपाचो आसलो . तातूंत तिणें एक इंग्लिश नाटकुलें बसयल्लें. ह्या नाटकुल्यांतलो दोतोराचो रोल संगीता करतलें. हांव चाट! हे आनी नवें किर्ते ?

"मीस, पूण म्हाका इंग्लिश सारकी येना...."

"We will speak about it later." मिसीन म्हटलें.

वर्ग सोंपतकीर मिसीन म्हाका भायर आपोवन व्हेले आनी सांगलें , "पय, ही तुजी स्वताक सिध्द करपाची संद. तुका चाळोवपी भुरग्यांक तापोवन ओगी करूं येता. पूण तूं आपले जिद्दीन, मेहनत घेवन हो रोल करशीत जाल्यार, तुजें काम पळोवन चाळयतल्यांचें तोंड आपुणूच बंद जातलें."

हांवे हें आव्हान स्वीकारलें. म्हाजी आई आनी म्हाज्या बराबर शिकपी म्हाजी मावस भयण (त्याय परस चड म्हाजी जिवाभावाची इश्टीण) सरिता दोगांय म्हाका प्रॅक्टिस करपाक मदत करतालीं .



नाटकांत एक डायलॉग आशिल्लो, "Take this medicine,you need some rest."

आतां वखदाची रिकामी बाटली मेळ्ळी घरांत, पूण तातूंत मेडिसिन कशें दिसपी liquid नाका? सरिताच्या सर्जनशील (आता ते व्यवसायान फायन आर्टीस्ट आसा ) तकलेंतल्यान एक आयडिया आयली. आमगेर भायर आंगणांत खूब गुलाबी रामुले फुलताले. सद्दां तातूंतले बावलेले रामुले पुंजावप आनी तांचो बुळबुळीत रोस काडून त्या 'मेडिसिना'चे बाटलेंत भरप! मागीर त्या दिसाच्यान नेमान आमी प्रॅक्टिस जातकीर हें काम करतालीं . म्हयनो जाता म्हटल्यार बाटली अर्दी मायज भरली.

नाटका दिसा हांवें म्हाजो रोल बरो नेटान केलो. हॅल्मा मिसीचे दोळे, हांव आत्मविश्वासान इंग्लिश डायलॉग म्हणटना पळोवन लिकलिकले. सामको फुडें स्टेजी कडेन बसलल्या परशुक म्हजे कडेन कौतूक मिश्रीत आदरान पळयतना पळोवन हांव बिनधास्त जालें. त्या दिसाच्यान म्हाज्या फाटल्यांतली 'कुसकूसमी'ची कटकट कायमची सोंपली.

इतल्या सगल्या यादींचो झेलो असो अचकीत ताजो करपी रामुल्याच्या फुला तुका मना-काळजान सावन दिनवास...



ताळगांव-गोंय

# अती आत्मविश्वास बाळगुंचो न्हय...

- आद्या साईश वर्दे



एका गांवांत अनु नांवाचें एक चली रावतालें. ताचे लागीं सोबीत अश्या तरांतरांच्या रंगांचें एक क्रेयॉन बॉक्स आशिल्लें. तें आपलें तें क्रेयॉन बॉक्स सांबाळून सामकें जतनायेन वापरतालें.

एक दीस तें ते रंग घेवन स्कुलांत गेलें आनी तार्णे धवो रंग सोडून बाकींचे सगळे रंग चित्रां रंगोवंक वापरले.

तेन्ना बाकींचे सगळे रंग त्या धव्या क्रेयॉनाक हांसपाक लागले. तेन्ना ताका खूब वायट दिसलें.

एक दीस अनुची चित्रकलेची टिचर बदल्ली आनी ताका शिकोवंक नवी टिचर आयली.

नवे टिचरीन तांचें चित्रकलेचेंय पुस्तक नवें करपाक लायलें.

आतांचें चित्रकलेचें नवें पुस्तक काळ्या पानांचें आशिल्लें. टिचरीन भुरग्यांक ताचेर चित्रां काडून रंगोवंक सांगलें.

अनु आनी हेर भुरग्यांनी खीण भर येवजिलें आनी धव्या क्रेयॉनान मागीर रंगोवंक आरंभ केलो.

अनुचो धवो क्रेयॉन केन्नाच वापरूंक नाशिल्ल्यान तो नवोच आशिल्लो. अनुक आतां ताचो खूब फायदो जालो. तार्णे तो पुराय रंग चित्रां रंगोवपाक वापरलो.

आतां तो धवो क्रेयॉन खूब खोशी जाल्लो. पूण ताका जशे तांचें हेर सांगाती हाशिल्ले तशें तो मात्त तांकां हासलो ना. उरफाटें त्या सगळ्या क्रेयॉना कडेन मायेन पळोवन तार्णे तांचे लागीं इश्टागत केली.

म्हणटकच आमी केन्नाच अती आत्मविश्वास बाळगूंक फावना.



## कोण कितें करता...

बुकीमाम बुकीमाम
कितें रे तूं करता?
बिळांत आसा हुंदीर
धरूंक ताका रावता

कावळ्या काक्या, कावळ्या काक्या
कोणाक रे तूं असो सादयता?
आयज तुजो मामा येता
ताकाच हांव रे आपयतां..

टॉमी,टॉमी पडवेर असो बसून
कोणाची रे वाट पळयता?
चोर येतलो सो दिसता म्हाका
ताचेरूच नदर दवरतां...

- शोभा फुलकार

# त्रिमुन्डा

- अविनाश कुंकळकार

काणयों सांगपाक म्हज्या आज्याक कोण लागना आशिल्लो. तो अशे तरेन काणी सांगतालो, काणी आयकतल्याक सामकार खरीच एक घडणूक घडटा अशें दिसतालें. आयकतलो मन लावन काणी आयकतालो आनी काणीय बी तशीच आसताली, मन लावन आयकपा सारकी.

काणयेंतली पात्रां तो अशे तरेन रंगयतालो, सामकार त्या पात्राचें चित्रूच उबें रावल्या वरी दिसतालें.

खूब वर्सा फाटी अशीच एक काणी ताणें सांगिल्ल्याची म्हाका याद जाता.

त्रिमुखी नांवाच्या त्या भयानक रानांत, मोठ्या एका कांजऱ्याच्या रुखा पोंदाक त्रिमुन्डा नांवाचो एक राकेस रावतालो. तो राकेस आंगान घट्टमूट, फातरा वरी काळो आनी भयानक दिसतालो. ताका तीन तकल्यो आशिल्ल्यो देखून ताचें नांव त्रिमुन्डा आसलें जावंये.

रानांत आयिल्ल्या गोरवां, वासरांक वा चुकून ते सुवातेर पाविल्ल्या वाटसुऱ्याक खावन तो आपलें पोट भरतालो. त्या राना सकयल त्रिवेणी नांवाचो एक गांव आसा. त्या गांवचे लोक चुकून लेगीत त्या रानांत वचनासले आनी त्रिमुन्डा त्या गांवांत येवन कोणा मनशाक वा मोनजातीक खायनाशिल्लो. कित्याक तर ताका त्रिवेणी गांवांत येवपाची बंदी आशिल्ली. तसो ताका शिराप मेळिल्लो. एका साधू पुरसान ताका तो शिराप दिल्लो.

खूब वर्सा फाटीं, एक दीस दनपारच्या वेळार साधू पुरूस त्या कांजऱ्याच्या झाडा मुळांत तपश्चर्या करूंक बशिल्लो. त्रिमुन्डा आपल्या दनपारच्या जेवणाची वेवस्ता करपा खातीर रानांत हांगा, थंय भोंवतालो. अचकीत ताचे नदरेक तो तेजस्वी, रुबाबदार, देखणो साधू पुरूस दिसलो. त्रिमुन्डा ताका पळोवन खूश जालो. आतां हाका खावन हांव म्हजी भूक घालयतलो हें येवजून तो फुडें सरलो. आनी फाटलो फुडलो कांयच विचार करी नासतना साधू पुरसाक धरपाक ताणें आपले दोनूय हात फुडें केले. पूण त्रिमुन्डाचे हात ताका स्पर्श करचे पयलीच एक अनंत उजवाडाचें ल्हार ताच्या आंगांतल्यान भायर सरलें आनी खिणांतूच त्रिमुन्डा त्या ल्हाराच्या झटक्यांत दोन हात पयस शेवटून पडलो आनी साधू पुरूस उठून उबो रावलो... त्रिमुन्डान ताची कितल्याश्याच वर्साची तपश्चर्या भंग केल्ली. तो रागान तांबडो गुंज्ज जाल्लो, ताच्या दोळ्यांतल्यान उज्याचो धग भायर सरतालो. ताच्या आख्ख्या आंगाक उजो पेटिल्ले वरी दिसतालें. रागान ताच्या तोंडांतल्यान कांय उतरां भायर सरलीं.

"हे पिशा राकेसा...। तुका खबर ना, एक साधू पुरसाची तपश्चर्या भंग करप कितलें व्हड पाप तें! कितलो व्हडलो गुन्यांव तो! तुका खबर ना... आयज तुवें केदो व्हड अनर्थ केला तो..."



"हय म्हाका कांयच खबर ना, म्हाका फकत इतलीच खबर हांव भुकेन तळमळटां, म्हाका कांयच दिसना... दिसता फकत तूं, म्हज्या सामकार... म्हजे जेवण जावन उबो आसा. तेन्ना हांव म्हजो वेळ होगडाय नासतना तुका खावन म्हजी भूक सोंपयतां."

भुकेन तळमळटलो राकेस त्रिमुन्डा फणफणलो. तें आयकून साधू पुरूस अदीक रागार जालो. तार्णे आपलो कमंडूल हातांत घेवन तातूंतलें थोडें उदक आपल्या उजव्या ताळटार घेतलें आनी म्हणलें-

" हे महामुर्ख राकेसा, तूं म्हाका खावन तुज्या पोटाची भूक सोंपोवंक शकना... त्या परस हांवूच तुका शिराप दिवन भस्म करतां... साधू पुरसाच्या तोंडांतल्यान 'शिराप' अशीं उतरां आयकून त्रिमुन्डा भियेलो. भंयान आपल्या पोटाची भूक लेगीत विसरलो. आपल्याक माफ कर म्हणून साधू पुरसाच्या पांया पडूंक लागलो, रडूंक लागलो, चूक जाली म्हणून पच्छाताप करूंक लागलो, आपल्या जिवाची भीक मागूंक लागलो... आनी साधू पुरसाक ताची काकूट येवन तार्णे ताका माफ केलो. पूण शिरापा खातीर घेतिल्लें उदक तो परतून कमंडुलांत घालूंक शकना आशिल्लो वा तें भायर उडोवन पवित्र आनी शक्ति वंत उदकाचो अपमान करूंक शकना आशिल्लो. देखून ताका शिराप हो दिवंचोच पडटालो आनी तेन्ना ताका तार्णे असो शिराप दिलो-

" फुडाराक जर केन्नाय चुकून लेगीत तुजें पावल त्या त्रिवेणी गांवांत पडलें तर त्या गांवांतल्या एका बारा वर्साच्या भुरग्याच्या हातांतल्यान तुजे मरण जातलें हो हांव तुका शिराप दितां. " अशे तरेन साधू पुरसान ताका शिराप दिल्लो, देखून तो हाच्या पयलीं त्या गांवांत केन्नाच वचूंक ना.



पूण आयज परिस्थिती वेगळीच आसा. त्या त्रिमुखी रानाची आनी त्रिमुन्डा राकेसाची खबर सगळ्याक कळिल्ली आसा. देखून त्या रानांत जितो मूस लेगीत वचना. रानांत आशिल्ल्या त्या सगळ्या ल्हान व्हड जनावरांक तार्णे केन्नाच मारून खाल्लीं. आतां खावपाचें तर सोडूच, पियेतलो जाल्यार ताका थंय उदक लेगीत मेळना आशिल्लें. अशे परिस्थितींत तो चड तेंप त्या रानांत कसो रावंक शकतालो? देखून फाटलें सगळें विसरून, जीव आसल्यार भीक मागून खावं येता अशें येवजून तार्णे त्रिमुखी गांवांत येवपाचें थारायलें. ताका साधू पुरसान आपणाक दिल्लो शिराप याद आशिल्लो पूण शिरापाच्या प्रतापान, मरणाच्या भंयान, भुकेन चार दीस पयलींच मरच्या परस त्या गांवांतल्या दरेक बारा वर्सा सकयलच्या भुरग्यांक मारून खावन जगप हें बरें. अशें येवजून तो त्या गांवांत भितर सरलो.

गांवांत भितर सरना फुडें तार्णे बारा वर्सा परस कमी वयाच्या भुरग्यांक मारून खावपाक सुरवात केली. दिसान दीस तो भुरग्याक मारून खातालो आनी आख्खो गांव चिंतनांनी आनी दुख्खांत बुडिल्लो. ह्या राकेसाचें किर्ते करचें? ताका कसो धांवडावंचो हेंच सगळे जाण येवजीताले. ही सगळी गजाल शारांत

त्रिवेदी राजाक कळटांच, शारांत सावन राजान आपलें सैन धाडून, त्या राकेसाक धरून म्हज्या म्हन्यांत हाडचो अशें फर्मान सोडलें. सैन्य आयलें, राकेसा वांगडा झुंजलें, थोड्यांक तार्णे खाले, थोडे भियेवन पळून गेले... राजाक खूबच राग आयलो. दुसरे दिसा राजा स्वताच आपूण एक सैन्याची तुकडी घेवन आयलो. गांवच्या त्रिदेवाच्या देवळा कडेन त्रिवेदी राजाची आनी त्रिमुन्डा राकेसाची भेट जाली. दोगांयनी एक-मेकांक पळयतांच झुंजाक सुरवात केली. बरोच वेळ दोगांय मदीं झूंज सुरू आशिल्लें. राजाचें अर्द सैन्य राकेसाच्या जादूई वारांत मेले. राकेस तोंडांतल्यान उजो सोडटालो. राजाय बी अर्दमेलो जावन झुंजतालो. इतल्यांत देवळांतल्यान एक बारा वर्सांचो भुरगो भायर सरून आयलो. हातांत त्रिशूळ घेवन त्रिमुन्डा राकेसा सामकार येवन उबो रावलो. त्या बारा वर्सांच्या भुरग्याक पळोवन राकेसाक साधू पुरसाच्या शिरापाची याद आयली आनी आतां आपलें मरण लागीं पावलां हें ताका समजलें...! तरी तो ताच्या वांगडा झुंजलो आनी थोड्याच वेळान त्या भुरग्यान ताका जितो मारून उडयलो. हो सगळो देखाव पळोवन राजाक अजाप दिसलें. ताचो आपल्या दोळ्यांचेर विस्वासच बसना जालो. तार्णे भुरग्याक आपल्या सरीं आपोवन घेतलो आनी मायेन ताचे तकले वयल्यान हात फिरयत म्हणलें,'' हे शुर वीर भुरग्या, सांग तुजी वळख म्हाका. हांव तुजेर हिसपा भायर खूश जालां... कोण तूं आनी त्या राकेसाक मारपाक तुका कशें शक्य जालें?'' राजान त्या भुरग्या विशीं जाणून घेवच्या पयलीच थंय त्रिदेवाच्या देवळांतलो पुजारी आयलो.

'' राजानो हांव सांगतां तुमकां ह्या भुरग्या विशीं.'' अशें म्हणून तार्णे त्या भुरग्या विशीं सांगपाक सुरवात केली...

'' बारा वर्सां पयलींची गजाल ही. उमाशेची रात सोंपून दुसऱ्या दिसा एकादशीचे फांतोडेर जेन्ना हांव देवळांत आयलों तेन्ना देवळाच्या प्रमुख दारा सामकार म्हाका एक आयजूच जल्मल्लो भुरगो मेळ्ळो. हांवें हांगा थंय पळयलें, हो भुरगो कोणाचो हें जाणून घेवपाचो खूब यत्न केलो. पूण कांयच फायदो जालो ना. देखून हांवें त्या भुरग्याक घेवन आमच्या घरा गेलों. म्हजे घरकान्नीच्या सहमतान ताका आमी आमचोच भुरगो म्हूण मानून घेतलो. फुडें तो वाडलो, व्हड जालो. ह्या देवळांत त्रिदेवांचे सेवेक लागलो. कसल्याच शिक्षणा बगर बरेंच कितें शिकलो. साद्या सभावाचो, उच्च विचारांचो, केन्नाच फट उलोवंक नाशिल्लो असो हो दिव्य भुरगो मेळोवन आमी तर धन्यच जाली... ही त्या त्रिदेवांचीच कृपा...''

पुजाऱ्याची ती जगा वेगळी काणी आयकून राजाय बी प्रभावीत जालो. खोशयेन राज्यान त्या भुरग्याक वेंगायलो आनी म्हणलें,'' पुता तूं ह्या त्रिदेवांचो भक्त, पुजाऱ्याचो पूत आसा, आयज पासून तूं ह्या त्रिवेदी राजाचो पूत. ह्या पुराय राजवाड्याचो राजपूत. हांव तुजेर खूब खूश जालां पुता... सांग तुजी इत्सा कितें आसा? तुजी प्रतेक इत्सा पुराय जातली.'' राजान खूश जावन ताका आशिर्वाद दिलो.

''ना राजानो, तो आपली इत्सा तुमकां सांगूक शकना, तो तर जल्माचोच मोनो. आयज पासून तार्णे एकूय उतर उलोवंक ना.''

पुजाऱ्याची उतरां आयकून राजाक खूब वायट दिसलें. तार्णे भुरग्याक परतून आपले वेंगेंत घेवत म्हणलें, ''आसूं कांय नजो, मुखांतल्यान उलोवंक जमना म्हूण कितें जालें? तुजे हे दिव्य शक्तींत तूं जायतें कितें सांगून वता. तुज्या ह्या अप्रूप रूपान बरेंच कितें दिसून येता. तूं अविनाशी, अवतारी, तूंच खरो चमत्कारी... तूंच खरो चमत्कारी.'' अशें म्हणून राज्यान ताका घट्ट वेंग मारून आपल्या दोळ्यांतल्या दुकांनी ताच्या पांयार अभिशेक केलो आनी हें फर्मान दियत म्हणलें,

''आयज पासून तूं त्रिदेवांचो भक्त , ह्या पुजाऱ्याचो पूत आनी म्हज्या पुराय राज्याचो राजपूत, त्रिधनी म्हणून वळखतलो...''



मानाचें पान



मंजुषा सिनाय तळावलीकार

# युनीट ७३१ टेस्टीमनी

## -लू हल गोल्ड

फाटलीं कितलींच वर्सां शिक्षिकेच्या पेशांत आशिल्लीं **मंजुषा तळावलीकार** मानसशास्त्राच्योय अभ्यासक आसात. भुरग्यांचें मानसशास्त्र समजून घेवन तांकां योग्य दिकेन व्हरप ही तांची मोख. तांकां वाचनाची आवड आसाच, तेच वांगडा समिक्षा, कविता आनी ललित लिखाण हातूंत तांकां रुची आसा. साहित्य अकादेमी तशेंच हेर संस्थांच्या चर्चासत्रांतूय तांचें योगदान आसा.




# जपानी अनैतीक वैजकी संशोधनाचो अमानूश अहवाल..

*सगल्यांनी वण्टी पलतडी उडी मारली. पूण ती बाबडो एकटोच आलतडीन उरलो. तो मेरेन जपानी शिपाय थंय पाविल्ले. तांणी ती क गुळी घालून मारलो. आवाज पलतडच्या तांच्या वांगड्यांनी आयकलो. आपूण सुटलों ना पूण आपले खातीर बाकीचे आपले वांगडी तरी सुटले ह्या समाधानान ती न जीव सोडलो.*

**वि**साव्या शेंकड्यांतल्या सुरवातेची चार ते पांच दशकां जागतीक पातळे वयल्या झुजांक लागून प्रचंड विध्वंस जालो. तो काळ मनशां खातीर हिसबा भायर असुरक्षीत आशिल्लो. पयलें आनी दुसरें ही दोनूय वैश्विक महायुध्दां त्याच काळांत जाल्लीं, जातूंत संवसारांतले लागीं लागीं सगळेच देस सामील आशिल्ले. अमेरिका आनी जपान ह्या दोन देशांत चड वैज्ञानीक संशोधन जाल्ले कारणान आधुनीक अस्त्रां-शस्त्रां आनी वैजकी मळार ते खूब प्रगत आशिल्ले.

वैजकी मळार जेन्ना संशोधन चलता तेन्ना मनशांचे कुडीचो अभ्यास आनी ताचेर प्रयोग केले बगर ते पुराय तरेन यशस्वी जायनात. पूण मेल्ल्या मनशाचे कुडीचेर प्रयोग करून जाय तितली म्हायती मेळटाच अशें ना. म्हूण मनीस जितो आसलो जाल्यार स्पेसीमॅन म्हूण वापरून जाय तितली परिणामकारक म्हायती मेळूं येता. पूण असल्या प्रयोगांक जितो मनीस खंय मेळटलो? म्हणटकच अनैतीक पद्धतीन ते मेळोवंचे पडले. तेदे वेळार जपानान वैजकी मळार जायतें संशोधन करून नवनवीं वखदां, उपचार पद्धती (चडश्यो संसर्गजन्य दुयेंसांचेर) सोदून काडल्यो. आनी ते खातीर तांणी अनैतीक

सद्दलीज युद्धकैद्यांक प्रयोगांत वापरले. तांणीं वैजकी संशोधना खातीर केल्लें अमानुश, अमाजवी कृत्य ४-५ दशकां मेरेन संवसारा कडल्यान लिपोवन दवरलें. फकत संवसारातल्या बाकीच्या देशां कडल्यानच न्हीं तर जपानांतल्या आपल्या देशाच्या नागरिकांक लेगीत तांणी ताचो थांगपत्तो लागूंक दिलो ना. पूण २० व्या शेकड्याच्या निमण दशकांत तें ताच्याच कांय वांगड्यांनी उक्ताडार हाडलें. संशोधना खातीर तांणी किते केल्लें ? खंय आनी कशें केलें? युनीट ७३१ म्हणल्यार किते? ह्या सगल्या प्रस्नाच्यो जापो दिवपी हें पुस्तक *'युनीट ७३१ टॅस्टिमनी'* जें हल गोल्ड हाणें बरयलां आनी टटल प्रकाशनान उजवाडाक हाडलां.

हें पुस्तक बरोवपाक जी म्हायती लागली ती तेदे वेळार जे साक्षीदार आशिल्ले, त्या कृत्यांत भागिदार आशिल्ले तांणी ४० ते ५० वर्सां उपरांत म्हणल्यार १९९० च्या सुमाराक दिवपाक सुरवात केल्या जी लेखकान पुंजावन ताचेर आदारीत हें इतिहासांतलें विदारक सत्य वाचकां सामकार दवरलां. तें अनैतीक आनी अमानवी कृत्य करपाक जे मनीस भागिदार आशिल्ले ते तेन्ना मेरेन सामके जाण्टे जाल्ले. चडशे जाण तर मेल्ले लेगीत. गुन्यावकारी भावनेतल्यान काळजाचेर आनीक भार सोसूं नजो जावन तांणी सगल्यांनी आपलें नांव सांगनासतना त्या कृत्याची साक्ष दिली.

जायती म्हायती जी कितलींशींच वर्सां जपानी सरकारान आनी सैन्यान गोपनीय दवरिल्ली ती जेन्ना भौशीक केली तेन्ना जपानांतल्या नागरिकांक लेगीत ती गजाल सामकी धक्कादायक आशिल्ली. आपल्या देशाच्या नांवाक कलंक लागत म्हूण अजून मेरेन जपानाक कांय जाण ती मान्य करपाक तयार जायनात. तर ती ऐतिहासीक गजाल ह्या पुस्तकांतल्यान लेखकान मांडपाचो यत्न केला. जपानांतल्या वेगवेगळ्या जाग्यांचीं नांवां, तांची भौगोलीक सुवात, तांच्या वेगवेगळ्या लश्करी छावण्यांच्या नांवाचो उल्लेख ह्या पुस्तकांत जायते फावट आयला, जो समजुवपाक मातसो कुस्तार आशिल्ल्यान तो विस्तारान दिवपाचें हांवें मुद्दाम टाळ्ळां. तर ह्या पुस्तकाची थोडे भितर वळख जी आमकां एक संवसारीक ऐतिहासीक घडणुकेची म्हायती करून दितली. आमच्या फाटल्या संवसारीक इतिहासांत कसलीं कांडां घडलीं हें समजुपाक जाय जाल्यार हें पुस्तक मुद्दाम वाचपा सारकें आसा.

### जपानाची युध्दांतली फांटभूंय

१९०४-०५ हे वर्सा जपानाचें सोविएता वांगडा (रशिया) युध्द जालें. ता मेरेन जपानान जितली झुजां केल्लीं तातूंत तांकां समजून आयिल्ले, दुयेंस हें झुजांतलें silent enemy. आमच्या गुळ्यांनी जितले सैनीक मरतात, ते परस जायते पटींनी चड सैनीक संसर्गजन्य म्हामारींनी मरतात. सोविएता आदीं ताचें झुज चीना वांगडा जाल्लें तातूंत ताचे जायते सैनीक 'बेरीबेरी' आनी 'हागवण' जावन मेल्ले. म्हूण तांणी सैन्य उबें करपा इतलोच भर सैन्याचे भलायकेचेर दिलो. वैजकी मळाचेर जायती संशोधना करून बेरीबेरी आनी डिसेन्ट्री सारखेली संसर्गजन्य दुयेंसां जायते प्रमाणांत नियंत्रणां खाला हाडलीं. त्या वेळा वयलो तांचो एक म्हान संशोधक डॉ. शिगा कियोशी हाणें सोदून काडिल्ल्या एका जिवाणूक 'शिगा बॅसिलस' हें नांव लेगीत दिलां.

२० व्या शेकड्याच्या पयले दशकांत जाल्ल्या सोविएता वांगडाच्या युध्दांत जपानान दोनूय वटेंतल्या सैनिकांक वखद विसरद करून बरे जाय मेरेन तांची कुस्वदाद घेतिल्ली. जपाना कडेन आधुनीक वैजकी सेवा आशिल्ल्यान ते आपल्या सैनिकांक बरे भशेन उपचार करतले हें जाणां आशिल्ल्यान सोविएताचें सैन्य जायते फावट आपल्या जखमी सैनिकांक झुजा मळारच सोडून वताले. जपानाचे सैनीक मागीर तांकां आपले लश्करी छावणेंत व्हरून, तांचेर उपचार करून निवळटकच तांकां परत तांच्या देशांत वचपाक दिताले. चीना वांगडा जाल्ल्या युध्दांत लेगीत तांणी धरिल्ल्या जर्मन आनी ऑस्ट्रो-हंगेरियन युध्द कैद्यांक लेगीत तांणी मनीसपणान वागयिल्लें. जपानी नागरीक तांच्या ह्या मनीसपण आनी नितिमुल्यांवादी युध्दनितीचे परंपरेचो अभिमान बाळगिताले. ह्या मानवतावादी वावरा खातीर जपानाचें नांव संवसारीक पातळेचेर जाल्लें. पूण फुडल्या १० वर्सांत हें चित्र झपाट्यान बदलपाचें आशिल्लें.

### २० व्या शेकड्याच्या सुर्वेच्या काळांतली जपानाची वैजकी मळावेली प्रगती

१९२५ ह्या वर्सा जपानान जिनिव्हा परिशदेंत करार केल्लो जाचे अंतर्गत तांकां रासायनीक तशेंच जैवीक शस्त्रां वापरपाक बंदी आशिल्ली. पूण भलायके खातीर संशोधन करपाक तशेंच वैजकी मळार दुयेंसांचेर वखद सोदपाक बंदी नाशिल्ली. स्वरक्षणा खातीर हॉस्पिटलांनी, लश्करी तळार जपानाच्यो जैवीक (Bacteriological) प्रयोगशाळा आशिल्ल्यो, एक्स रे मशीनां आशिल्लीं. झुजांत लडपी सैन्याक कसलेय परिस्थितींत रावचें पडटालें. जायते फावट दुस्मान पक्षांतले सैनीक तांच्या पिवपाच्या उदकांत घाण वो दुयेंसाचे



जिवाणू घालून तें दुशीत करताले आनी जायते सैनीक दुर्येतच पडून मरताले. पियेवपाचे उदक पिवपाक योग्य आसा काय ना हें तपासपा खातीर जपानान एक मशीन लेगीत तयार केलें जें लश्करी तळार व्हरून उदकाची तपासणी करताले. तांची वैजकी सेवा, संशोधन आनी दोतोर लेगीत अमेरिका, युरोपच्या वैजकी सेवा आनी दोतोरां परस उंचेल्या पावंड्या वयली आशिल्ली. आपल्या लश्करांत वैजकी सेवेक सैन्य आनी शस्त्रां इतलेंच म्हत्व जपानी सेनेन दिल्लें. खरें म्हणल्यार अमेरिका आनी युरोप रसायनीक आनी जैवीक शस्त्रां करून आपल्याक फाटीं घालतलीं ही जपानाक भिरात आशिल्ली. १९३१ वर्सा जपान जिनीव्हा करारांतल्यान भायर पडलो आनी रसायनीक आनी जैवीक शस्त्रां तयार करपाचे वाटेर तांणी पावल घालें. त्या सगल्या षडयंत्राचो जनक आशिल्लो एक विक्षिप्त आनी क्रूर दोतोर ज्याचें नांव आशिल्लें डॉक्टर शिरो ईशी जाका इतिहासांत 'डॅव्हिल्स डॉक्टर' म्हूण वळखतात. तार्णे संशोधना खातीर मनशांचेर अनैतीक आनी अमानवी प्रयोग करपाक 'ईशी फाउंडेशन' नांवाची संस्था प्रस्थापीत केली, तीच ती संवसारीक पातळे वयली कुविख्यात 'युनीट ७३१', जी सदांच आपलें काम गोपनीय रितीन करताली आनी ते खातीर सदांच सामान्य नागरिकां मदीं एक गूढ आनी रहस्यमय आशिल्ली.

**डॉक्टर शिरो ईशी - अ डॅवील्स डॉक्टर**

हाचो जल्म २५ जून १८९२ दिसा टोकियो सावन लागींच एका चियोडा नांवाच्या शारांत जाल्लो. ताचो बापूय थंयचो श्रीमंत जमीनदार आशिल्लो. १९१६ ईशीन क्योतो हांगा सरल्या क्योतो ईम्परीयल वैजकी विश्व विद्यालयांत प्रवेश घेतलो. भुरगेपणा सावन ताका व्यक्तिमत्वाची समस्या आशिल्ली. तो सामको आपसुवार्थी, अविवेकी आशिल्लो. आपल्या वर्गमित्रा वांगडा लेगीत तो उर्मटपणान वागतालो. १९२० त तार्णे वैजकी पदवी संपादन केली आनी तो देशाक आपली सेवा दिवपाक 'इम्पेरियल जपानीस आर्मी'त भरती जालो. १९२२त तो लेफ्टनंट जातकच तार्णे टोकियोंतल्या 'फर्स्ट आर्मी' हॉस्पिटलांत आपली बदली करून घेतली. ताका संशोधन करपाची भयंकर उमेद आशिल्ली. दोन वर्सां उपरांत ताका संशोधना निमतान आपूण शिकिल्ल्या त्या क्योतो इम्पेरियल युनिवर्सीटींत परतुपाक मेळ्ळें. थंय युनिवर्सिटींत उंचेले पदार आशिल्ल्या अधिकाऱ्याचे चलये कडेन तो लग्न जालो. म्हणटकच ताचो थंय दबदबो वाडलो आनी ताका संशोधन करपाक जें किर्ते लागता तें मेळोवपाक सोपें पडपाक लागलें. फुडें वचून हीच गजाल ताका मनशांचेर प्रयोग करपाक सहाय्यक जाली. ताका जैवीक आनी रसायनीक युध्द सामुग्री तयार करपांत चड रस आशिल्लो. जैवीक शस्त्रां करपा खातीर लश्करांत एक स्वतंत्र विभाग तार्णे करून घेतलो जंय तो जिवाणू (Bacteria) आनी विखारी गॅस हांचेर अभ्यास करूंक लागलो. तार्णे उदक निवळ करपाची यंत्रणा सोदून काडली जी आर्मी वांगडा जाय थंय व्हरपाक मेळटाली. फुडलें संशोधन करपा खातीर तो स्वखर्चान युरोपांतल्या वेगवेगळ्या २० देशांत रावन आयलो. १९३० क तो परतो आयलो तेन्ना जपानी आर्मींचें देश प्रेमान तापिल्लें वातावरण ताचे खातीर पोशक आशिल्लें.

**मंचुरियाचेर जपानी कब्जो**

मंचुरिया हो चिनाचो प्रदेश रशियेन काबीज केल्लो तो जपानान रशिये कडल्यान काबीज केलो. थंय चीनान चिनी पुर्व रेल्वे कंपनीन दक्षिण मंचुरियन रेल्वे बांदिल्ली. त्या रेल्वे मार्गाक लागून जपानाक थंय औद्योगीक आनी वेवसायीक वसाहत करपाक बऱ्याक पडली. हो मंचुरियाचो एक भाग अजून मेरेन चीना कडेन आशिल्लो. तोवूय जपानान काबीज केलो. मंचुरियाक तांणी स्वतंत्र सरकार स्थापलें आनी मंचु राजवंशाचो वंशज हेनरी पु यी हाका थंयचो

मुखेल कार्यकारी नेमलो, जो फकत जावा पुरतोच आशिल्लो. खरें नियंत्रण जपानाच्या लश्करातल्या उंचेल्या पदा वयल्या लोकांकच आशिल्लें आनी तातूंत फुडें आशिल्लो डॉ. शिरो ईशी. ताची आतां सगली तयारी निमण्या पावंड्यार पाविल्ली. मंचुरिया हें स्वतंत्र राज्य आशिल्ल्यान ताका आतां किर्तंय करपाक जपानाच्या सरकाराची कसले परवानगेची गरज लागची नाशिल्ली. ताका सगलें रान मेकळें आशिल्लें. थंय तार्णे वैज्ञानीक आनी संसर्गजन्य रोगाचेर प्रयोग करपाची प्रयोगशाळा बांदली. थंय वेगवेगळ्या रोगांचेर संशोधन करपाक जायतीं युनीटां आशिल्लीं. चीना कडेन युध्द करून करार मोडिल्लें कारण दिवन १९३२ त जपानाक संयुक्त राश्ट्र संघटनेन जिनिव्हा परिशिर्देतल्यान भायर मारलें. तेंवूय एक वटेन जपानाक बऱ्याकच पडलें. आतां तांचेर जैवीक आनी रसायनीक शस्त्रां करपाचेर कोणाचेंच बंधन उरलें ना. डॉ. शिरो ईशीन रोकडीच एक प्रयोगशाळा टोकियोकूच बांदून घेतली.

## जपानी जैविक प्रयोगशाळा

१९३२त जपानी लश्कराची एक तुकडी मंचुरिया हांगा सरल्या हर्बीन ह्या शारांत पावली. तांच्या फाटोफाट डॉ. ईशी आनी ताचे सहकारीय गेले. थंय तांणी एक प्रयोगशाळा उगडली. जिवीत मनशांचेर प्रयोग करपाचें काम तांकां गुपचूप करपाचें आशिल्लें. पूण हर्बीनाक जायते जाणांच्यो नदरो तांचेर आसात अशें तांकां दिसून आयलें म्हूण लोकांच्या दोळ्यांक उदक लावपाक थंय लशी आनी बाकीचीं कांय उपयुक्त वखदां तयार करपाक लागले. हर्बीन सावन १०० किलोमीटरांचेर एक बीईन्ह नांवाची सुवात तांणी हेरली. थंय सुमार ३०० घरां आनी दुकानां आशिल्ली वस्ती आशिल्ली. ईशीचीं मनशां थंय गेलीं आनी थंय रावतल्यांक तांणी ती सुवात रिकामी करपाक लायली. वसती रिकामी करतकच थंय तांणी रावपाक एक १०० कुडी आशिल्ली एक व्हड इमारत बांदली. कमी पगाराचेर चीनी कामगार त्या सगल्या बांदकामाक तांणी लायले. जपानी शिपायांची कडक नदर तांचेर आसताली. हे सगळें कित्या खातीर बांदतात हाचो थांगपत्तो तांणी कोणाक लागपाक दिवक नाशिल्लो. थंय तांणी प्रयोगशाळा, कायद्य तर्शेच मनशा ल्हासपाक मसड्य बांदिल्ली. ते भायर पांचशें चौखण मीटर जागो हो restricted military zone म्हूण घोशीत केलो आनी थंय एक विटांची इमारत बांदली. थंयच तांणी मनशांचेर प्रयोग करपाक एक युनीट बांदलें जाका युनीट ७३१ म्हूण नांव आशिल्लें जो जपानी लश्कराचो मरणसापळोच आशिल्लो. भोंवतणी ३ मीटर उंचायेची एक वणत बांदिल्ली जाका विजेची हाय वॉल्टेजीची कांट्याची सरी लायिल्ली. दोन लोखंडाची दारां जाचेर २४ तास पारो आसतालो. भायले वटेन पळयल्यार तो एक किल्लोच कसो दिसतालो. फुडलें वटेनचो रस्तो नागरिका खातीर निर्बंदीत आशिल्लो. थंयच्या नागरिकाक ताचे बद्दल बरेंच कुतुहल जाल्लें. एक फावट एक भुरगो उमळशिकेन तें पळोवपाक थंय गेलो तर दुसरे दीस ताचें मडेंच मेळ्ळें. इतलो बंदोबस्त आसून लेगीत थंय आसपास रावपी लोकांक ती फकत एक बंदखण न्ही तर ती एक मनशांचेर प्रयोग करपाची खुनी जैवीक प्रयोगशाळा हें रोकडेच समजून आयलें. थंय खंयचेय वेळार ५०० ते ६०० कैदी दवरिल्ले आसताले. प्रयोगाक लागपी मनीस हे चडशे करून युध्दकैदी आसताले. कोणूच मेळूंक ना जाल्यार थंय भायर रस्त्यार लेगीत मेळपी मनशांक ते शिपाय धरून हाडटाले. आनी हे प्रयोग थंय सरलें युनीट ७३१ त चलतालें. अशे तरेन तांणी जित्या मनशांचेर प्रयोग करपाचो सांवार सुरू केलो.

## किळसवाणे प्रयोग

थंय चलताले ते प्रयोग आंगार कांटो हाडपीच आशिल्ले. ज्या मनशांचेर प्रयोग जावपाचे आसताले तांकां खावपा-जेवपाक बरें पौश्टिक दिवन तांकां घटमूट दवरताले. ताचें फाटलें प्रयोजन म्हणल्यार तांकां निरोगी दवरून तांचेर जावपी प्रयोगाचो निश्कर्श वेवरथीत येवंचो हें आशिल्लें. आनी ते प्रयोग सामके अमानवी आशिल्ले. तातूंतलो एक प्रयोग म्हणल्यार ते मनशाचें रगत काडटाले आनी कितलें मेरेन रगत काडल्यार तो जितो उरता तें पळयताले. दुसऱ्या प्रयोगांत मनीस फकत उदकाचेरूच कितलो तेंप जितो उरता तें पळयताले. कांय जाणांक विखारी इंजेसांव दिवन कितली मात्रा दिवन मनीस कितल्या वेळान मरता तें पळयताले. कांय जाणाच्यो गोमट्यो कुराडीन कापताले आनी मेंदवाचेर अभ्यास करपाक फकत मुंडकें दवरताले. थंय दवरिल्ल्या युध्दकैद्यांची जिते उरपाची शक्यताय फकत म्हयनो भर आसताली. तो मेरेन तांचेर प्रयोग करून तांकां मारून उडयताले आनी नवे कैदी घेवन येताले. अरतुस्यांकूय ते धरून हाडटाले आनी तांचेर जावपी अत्याचार तर आनीकूय भयानक आसताले. लैंगीक दुर्येसाचो अभ्यास करपाक लागून ते दादल्या भितर गोनोरिया जिवाणूची लागण करताले आनी ते उपरांत त्या दादल्यांक जबरदस्तीन बायलां वांगडा संभोग करपाक लावन तांकां गुरवार करताले. लैंगीक दुर्येसाची लागण कशी आनी कितली

जाता हाचो अभ्यास करताले. उपरांत तांचे अर्भक काडून तांचेरूय प्रयोग करताले. क्रुरपणाचे कसलेंच मापदंड तांणी सोडूंक नाशिल्ले.

मनशाक ऑपरेशन टेबलाचेर घालून ताका जितोच कातरपाक आनी तो जितोच तडफडटना ताचेर प्रयोग करपाक तांकां कांयच दिसनाशिल्लें इतले ते बेरड जाल्ले. कांय वेळार तर ते तांकां कातरताले. तांचे अवयव काडटाले आनी अदला बदली करून परत शिंवताले. काळजा जाग्याचेर किडनी आनी लिवरा जाग्याचेर काळीज अशी अवयवांची बदली करून किर्ते जाता ताचोय अभ्यास ते करताले. ते मानसिकतायेन सामके क्रुर आनी विकृतच जाल्ले.

## युध्द कैद्यांचे जपानी बंदखणींतल्यान धाडसी पलायन

त्या जपानी मरण सांपळ्यांतल्यान पळून वचप खरें म्हणल्यार अशक्यच गजाल आशिल्ली. तरी आसतना एक धाडशी निर्णय घेवन ली नांवाच्या एका कैद्यान बंदखण फोडून पळून वचपाची एक मांडणी केली. थंयच्या झोगमा नांवाच्या बालेकिल्ल्यांत तेदे वेळार चाळीस कैदी आशिल्ले जे पयलीं कांय काळ हर्बीनचे कादर्येत दवरिल्ले. १५ ऑगस्ट १९३६ हो दीस तार्णे वेंचून काडलो. ते दिसा जपानी शरद ऋतुची (autumn) सुरवात आशिल्ल्यान जपानी लोकांची परब आशिल्ली. ते निमतान बंदखणीचेर नदर दवरपी शिपाय पार्टी करून पिवन सुस्त पडपाचे आसात म्हूण ताका कल्पना आशिल्ली. कैद्यांकूय बी मेजवानी दवरिल्ली. तांकां जेवण घेवन जेन्ना गार्ड आयलो तेन्ना तार्णे ताचो हात धरलो आनी तकलेर एक धपको मारून ताका बेशुध्द केलो आनी ताच्या कंबराचो चाववांचो घोस काडून बंदखणीचें दार उकतें केलें. बंदखणींतल्या बाकीच्या कैद्यांकूय तार्णे भायर काडले. जे कोण रगत काड काडून चड अशक्त जाल्ले तांकां थंयच सोडचे शिवाय दुसरो पर्याय नाशिल्लो. बंदखणींतल्यान भायर आयिल्ल्या कैद्यांचें नशीब जोरार आशिल्ल्यान ते दिसा वीज पुरवठो बंद पडिल्लो, जे खातीर सर्च लाइट आनी भोंवतणचे वण्टी वयली विजेची सरीय निश्क्रीय जाल्ली. वण्टी कडेन पावतकच तांणी एकमेकांच्या खांदार उबे रावन मनशांची निसण तयार केली. ली स्वता सगल्यांत सकयल रावलो. सगल्यांनी वण्टी पलतडी उडी मारली. पूण ली बाबडो एकटोच आलतडीन उरलो. तो मेरेन जपानी शिपाय थंय पाविल्ले. तांणी ली क गुळी घालून मारलो. आवाज पलतडच्या तांच्या वांगड्यांनी आयकलो. आपूण सुटलों ना पूण आपले खातीर बाकीचे आपले वांगडी तरी सुटले ह्या समाधानान ली न जीव सोडलो. पलतडी पाविल्ले जिवाच्या आकांतान धांवताले. शिपायांनी तांचेरूय गुळ्यो घाल्यो, ज्यो जायते जाणांक लागून ते मेले. ज्या मनशांचे चड रगत काडिल्लें ते बाबडे धांवतना जाम जावन पडून मेले. आनी कांय जाणांक तांणी जितेच धरून परत बंदखणींत घाले. पूण तातूंतले सात जाण सुटले आनी तांणी युनीट ७३१ चें गूट संवसारा मुखार उक्ताडार हाडलें.

ज्या कोर्णे गांवकाऱ्यान तांकां आसरो दिलो तार्णे फुडें ४० वर्सांनी १९८४ त ती घटना कथन केली. मध्यान राती ताका घरा फाटल्यान पावलांचो आवाज आयकूंक आयलो आनी रोकडोच कोर्णे तरी जोरजोरान दार धोडायलें. दार उगडून पळयल्यार भायर सात जाण उबे आशिल्ले. तांच्या दोनूय पावलांत लोखडांच्यो साखळयो आशिल्ल्यान तांकां चलपाक लेगीत त्रास जाताले. ताच्या भावाक दिसलें ते आपल्याचेर हल्लो करीत म्हूण तार्णे आत्मरक्षणाक कुराड उखल्ली. पूण तांणी वेगवेगीन किर्ते घडलें तें सांगपाक सुरवात केली. तें आयकतकच तार्णे आनी ताच्या



भावान ताका एक सुरक्षीत अश सुवातीर करून दवरले. कुराडीन ताच्या पायांतल्या बेड्यो कापल्यो. दुसर दीस ताका सादोत आयिल्ल्या जपानी शिपायां पासून त्या सातूय जाणांक ताणी लिपावन दवरले. उपरांत ते सातूय जाण काय दिसानी मात्श निवळटकच आपले छावणीत परतले आनी युनीट ७३१ त चलिल्ले काररस्थान ताणी उक्ताडार हाडलें.

## पिंगफेंगचें युनीट

हार्बीनचें काररस्थान उक्ताडार पडटकच थंय सावन लागींच आशिल्ल्या ताचे आनीक एक सुवातीचेर ईशी फाउंडेशनान युनीट ७३१ ची एक शाखा थंय उबारली आनी ताचें अमानवी कृत्य थंय चालू दवरलें. डॉ. ईशी आपले संशोधनाचे महत्वाकांक्षेंत इतलो धुंद जाल्लो, ताका आपूण मनशांचेर करपी अन्याय, अत्याचाराचेर मात लेगीत पश्चताप जाय नाशिल्लो. हिटलरान केल्लें कुकर्म रोकडेंच संवसार भर फामाद जाल्लें पूण वैज्ञानीक संशोधनाच्या नांवार चलयिल्लें कांड मात जपानी लश्करान संवसारा पासून लिपावन दवरिल्लें. आपल्या नागरिकांक लेगीत ताची मात लेगीत सुलूस लागूंक दिली ना. तशें वैजकी क्षेत्रांतल्या बाकीच्या संशोधकांक ताची कल्पना आशिल्ली पूण आपल्याकूय त्या संशोधनाचो लाव मेळटलो म्हूण आनी काररस्थानी ईशीचे भानगडीक पडून जीव गमावपाक नाका म्हूण तेवूय वगीच रावले.

उपरांत तांच्या युनीटांत काम करपी एक मनशान साक्ष दितना सांगलें, तांचे बंदखणींचीं दारां जमनी पातळेचेर आशिल्लीं जे वरवीं तांकां कैद्यांचे रगत काडपाक बरें पडटालें. अशक्त जाल्ल्या त्या कैद्यांक उबे रावपाची वो बसपाची लेगीत ताकद नाशिल्ल्यान, न्हिदिल्ले कडेनच ते लोखडांच्या सळ्यांतल्यान हात भायर दिताले आनी हे रगत काडून घेताले. तांच्या प्रयोगाचे निश्कर्श अचूक येवचे हे खातीर हांगासरूय बी निवळसाण बरी दवरताले आनी खाण जेवणूय तांकां पौश्टिक दिताले.

थंय दवरिल्ल्या कैद्याक 'मारूत' म्हणटाले. जपानी भाशेंत मारूत म्हणल्यार लाकडाचो लोळगो. ताची फाटली गजाल अशी.. जेन्ना ते पींगफेंगचे युनीट बांदताले तेन्ना तांणी लोकांक फटोवपाक लाकडाची भंगसाळ बांदतात म्हूण वदंता घाल्ली. पूण थंयच्या लोकांक ती कसली भंगसाळ तें बेस बरें खबर आशिल्लें. ते खातीर थंयचे लोक उपहासान थंय धरून हाडिल्ल्या मनशांक लाकडाचे लोळगे म्हणटाले. आनी खरेपणान पळोवपाक गेल्यार ईशी फाउंडेशनाच्या मनशाक निर्जीव लोळग्या इतलेंच त्या कैद्याचें अस्तित्व आशिल्लें. तांका नांवान बी उलो मारनाशिल्ले तर तांका मारुत नंबर १, नंबर २ करून आपयताले. तांचेर प्रयोग करून जातकच तांका ल्हासून उडयताले. युनीटांत मनशाच्यो कुडी ल्हासपाक जी मसड आशिल्ली ताका खरें म्हणल्यार मसंड म्हणप म्हणल्यारच समा जावचें ना. ती एक भट्टी कशी आशिल्ली. तातूंत घाल्लें मडें रोकडेंच जळटालें, कित्याक तर ते कुडींतले सगळे अवयव पयलींच काडून घेतिल्ल्यान त्यो भितरल्यान चडश्यो रिकाम्योच आसताल्यो.

मनशांचेर केल्ल्या प्रयोगांतल्यान थंयच्या संशोधकांक जित्या मनशां भितरल्या अवयवांचेर दुर्येसाचे किर्ते परिणाम जातात आनी लागण कशी वाडटा ताचो अभ्यास करपाक मेळटालो. मनीस मरतकच ताच्या मड्याक हेर जिवाणुंची लागण जाल्ल्यान, असले प्रयोग तांकां मनीस मरतकच करपाक मेळनाशिल्ले. मनशाक ऑपरेशन टेबलाचेर कातरतना तांकां हुंगरी बी दिवपाची तकालस ते घे नासले. कातरून पोटांतले सगळे अवयव भायर काडटना ते कैदी जितेच आसताले. तांचे म्हत्वाचे अवयव काडटकच वो चड रक्तस्त्राव जावन ते प्रयोगाच्या टेबलाचेरूच मर्दींच केन्ना तरी मरताले. पूण मनशाच्या मरणाचें संशोधकांक कांयच पिकासांव नासतालें. पिकासांव केन्नाय जालेंच जाल्यार तांचो प्रयोग अर्दो उरिल्लो आसतना मनीस मेलो जाल्यारूच.

हर्बीन आनी पींगफेंग ह्या दोन प्रयोगशाळां भायर एन्डा, शिनजींग, ग्वागंझाव, बीजींग, शिंगापूर आनी हिरोशिमा हांगासरूय तांणी जैवीक संशोघन करपाक प्रयोगशाळा बांदिल्ल्यो. १९४१ मेरेन जपान्यांच्या सगल्याच प्रयोगशाळांत मनशांचेर प्रयोग करपाक बांदिल्ल्या युनीटाक युनीट ७३१ अश्या व्यापक नांवान वळखताले.

## लागणीचीं दुर्येसा आनी रोगप्रतिकारक वखदां

आदले काळा सावन हुंदीर आनी हुलको (flea) हांचे खातीर मनशांक प्लेग आनी आनीक हेर तरेच्या धामाची लागण जाताली. हुलूक ही हुंदरांक जावपी प्लेगाच्या विशाणुंची वाहक. आनी ताचेच पीक जपानी शास्त्रज्ञ आपल्या युध्दा खातीर वापरपाक तयार जावपी जैवीक शस्त्रांच्या संशोघना खातीर घेताले.

मंचुरियांत शाळेंत वचपी भुरग्यांक लेगीत ते हुंदीर पोसपाक लायताले. ते करपाक तांकां एक पांजरो, तांचे खातीर उदक आनी

खाण इतलेंच लागतालें. तो थंयसरल्या भुरग्यांचो पयशे जोडपाचो एक मार्ग जाल्लो. पूण त्या हुंदरांचो लोका मर्दीं धाम पसरावपा खातीर वापर जाता हें मात त्या भुरग्यांक खबर नाशिल्लें.

रस्त्या वयले हुंदीर पुंजावपाक लेगीत तांणी आर्मीतले खास कामगार नेमिल्ले. हुंदरांक धरून हाडून क्लोरोफोर्म लावन बेशुध्द करताले आनी तांच्या आंगा वयल्यो हुलको काडून उदक घाल्ल्या एका आयदनांत दवरताले. मागीर हुंदराक इनेसांव मारून प्लेगाची लागण लायताले, तांच्या पोटा वयले केंस तासून एक हुलूक घाल्लो टेस्ट ट्युब तांच्या पोटार उमथो घालताले. ती हुलूक त्या दुर्येत हुंदरांचें रगत शोशून ताचेर व्हड जाताली आनी त्या दुर्येसाचे जंतू व्हरपी वाहक जाताली. मागीर तांकां रिकाम्या केरोसीन कॅनांत घालताले जातूंत रेंव आनी घोड्यांचें सुकयिल्लें रगत आनी कसलें तरी रसायन घाल्लें आसतालें. दोन सप्तकांनी त्यो हुलको पिलां काडून आनीक हुलकांची पैदास करताल्यो. उपरांत तांकां वेगवेगळया प्रयोगशाळांनी पावयताले.

युध्द कैद्यांक हुलकांची पैदास करपाक वापरतात अशी वदंता लेगीत थंय पसरिल्ली. कांय वर्सांनी तें खरें आशिल्लें अशी जबानी एकल्यान दिली. पन्नाशीच्या वयाच्या धा कैद्यांक त्या कामाक लायिल्ले. तांच्या आंगार हुलको घाल्ले दाट कापडाचे जड पॅडेड कपडे चडयिल्ले, जे तांकां केन्नाच आंगा वयल्यान काडपाक मेळनाशिल्ले. तशेंच तांकां केंस कापपाक मनाय आशिल्ली. कांय सप्तकांनी जपानी ईंशी फांउंडेशनाचीं मनशां येवन तांचे कपडे देवोवन तातूंतल्यो साधारणश्यो वाढिल्ल्यो हुलको काडून व्हरताले. त्या कैद्यांक रोग प्रतिबंधक इनेसांवां नेमान दिताले. कांय दिसांनी एक फाटोफाट एक अशे धावून जाण मेले.

### चार तरेच्या धामीच्या दुर्येसाचेर चलिल्ले प्रयोग

१.**कोलेरा** - तेदे वेळार कोलेरा हे धामीची लागण चड जाताली. ताचेर संशोधन करपाक ते गांवच्या रस्ताद सुण्यांचो वापर करून गांवांत पयली धाम पसरायताले. रस्ताद सुणे धरून हाडून तांकां कोलेराचे जंतू कालयिल्लें दुकरांचें मांस खावयताले आनी परत गांवांत सोडून दिताले. सुण्याक धामीची लागण जातकच ते गांवांत हाग-ओक करून सगलो गांव दुर्येत करून उडयताले. मागीर हे संशोधक पुराय सुरक्षा घेवन त्या गांवांत वचून दुर्येतीचेर कसलीं वखदां पारतात ताचेर अभ्यास करताले. पूण त्या बोवाळांत आख्खो गांव धामीन काबार जातालो.

२.**एपिडेमिक हॅमोरेजीक फीवर - (EHF)** - मंचुरियाक ही थळावी धाम जावन १५ ते २० प्रतिशत लोक मरताले पूण त्या जंतुंचो मात सोद लागूंक नाशिल्लो. १९३० त जेन्ना जपानी लश्कर थंय गेलें तेन्ना तांकां लेगीत ताची लागण जाली. म्हूण रोकडेंच तांणी ताचेर अभ्यास करून तो एक विशाणू म्हूण सोदून काडलें. तेन्ना लेगीत प्रयोगा खातीर तांणी मनशांकूच वापरिल्ले पूण संशोधन पेपरांत मात तांणें माकड म्हूण उल्लेख केलो. पूण ते माकड म्हणल्यार मनीसूच म्हूण तांचे भितर सगल्यांक आनी जपानच्या हेर वैजकी क्षेत्रांत खबर आशिल्लें. पूण संशोधना फुडें कोणांकच कांय पर्वा नाशिल्ली.

३.**प्लेग** - हें दुर्येसूय चड प्रमाणांत मनीस हानी करतालें. हें दुर्येस लश्करांत जैवीक शस्त्र म्हूण चड वापरांत येतालें जाचें कारण म्हणल्यार हेर धामी परस हाची लागण बेगीन लागताली आनी तीन दिसां भितर लागण जाल्लो मनीस मरतालो. ऑक्टोबर १९४० त जपानी लश्करान नींगबो हांगा गंव, मको, कापूस आनी कपड्यांत भरसून विमानांतल्यान सकयल उडयिल्ले. थंयच्या लोकांक धाम जावन



शकडयांनी जाण मेलें. १९६० मेरेन ती सुवात लोंकडावन केल्ली. आजीक एके सुवातीचेर जपानी लश्करान विमानांतल्यान मेल्ले हुंदीर उडयले आनी मागीर मनीस मरपाक लागलेकच थंय जपानी दोतोर येवन उपचार करपाक लागले. खरें म्हणल्यार ते आपली वाशिनां आनी वखदां टेस्ट करपाक आयिल्ले.

**४.हिमबादा (frostbite)-** जपानी सैनिकांक चड करून सांविएता वागडा झूज करचें पडिल्ल्यान तांकां भयंकर थंड वातावरणाक फुडों करचो पडटालो. जंय वर्स भरूय तापमान शुन्या सकयल आशिल्ल्यान झेल जाल्लो आसतालो. ते खातीर तांकां हिमबादा चड प्रमाणात जाताली. म्हूण ताचेर संशोधन करप गरजेचें आशिल्लें. तेवूय प्रयोग तांणी युध्द कैद्यांचेर करपाक सुरवात केली. तांकां शुन्या सकयल्या वातावरणाचे शीत कुडींनी दवरून तांच्या हात पांयांचेर झेलाचें उदक ओतताले. हात पांय गोटल्यात काय पळोवपाक दांडो मारून तपासताले. हात पांयाचो लाकडा भशेन आवाज आयल्यार मागीर ताचेर प्रयोग करून पळयताले. केन्ना केन्नाय भायर तापमान गोठिल्लें आसतना भायर व्हरून लेगीत प्रयोग करून पळयताले. त्या प्रयोगा वेळार तांचे हात-पांय निळे पडटाले, तुट्टाले वो गँगरीन जावन कुसताले. जायते प्रयोग करून ३७ ते ४० डिग्री सेल्सियस तापमानाच्या गरम उदकांत हात पांय बुडोवन दवरल्यार हिमबाधा बेगीन निवळटा म्हणपाचो योशिमुरा हार्ण निश्कर्श काडलो. पूण तो मेरेन हिंसपा भायर लोकांक हाल अपेश्टा सोंसून आपलो जीव होगडावंचो पडलो.

## अमेरिकेचेर जैवीक हल्लो करपाची जपानी येवजण

१९४२ त जपानान अमेरिकेच्या ताब्यांत आशिल्ल्या पर्ल हार्बराचेर हल्लो केलो. ताचें उट्टें काडपाक अमेरिकेन जपानाचेर अणुबॉम्ब उडयलो हें जरी वयल्वयाराक खरें आशिल्लें तरी ते पुराय सत नाशिल्लें. खरें म्हणल्यार अमेरिके विरुध्द ओकिनावा हे सुवातीचेर जंय अमेरिका हल्लो करपाक येवची आशिल्ली थंय जैवीक शस्त्रां वापरपाची जपानाची तयारी चलिल्ली. ओकिनावाच्या नागरिकांक ह्या बद्दल कांयच कल्पना नाशिल्ली. अमेरिकन सैन्या वांगडा तांकांय बळी दिवपाची जपानाची तयारी आशिल्ली हें खूब उपरांत समजतकच तांकां मोठो धक्को बसलो.

१९४५ त ओकिनावा हांगासर अमेरिकन हल्लो जावपाचो आशिल्लो तेन्ना तांकां थंय प्लेगाचे जिवाणू वापरून काबार करपाची इशी फाउंडेशनाची पक्की येवजण आशिल्ली. पूण ही सलूस अमेरिकेक लागली आनी ते पयली तांणी हीरोशिमा आनी नागासाकी हांगासर दुसऱ्या म्हाझुजाच्यो कर्वितखयात अणुबॉम्ब हल्लो केलो. बॉम्ब हल्ल्या उपरांत अमेरिकेन जपानाचेर ताबो मेळयलो आनी इशी फाउंडेशनान केल्ल्या संशोधन आनी कुकर्मां बाबत चौकशी चलयली तेन्ना जपानान संशोधनाचीं कागदपत्रां अमेरिकेक दिवपाचे हायस दाखोवन स्वताची सुटका करून घेतली. तेरी भी चूप मेरी भी चूप धोरण दाखयत अमेरिकेन बोवाळ कर नासतना सगल्या कागदपत्रांच्या बदलाक ती सगली चौकशी बंद उडयली आनी कांयच प्रकरण उक्ताडार हाडलें ना. पूण ते सगलें दोळ्यांनी पळयिल्ल्या, अणभविल्ल्या आनी स्वता सहभागी जाल्ल्या लोकांनी मरचे पयलीं काळजा वयलें वजें ल्हव करपाक ह्यो सगल्यो गजाली उक्ताडार हाडल्यो. आनी जायते जाणांनी मागीर ताचेर पुस्तकांय बरयलीं, फिल्म्स, म्हायतीपट काडले, प्रदर्शना घालीं आनी आतांच्या शांती प्रिय जपानाच्या नागरिकांक आपल्या पुर्वजांनी सोडिल्लें हें अमानवी दायज समजतकच व्हड धपको बसलो.

आयज आमकां दुयेंसां बद्दल जी म्हायती आसा, ताचेर पारपी वखदांची जाण आसा, वैजकी क्षेत्राची बुनियाद ज्या संशोधनाचेर आदारीत आसा त्या संशोधना खातीर कितलेश्याच निरपराध लोकांचो संशोधकांनी क्रुरतायेन आनी अत्याचारान जीव घेतिल्लो आसा. कितलोसोच रक्तखेव संशोधनाच्या नांवार गुपचूप रितीन जाल्लो आसा. गोपनीय रितीन अजून लेगीत असले प्रकार घडये खंय ना खंय चलता आसतले.

फाटले वर्सा कोवीड १९ म्हामारीन संवसाराक बेहाल करून उडयलां. तेवूय प्रकरण अशेंच जैवीक युध्दाचे फांटभुंयेर चीन वो तत्सम तानाशाई देशांनी घडयिल्लें आसपाची शक्यताय न्हयकारपाक जायना. ज्या देशांत तानाशाई चलता थंय चडशी म्हायती गुपीत दवरिल्ल्यान संवसाराक पुराय सत होलमप कुस्तार जाता. पूण फाटल्या ६०-७० वर्सां सावन संवसार गेर्राचे भिरांतेतल्यान लागीं लागीं मुक्त जावन शांती प्रिय मार्गाचेर चलपाक लागला तो तसोच उरचो आनी मनीसजात एकमेकां वांगडा मनीसपणान आनी सोसणिकायेन वागची हीच देवा लागीं मागणी.



फातोर्डा-गोंय. मो.: ९८२२९८१५०८

उस्तवारी



अरूण काकोडकार

अरूण काकोडकार हे कथा आनी ललित लेखनात फिशाल. तांचो 'मूठभर मळब' हो ललित लेखांचो संग्रह उजवाडाक आयला आनी तांचीं आनिकूय पुस्तकां उजवाडाचे वाटेर आसात. ताणीं सुनापरान्त ह्या दिसाळ्यांतल्यान तशेंच गोंयच्या हेर कोंकणी नेमाळ्यांतल्यान सातत्यान लेखन केलां. तांकां साहित्या पासतचो 'बिम्ब' पुरस्कार आनी कला तशेंच सस्कृती खात्याचो गौरव पुरस्कार लाबला.

ते हालींच न्यु इंडिया एश्योरेंस कंपनी हे मुखेल राष्ट्रीयकृत विमा कंपनीचे वरिश्ठ विभागीय प्रबंधक पदावेल्यान निवृत्त जाल्यात.

*एकसुरेंपण ही मनाची अवस्था. केन्ना केन्ना भरिल्ल्या घरांत वावुरतना ती ताच्या वांट्याक येता. आपूण सांगता तें घरांत कोणांक पटना, आवडना.आपली कोण दखल घेना अशी भावना तो बाळगीता आनी खंती जाता.*

# एकलेंपण नाका नाकशें

'हळू हळू जातली संवय..!'

हें उतर आमी आमच्या समाधाना खातीर सहज म्हणून वतात. पुणून खरें पळयल्यार नव्या वातावरणाची, नव्या मनशांची,नव्या जाग्याची संवय जावपाक वेळ लागता.

गजाल सव्वीस वर्सां पयलींची. म्हजी बदली गोंया साकून मुंबय जाली तेन्नाची. मुंबय शार म्हाका तशें नवें न्हय. थंय खूब फावटीं येवप-वचप जातालें. दोन-चार दीस, चडांत चड आठ दीस रावप जातालें. आतां हांगांच रावचें पडटलें. कितले म्हयने...कितलीं वर्सां ? घरच्यां पासून इतलो तेंप पयस रावपाचो प्रसंग केन्ना येवंक नाशिल्लो....घरांत जाणटी आवय, घरकान्नीची नोकरी, दोगांय भुरग्यांचें शिक्षण अशे परिस्थितींत बिराड हालोवप शक्य नाशिल्लें. आयल्या ती परिस्थीती आपणावप होच एक मार्ग आशिल्लो.

'एकाद्रे म्हानगरींत मनशां शेणटात,खरें म्हणल्यार स्वताकूच शेणोवन बसतात!'

खंयचे एके कादंबरींतलें वाक्य. मुंबयचे येदे व्हडले म्हानगरींत शेणपाचो प्रश्न नाशिल्लो. बस्तान कशें बसोवप हो प्रश्न आशिल्लो.

एक अकेला इस शहर में, रात में और दोपहर में,

आब-ओ-दाना ढूँढता है, आशियाना ढूँढता है ।



भूपेंद्राचें हें पद म्हज्या मनांत पोळटालें. आशियाना तर कंपनीन दिल्लो. दोन बेडरूमाचो फ्लॅट...तातूंत एकलोच रावप ? दुसरो प्रस्न आशिल्लो आब-ओ-दाना चो. तेंच तेंच भायलें जेवण पचपा सारकें नाशिल्लें. म्हजी अडचण हांवें म्हज्या मॅनेजराक सांगली.

''कंपनीचे तीन बेडरूमाचे फ्लॅट आसात. फॅमिली बगर रावपी ऑफीसर्स थंय रावतात. थंय कित्याक तूं पळयना?''

ताणें म्हाका सुचयलें आनी आपणेच फुडाकार घेवन म्हाका तशा फ्लॅटांत रावपाची तजवीज केली . दोग आंकवार ऑफिसर्स, पंचवीशी-तिर्शीतले. दोगूय चेन्नईचे. ..तांचे वांगडा म्हजें बरें जमलें. रातचें जेवण आनी सुटयेच्या दिसांनी ते रांदताले. तांचे वांगडा रावन थोडें किर्ते रांदपाक शिकलों. आपणें रांदिल्लें जेवण कशेंय आसूं, हुनहुनीत जेवणाची गोडी लाख मोलाची !

आनी म्हणटां म्हणटां मुंबयचे जिणेची संवकळ जाली. तेन्ना कोंकण रेल्वे सुरू जावंक नाशिल्ली. प्रवास बशींतल्यान करप जातालो. मोबाईल नाशिल्ले, टेलीफोन सगळ्या सुवातेर नासताले. फोन करपाक पे फोन बुथाचेर रांगेंत रावचें पडटालें.

म्हाका फाटल्या दिसांच्यो, चार वर्सां मुंबयच्या राबित्याच्यो यादी येतात तेन्ना म्हजें मन भरून येता. 'मुंबयचे वेवसायीक जिणेंत तुका किर्ते फावो जालें?' कोणूय म्हाका विचारतात. मुंबयचे जिणेचे प्रत्यक्ष-अप्रत्यक्ष अणभव जे म्हज्या वांट्याक आयले तांणी म्हजी वेवसायीक जीण संपन्न करपाक खूब व्हडलो हात भार लायलो. उद्देग-धंद्याचे नदरेन गोंयांतलो व्याप साप्प उणो. ते मानान मुंबयचो विस्तार खूब व्हडलो. मुंबयत खूब शिकूंक मेळ्ळें. विमा क्षेत्राची जाणवीकाय, तत्वां, कृती, वेगवेगळ्या विभागांची पुराय म्हायती, गिन्यान व्हड प्रमाणांत फावो जालें. तशें सांगपाचें जाल्यार चार चौगां सारके कांय कोडू अणभव म्हज्या वांट्याक आयले. तें सगळें पचोवन पर्थून नव्या अणभवांक फुडो करपाची जिद्द आनी नितळ नदर ह्या वेवसायान म्हाका दिली. ताका लागून एक एक बडटी घेत वयल्या हुद्याचेर काम करपाची संद मेळ्ळी. एकसुरेपणांत केन्ना केन्ना मन चिडचिर्डे जातालें. भोंवतणचें जग नाका शें दिसतालें. हटकून घरची याद येताली आनी मन कासावीस जातालें. तेन्ना सीमार्ची, म्हजे घरकान्नीची उतरां म्हाका याद जातालीं. 'करियर घडोवपाक जाय जाल्यार आवुश्य जशें आसा तें आपणावप आसता. तें अशेंच आसचें, तशेंच नासचें असले लाड ताचे कडेन उपकरना.'

करियराची मोख दवरून खंयूय वचपाची तयारी दवरपी कितल्योच व्यक्ती हांवें पळयल्यात. नोकरी-धंद्याक लागून आवुश्यभर बायल-भुरग्यां पसून पयस रावपी पळयल्यात. बोटी वयले तारवटी, दर्यावर्दी,वयले वयर जातात त्या बदल्यांक लागून एका जाग्या वयल्यान दुसऱ्या जाग्यार सतत भोंवत रावपी पोलीस/सरकारी अधिकारी, दोळ्यांत तेल घालून शीमे-रेशेचेर देशाचें रक्षण करपी भारतीय जवान, भारतीय लस्कर अधिकारी, भारतीय नाविक आनी हवाई दलाचे अधिकारी अशो कितल्योशोच देखी. एकलोच रावपाची संवय जाली तसो मनीस तातूंतच सूख मानता. हाचो कांयसो अणभव म्हाका आयलो.

आवुश्य म्हणल्यार भोंवडी कशी ! भोंवडेर घरच्यां पसून पयस वतना अमक्या जाग्यार वचपाक आमी भायर सरतात. जितलीं आमी पयस पयस पावतात तितलो आमचो संपर्क उणो जायत वता. आतांच्या काळांत मोबायलाचेर बोट दाबना फुडें जगाच्या खांची-कोनशांक कोणाय कडेन रोकडोच संपर्क जाता. आदल्या तेंपार भायर सरिल्लो मनीस खंय मेरेन पावला हें कळपाक वेळ वतालो. थारावीक काळा खातीर शारिरीक एकलेंपण जेन्ना मनाचो ताबो घेता तेन्ना एके तरेचो हुस्को जावंक लागता. एका वैमानीकाची मुलाखत वाचिल्ली. तो म्हणटा,'जेन्ना समुद्रपातळे पसून खूब उंचायेर विमान चलयतना धर्ती पसून संपर्क तुटत वता तेन्ना विचीत्रशी भावना येवंक लागता. आपूण आपल्या मुक्कामा पसून खूब पयस वतां अशें दिसूंक लागता. पॅराशूटा वयल्यान वयर उडटना उडटल्याक आपूण परत मूळ सुवातेर पावतलों काय ना हाचो भंय आसता. ही भावना कांय खिणां पुरती आसली तरी ताका लागून मनाचेर ताण येता.

आयच्या विज्ञान-तंत्रगिन्यानाच्या युगांत मनशां-मनशां मदली दुराय वाडूंक लागल्या. मनशां-मनशां मदलो संवाद तुटपाक लागला. अशें जरी आसलें तरीय ज्या प्रमाणांत मोबायल फोनांची संख्या वाडत वता, ज्या प्रमाणांत लोक फोन करतात, वॉटस ॲप, फेसबुका-वयल्यान एकामेकां वांगडा लेखी संवाद करतात, ताका किर्ते म्हणपाचें? ही आयची फॅशन, फॅड, पॅशन काय गरज ? काळ कितलोय बदल्लो तरी मनशाक संवादाची भूक

आसा. सांगाताची, सहवासाची भूक आसा. मनशाक आपले भोंवतणी मनशां जाय आसतात. सांगाता खातीर आनी सहवासा खातीरच न्हय. मोग करपा खातीर, आदारा खातीर, आपलें सुख-दुख्ख सांगपा खातीर, फकाणां मस्कऱ्यो करपा खातीर, वाद, झगडीं करपा खातीर. दुस्मानकाय करपा खातीर लेगीत मनशां जायच! निर्मनीस सुवातेर कोणूय मनीस रावंक शकता?

' कास्ट-अवे 'नांवाचो इंग्लीश सिनेमा आयिल्लो.

नोलन नांवाचो मनीस विमानान प्रवास करता. अकस्मात विमान दर्यांत कोसळटा. कांय भोंवडेकार मरतात, कांय वाचतात. नोलन पट्टीचो पेंवपी आसता. पेंवत पेंवत तो एके दर्या देगेर पावता. ते सुवातेर कोणच मनशां नासतात.

मुखार अटंगें रान आनी रानांत हिंस्त्र जनावरां. पयलीं पयलीं तो भियेता. पुणून धीर सोडी ना. जिद्दीन हांगा थंय सोदून तो अन्न, उदक, निवारो हांची सोय करून निर्जन जुंव्यार एकलोच रावता. पोटा-पाण्याची वेवस्था कशीय जाली पुणून एकलोच रावप कसो? तो मागीर एक बावलो तयार करता आनी ताचे लागीं उलयत रावता.

मनांतलें सुख-दुख्ख ताका सांगता. केन्ना ताचीं फकाणां करता, केन्ना ताचेर रागार जाता. तातूंतल्यान ताका बळगें मेळटा.. अशेच कांय म्हयने वतात आनी एक फावट दुसरे तडी वयले कांय मनीस थंय पावतात. तांची भास ताका कळना पुणून कुरवेन ते एकामेकांक समजून घेतात. तांच्या आदारान तो मागीर फुडली भोंवडी करता.

एकलेपण आनी एकांत हे दोन विभीन्न शब्द. खूब फावटीं आमी ते समान अर्थान वापरतात. सगळ्यां पसून वेगळो आसप म्हणल्यार एकांत (Privacy) आनी सगळ्यां मदीं आसूनय परकेपण जाणवप म्हणल्यार एकसुरेंपण (Loneliness). एकांत कांय खिणांचो आसता. एकसुरेंपण सांसणाचें आसूं येता. मनीस मनान एकलो पडटा तेन्ना स्वताक एकसुरो समजूंक लागता.

एकसुरेंपण ही मनाची अवस्था. केन्ना केन्ना भरिल्ल्या घरांत वावुरतना ती ताच्या वांट्याक येता. आपूण सांगता तें घरांत कोणांक पटना, आवडना.आपली कोण दखल घेना अशी भावना तो बाळगीता आनी खंती जाता.

हाचे परस वेगळीं अशीं मनशां आमचे नदरेक वतात. हीं मनशां एकोडीं रावनय बी आयुश्य आपल्याक जाय तशें जियेतात. कांय जाणां आंकवार रावप पसंत करतात. कांय जाणांचेर जोडीदाराच्या अकाली मरणाक लागून एकलोच रावपाचो प्रसंग येता. कांय जाणांक घटस्फोटा सारक्या कोडू अणभवांक फुडो करचें पडटा. ...अशीं मनशां आपल्या भुरग्यां वांगडा, केन्ना जाणट्यां आवय-बापाय वांगडा रावतात. केन्ना एकलींच रावतात.

जाणीं एकलेपण आपणायल्लें आसता तीं स्वताचें अशें वेगळें भावविश्व, आपलें खेरीत कार्यक्षेत्र निर्माण करूंक शकतात. स्वताचीं सपनां प्रत्यक्षांत हाडपा खातीर एकलेपण खूब मोलादीक आसता. साहित्यकार,चित्रकार मुद्दाम जावन एकोडेंपण आपणायतात. साहित्यीक लोकां पसून पयस एकले रावन साहित्य साधना करतात.

हर्मन हेस नांवाचो इंग्लीश लेखक. Wandering हें ताचें पुस्तक. ह्या लेखकाक चार वणटीं भितर रावन बरोवप कठीण जावंक लागलें. देखून तो पयस खेड्यांत वचून रावलो. मळब, उदक, दोंगर, सांकव, झाडां, शेतां, गिरणी,



इनर्जा, सुर्य-चंद्र, काळोख-उजवाड ह्या सगळ्यां-चेर ताणें बरप केलें. स्थलांतर ताचें कुडींचेंच नाशिल्लें.ताच्या मनाचें आनी विचारांचें आशिल्लें. अशें स्थलांतर कितल्या लेखकांक जमता? आपली बांशिल्ली फारकों सोडून पयस वचप सोपें नासता. संवसारी मनशाक तर निखालस न्हय. संवसाराची ओड मनशाक आकूळ-पिकूळ करता. पुण संवसाराचें सूख ताका जाय आसता.

गोकुळ वयें गोविंदाचें, झरे वाहती शांती-सुखाचें .

कवीवर्य भा.रा.तांबेच्या प्रसीद्द भावगीतांतली अर्थपूर्ण ओळ! जगांतले खंयचेय गिरेस्तकाये मुखार आवयक आपलीं भुरगीं सगळ्यांत व्हडली संपत दिसता. आपल्या भुरग्यां मुखार सगळें जग तिका फिकें दिसता. अपुर्बायेच्या भुरग्यांनी भरिल्लें आपलें घर पळोवन चंद्रीम मळबा आड लिपून बसला अशें ती म्हणटा..भुरगीं शिकतात, व्हड जातात. तांचें आपलें अशें एक जग घडटा. नोकरी-वेवसायाच्या व्यापांतल्यान आमी जेन्ना मेकळीं जातात तेन्ना भुरगीं पयस गेल्लीं आसतात.

Attachment in Detachment हो सुधा मुर्तीचो लेख. आपल्या दोगांय भुरग्यां विशीं बरयतना ती म्हणटा,'म्हजी धूव आनी म्हजो पूत म्हजे खातीर कितलीं मोलादीक हें हांवच सांगूक शकतां. म्हजी धूव तिचें लग्न जाय मेरेन म्हजे सरीं उरली. जेन्ना ती लग्न जावन पयस गेली तेन्ना म्हाका दिसलें, म्हज्या काळजाचो कुडको तुटून पडलो. लग्ना उपरांत कांय दिसांनी ती आमकां मेळपाक आयली तेन्ना म्हाका तिचे आवडी-निवडींत कांय सो बदल दिसलो. उलयतना ती अम्माच्यो (म्हज्यो न्हय) म्हणल्यार तिच्या सासुमांयच्यो व्हडव्हिको सांगताली. आयली तशी रोकडीच परत वचपाचो बेत करूंक लागली. तेन्नाच म्हाका जाणवलें, आमचे मदीं आतां वेगळेपण येवंक लागलां. तिचो संवसार वेगळो, म्हजो वेगळो. ताचे उपरांत दोनेक वर्सांनी म्हजो पूत फुडलें शिकप घेवपाक अमेरिकेक गेलो. थंय आसतना आतऱ्या-पयऱ्यान फोन करून आमची खबर घेतालो. हांवें केल्ल्या जेवणाच्यो यादी काडटालो. मागीर तो भारतांत आयलो. ताच्या लग्ना उपरांत वेगळो रावपाक लागलो. मागीर तांचें आमचे सरीं येवप उणें जायत गेलें.

सुधा मुर्ती म्हणटात, हेरां विशीं उलयतना आमी खूब कितें सांगतात. तांकां उपदेश करतात. असले प्रसंग जेन्ना आमचेर येतात, तेन्ना ते आपणावंक आमकां कठीण जाता. आमचीं भुरगीं आमचे पसून पयस रावपाक गेलीं तेन्ना आमी निर्णय घेतलो, आमचीं भुरगीं तांच्या संवसारांत सुखी आसात. तांचे वाटेक वचप ना. तांका गरज पडटली तेन्ना तांकां आदार दिवप. आमकां तांची गरज पडटली तेन्ना आमी तांकां उलो मारतलीं. आमचो आशिर्वाद सदांच तांच्या माथ्यार उरतलो. आमचें पयसावर्णेंत लागसारपण उरतलें.

आयुश्य उडक्यो मारीत फुडें फुडें धांवता आनी धुक्यांत लिपिल्लें जाणटेपण केन्ना येवन वेंग मारता तेंच कळना. जुवानपणाचें मधूर संगीत आर्त गज़ल जावन साद घालता आनी ते सूर बेसूर जाल्ले वरी कानार पडूंक लागतात. दरेकल्याचे अणभव वेगळे पुणून केन्ना तरी ते समजूंक लागतात. ते समजून घेतल्यार कांय कुवाडीं सुटटात, कांय सुटनात. पुणून तातूंतय मजा आसता.

हातांतल्यान कितेंतरी निसरून पडलां हाची खोल जाणीव मात जायत रावता.

दुकळे हॅवन, कारांझाळे-गोंय. मो.: ९८२२५८८८५२

स्केच



स्मिता तिंबले

# अर्पिता नार्वेकार

व्यक्ती तितल्यो प्रकृती-(२६)

शास्रीय संगिताची रुची आशिल्ल्यान स्मिता तिंबले हांणी संगिताचें शिक्षण गेतलां. सद्या स्मिता शाळेंत शिकयतात. तांचें ' यादे माई ' हें आपले आवयच्यो पुंजायल्ल्या यादींचें पुस्तक खूब लोकप्रिय थारलां. तांकां कवितांचीय आवड आसा. तांचें 'आपालिपा', ' गोंयच्या फेस्ताक ' हीं ल्हान भुरग्यां खातीरचीं पुस्तकां उजवाडाक आयल्यांत.भुरग्यांचीं शिक्षणीक पुस्तकांय ताणी तयार केल्यांत समाजांतलीं विंगड विंगड व्यक्तीचित्रां रंगोवप होय तांचो एकछंद

*अर्पितान हीच रांद अशें मानून घेतलें! ताणें बाकी उरिल्ली चार कांकणां घाणाक दवरलीं आनी थोड्या पयशांची वेवस्था केली. घरांत व्हड-व्हड आयदनां आशिल्लीच. धितायेन पेंगट बांदून तिणें बुफे ऑर्डर घेवपाक सुरवात केली.*

अर्पिताचें रूप, एक चित्र कशें म्हज्या मनांत सदांच उबें आसता. ताचो सादो, मोगाळ आनी बोलको सभाव कोणाच्याय काळजाक भिडपाचोच..

सरळ केल्ले केंस, पार्लरची झलक आशिल्लो चेहरो, लिपस्टीकची पुसट शी रेशा... एकूण, पळयतनाच ताचो दिसपी रुपकार... उलोवपाक वच्चें अशें दिसपी अर्पिताचें व्यक्तीमत्व. ताचें एक चली दुबय कामांक गेलां आनी चलो तिच्या आदाराक घरा रावला.

हय, ह्या सोबीत आनी आकर्शक व्यक्तीमत्वाक ऐन तिशींत एकटें रावचें पडलें. जिविताच्या सांगातान अर्धारूच सांगात सोडिल्लो...तांचें आधुनीक पद्दतीन बांदिल्लें घर, घरा भायर व्हड गाडयांचो ताफो, त्याच वेवसायान भरपूर कमावन दिल्ले दुडू, बायलेच्या आंगा वयल्यो वस्ती, दर वर्साक जावपी आंतरराश्ट्रीय टूर...हें सगळें घरचे गिरेस्तकायेची साक्ष दितालें. पूण, सरळ रेशेंत चलता तो संवसार कसलो? जंय चडटी आसा थंय देंवती ही आसतलीच.

वेवसायाच्या निमतान ताणें हातांत धरिल्लो ड्रिंक्साचो ग्लास रितो केन्नाच उरना जाल्लो. पोटांत रिचयल्लो प्रत्येक घोट शरिरांतले अवयव कमकुवत करीत गेले. आनी, तेंच घडलें जें टाळप केवळ अशक्य आशिल्लें. अर्पिताल्या,समज दिवपी उतरांक सदांच हांसून उडोवन निमणें ताणें स्वतःचेंच हाशें करून घेतलें.

जोडिल्ले दुडू घरंगळत गेले. घरांतल्या एके-एके वस्तूंक पांय फुटले. अर्पिताच्या वस्तींनी केन्नाच सांगात सोडिल्लो. घरार हात फिरना जातकूच ताची अवकळा जावपाक कितलो वेळ



जाय? पडझड आनी मोडतोडीन घराचें चित्र पिंजिल्लें भशेन दिसूंक लागलें.

तांचीं भुरगीं काचाबूल जालीं. आवय-बापयान खचून 'राम' म्हळें. ह्या वयार घराक लागिल्ली 'वाळटी' पळोवपाची तांची शारिरीक आनी मानसीक अवस्था नाशिल्ली. घट रावचें पडलें तें अर्पिताकूच. आपलो धडधाकट घोव दिसान दीस कुडीन खचत वता तें पळोवपाचें ताका चुकच नाशिल्लें.. पूण नशिबाक दोश दीत रावपाचो तो वेळूच नाशिल्लो आनी तांतलें तें न्हयंय आशिल्लें. काळाचीं पावलां वळखता तोच खरो सुजाण म्हणटात.

अर्पिताच्या हाताक सुगरणीचो वसो आशिल्लो. घरांत जो कोण जेवपाक पावतालो तो पोट भर जेवन तोंड भर कौतूक करतालोच. मांय कडल्यान आनी आवय कडल्यान शिकून, त्या भायर स्वताच्या कौशल्यान ताणें पाक कलेंत बाजी मारिल्ली. ह्याच गुणाचो ताणें उपेग

करपाचें थारायलें.

संपूर्ण बुडपाक रावजासतना पोव आसतनाच तार्णे हात-पाय मारपाक सुरवात केली. सुरवातीक एकें खाणावळींत तार्णे आपर्ण केल्ले काय जिन्नस दवरपाक सुरवात केली. पूण, दिसूच अशें वायट आयिल्ले, ती खाणावळूच बंद पडली.

अर्पितान हीच संद अशें मानून घेतलें! तार्णे बाकी उरिल्लीं चार कांकणां पाणाक दवरलीं आनी थोड्या पयशांची वेवस्था केली. घरांत व्हड-व्हड आयदनां आशिल्लींच. धिटायेन पेंगट बांदून तिर्णे बुफे ऑर्डर घेवपाक सुरवात केली. हाता कडेन दोगांय भुरगीं आशिल्लीं. बाकी सगळे आपापल्या व्यापांत गुल्ल आशिल्ले. तरी पूण तांच्या धिराच्या उतरांचें तार्णे फाटबळ मानून घेतलें. आपले जाणटे आवयचो खंबीर सांगात घेतलो आनी ह्या नव्या वेवसायांत उडी घेतली...

फाटल्या ८-१० वर्सांत तिर्णे आपल्या खचिल्ल्या घराक उभारी दिल्या. शेणिल्लें वैभव परत येवपाचे वाटेर आसा. चलयेन प्रयत्नांची पराकाश्टा करून दुबय नोकरी मेळयल्या. चल्यान आपलें अभियांत्रीकी शिक्षण पुराय केलें. फावो तशी नोकरी मेळसर तो अर्पिताक संपूर्ण आदार करता. पुरयो लाटप, कांदो शिनप ही कामां तो आतां सहज करता. त्या भायर अक्युप्रेशरचें तंत्र तार्णे आत्मसात केलां. हात-पांय धरून घरांत उरिल्ल्या जाणट्यांक तो आपल्या हाताचे किमयेन सुसेग दिता. सामकी कमी अपेक्षा धरीत एक सेवाभाव म्हणून तो हें काम करता.

अर्पितार्चे पुराय जिवीत सामकें सोफिस्टिकेटेड वातावरणांत गेल्लें. पोवाचो भक्कम आदार, पयशांची उप्पाट ऊब आनी ऐश्वर्य उपभोगलें. पूण, सगळें धुवून वतकूच धिरान कश्ट उपशिले. पयलीं धा-पंदरा, वीस-पंचवीस करीत करीत पांचशें लोकांच्या जेवणाचें कंत्राट हाताळ्ळें. नांव आनी पयशेय जोडले. कितल्याशाच लोकांक कामांक लायले. स्वताची अशी इमेज तयार केली आनी मानान जगलें. प्रस्न पयशे जोडपाचो नासता. पूण जी हार न मानपाची जिद्द आसता, काळखांत उडी घेवपाची ताकद आसता तिका सलाम! ती मागीर कोणूय व्यक्ती आसूं, बायल आसूं वा दादलो आसूं. जाणटो आसूं वा भुरगो आसूं. निमर्णे, शो मस्ट गो ऑन....देट टू पीसफुली. दॅट्स इट...।

मडगांव - गॉव.मो. : ९७६३५५२७१९

# रेषापुराण

रेषा प्रभू



भुरग्यांक देवांची नांवां दवरप म्हाका बरेंऽऽ पटनाशिल्लें..एक दीस आमगेर म्हजी आनी म्हज्या मांयची ह्या वादग्रस्त विशयाचेर दोनूच वांगड्यांची हुनहुनीत बसका जाली.

मांयचें म्हणणें अशें आशिल्लें, भुरग्यांक देवांची नांवां दवरल्यार त्या निमतान दिसभर देवाचें नांव घेवप जाता.

म्हजें म्हणणें आशिल्लें, 'तुमी जर भुरग्यांक देवांची नांवां दवरतात जाल्यार तांकां कसलींच वायट उतरां म्हण नाकात.'

" वायट उतरां किद्याक म्हण्टलीं आमी?" म्हजी मांय चणचणली. " म्हज्या दोनूय देराल्या चल्याक हांवेंच नांवां दवरल्यांत, मारुती आनी गणपती."

" तशी तूं लोकांक नांवां दवरूंक नंबर वन गे!"

हें मात हांवें मनांनतूच म्हळें आं!

"मागीर ते दोगूय ल्हान आसतना तुवें म्हळांच आसतलें, 'गणपतीन हागून दवरलें, मारुतीन कुले खरपिले' बरें दिसता गे तें आयकूंक?" हांवें म्हजो पोंयट तिका तोपलो.

ती आनीक चवताळळी, "तूं म्हाका शिकय नाका.पयलीं पासून आमी देवांचींच नांवां दवरत आयल्यां. तुजी तीं मोडर्न नांवां नाका आमकां अर्थ नाशिल्लीं."

" आमी किदें देवाक म्हण्टात हागलो मुतलो म्हणून? आमी भुरग्यांक म्हण्टात!"

" तशें जाल्यार मगे एक काम कर, आयज एक पुराय दीस ज्या मनशाचें नांव देवाच्या नांवां वयल्यान दवरलां ताका तुवें कसलीच गाळ वा हेर वायट उतरान उल्लेख करप ना. जाल्यारूच हांव तुजें म्हणणें मानतलें. " हांवें म्हळें.

अशी चेलेंज हांवें मुद्दम म्हजे मांयक दिल्ली कित्याक तर म्हजे मांयन कितलोय निश्चय केलो तरी चण्या येदी गाळ तरी तिचे तोंडांतल्यान येतलीच तें हांव जाणां आशिल्लें.

मांयन आपुणूच योग्य म्हूण दाखोवपाक म्हजें आव्हान स्विकारलें.

बरोबर त्याच दिसा जगन्नाथालो रथ आमगेर आयलो. हो जगन्नाथ आमकां बऱ्यो कुल्ल्यो हाडून दितालो, खूब वर्सां जालीं.त्याय दिसा तो कुल्ल्योच घेवन आयिल्लो.

'यो बस' बी सगलें जालें. कुल्ल्यांचे पयशे बी दिवन जाले. आनी हिणें ताका च्या दिली. च्या पितां पितां मांयनूच विशय काडलो.

" आरे, तो क्रिष्णा किदें करता रे हालीं? दिश्टीच पडुंना मरे?"

" तेगेलें आनी किदें सांगो गे तुका? वोचोन पडला न्हुं गे त्या दुसरेगेर.. " (हांगा ताणें दुसरेगेर ह्या शब्दा जाग्यार कार्रेगाद असो गोंयचो ...येगेर हो शब्द वापरलो.)

" हिंगा बायल चेडवां रडटात. तो थंय पिवोन तिगेरुच पडलोलो आसता.पाडपडों त्या क्रिष्णालें." जगुन म्हळें.

" आरे सायबा त्या शैलाची काकुळट मरे! " (शैला म्हळ्यार क्रिष्णाची बायल) म्हजे

मांयन म्हळें. " त्या क्रिष्णांक कसली बुदद रे संवसार सोडून दुसरेकडें वचपाची? "

हांवें मनांत म्हळें. एकूय गाळ नासतना म्हजी मांय आयज उलयता. आव्हान बरेंच कडक मेळ्ळां हिका. ना जाल्यार येन्ना चारपांच गाळी मारून त्या क्रिष्णाचें उश्टें काडून शेंण सारयता आशिल्ली.

पळोवया म्हळें कितलो वेळ हिचे जिबेर ताबो उरता तो. शेवटीं किदें गाळ आनी धाळ दोनूय चड वेळ दामून दवरली म्हूण उरता? .

" आगे त्या क्रिष्णान ते दुसरे खातीर शैलालें मंगळसुत्र काडून विकलें खंय मगे! " जगून म्हळां मात. म्हजी मांय दुर्गा कशी कमरार हात दवरून उबी रावली .

दोनूय वटेन म्हाका आनीक तीन तीन हात दिसले, कितें कितें धरिल्ले. कोयतो, सुरी, फातोर, लाटणी, झाडु....

" तो क्रिष्णा! उष्टो, निलाजरो, हलकट बायलेचें मंगळसुत्र काडटा? दळीद्रो,बरें भोगूंक पावचो ना. " म्हजे मांयन रौद्र रूप धारण केल्लें.

हांवें मनांत म्हळें, 'क्रिष्णा नांव दवरतकीर अशेंच जावपाचें. तरी एकूच केल्या. अजून पंधरा हजार णवशे णव्याण्णव उरल्यात करपाच्यो.'

" बरें भोगचो ना म्हणपाक ताणें बरें खंय भोगलां गे? जायना फुडें मामा शेवटून मारतलो म्हूण पाटल्यांत घालून व्हेलो ताका. मागीरचें महाभारत मेरेनचें रामायण तर तुमी जाणांच. खंय भोगलें सूख ताणें? हे भुंयेर जाल्लो पयलो ब्रेक अप ताचो आनी राधेचो. "

" त्या सुबेज क्रिष्णान मटको खेळून खेळून घरदार इबाडलें. मद मारला त्या क्रिष्णाक, पाड पडिल्लो,चोरून खावन भरंक ना ताचें, आतां बायलांगेर वचून पडटा!" म्हजी मांय तणतणाटाली.

'द्वापार युगातूय म्हूण मटकेच फोडटालो, कलियुगांत मटको खेळटा. एकूच तें, शेवटी संबंध मटक्या कडेंच, अजून सोपूंक ना दिसता हिची आरती!' हांवें मनांत म्हळें.

जगु गेल्या उपरांत हांवें मांयक म्हळें,

" मानलें गे हांवें भुरग्यांक देवांचीं नांवां दवरल्यार तोंडान देवांचें नांव घेवप जाता,पूण तुवें आतां दोन वरां भितर सतरा वायट उतरां त्या क्रिष्णाक म्हळीं. "

" तूं आनी सुबेज उलय नाका.. "

तिचेर चडिल्लो दुर्गेचो अवतार देवूंक नाशिल्लो.

" हांवें देवाक म्हणुना. ह्या आमच्या भागेल्याक म्हळां."

" हय गे, तशें जाल्यार गाळ मारता आसतना तुवें सारकेंच भागेली क्रिष्णा पाडो, भागेली क्रिष्णा हलकट, भागेली क्रिष्णाक मद मारला' अशें तरी म्हणपाचें. आतां त्या वयल्या क्रिष्णान जर आयकल्यो तुज्यो गाळी तो कितें चिंततलो? तुवें ताकाच म्हळां म्हणून...!"

म्हाका दिसता म्हजे मांय कडलीं उतरां आतां सोपिल्लीं. ती थेट देवा कुडींत वचून बसली.

हांवें मनांत म्हळें, म्हाका दिल्लें आव्हान तर हारली.देवा मुखार बसून आतां म्हण्टा आसतली,

" हारले क्रिष्णा, हारले क्रिष्णा, क्रिष्णा क्रिष्णा हारले हारले. "



# घाडपण

रमेश साजू घाडी





बायल म्हणपाक लागली,

"आयज चावेक कितें?"

हांवें म्हटलें, "भिकणां उकड."

"भिकणा..?"

बायलेन कपलाच्यो मिरयो आनीक खोल करीत विचारलें.

" हय गो..दनपरां गरे खाल्ल्यात न्हूं तेची आतां भिकणां उकड..आई ल्हान आसतना तशीच करताली." हांवें म्हटलें.

" आई ल्हान आसतना..काय तूं ल्हान आसतना..?"

एक सरकेस्टीक प्रस्नाचें भिकण म्हजे वटेन शेवटून बायल कुजनांत भिकणां उकडूंक गेली.

पयर सिमरनाक घेवंन हांव म्हजो मित्र थिएटर पर्सोनेलिटी संदीप कळंगुटकारागेर गेल्लों. तेणीन टेरेसाचेर उबो रावोन एक पणस काडून दिलो...मागीर खाला देवून घरा फाटल्या घुडांतल्या कोंबयां लागी चार पांच गजाली मारल्यो. (तो कोंबयां लागीं, मांजरा लागी..सुण्यां लागीं खऱ्याखऱ्यांनी उलयता तें पळोवन हांव अजाप जातां..ह्या थिएटरवाल्यांक म्हणून कितल्यो भासो येतात...पोरूं तो थिगुरा वांगडा उलयतालो..)

मागीर तेंच्या पोटा पोंदा हात घालून हळूच चार उबेचीं तातयां काडलीं आनी येतना सिमरनाक तीं पोतयेन घालून दिलीं.

सिमरन खूश..

" परत केन्ना संदीपकाकागेर येवया?"

वाटेक सिमरनान विचारलें..

" तांचे आंबें पिकतकच..आनीक एक सागवात मेळटली." हांवें सांगलें आनी तें खळखळून हांसलें.

तेका असल्यो भोवंड्यो खूब आवडटात..

आयज पणस पिकलो..दनपरां पणसाचे गरे खाल्ले.

(गरे खातकच दाय गुडडी भर खोबरल पिवपाक दिलालो ती याद आयली..आतां तें पचतलें काय ना तें खबर ना..)

आतां साडे पांचाक बायल म्हणपाक लागली,

" चावेक कितें..? "

हांवें म्हटलें, " भिकणां उकड. "

कितल्या तरी वर्सानि चावे वांगडा आयज हांवें उकडलेलीं भिकणां खाल्लीं.

सोल्लां सगळीं नाकशेंत भरलीं..

हांव वाघ कसो सोफार बसलों आनी तीं नाक्शेंतलीं सोल्लां दांतान काडपाक लागलों.. बायल चाळवली आनी भितर गेली. तिका असले उद्योग आवडनात..म्हाका असले उद्योग करपाची मदी मदी कूय येता..

आई आसली जाल्यार म्हणपाची,

" बाबा हाड, सोलून दितां. "

तिका असल्या कामाक बरो पाशियेंस आसलो

ल्हान आसतना आमगेर, भात उकडटना भातांत भिकणां..हळसाण्याच्या रोसांत भिकणां..भाजयेची शाक केली जाल्यार तितूंत भिकणां..सांबाऱ्यांत भिकणां..

आतांच्या जनरेशनाच्यो रूचीच वेगळ्यो..तेंकां भिकणां आवडनात..चिप्सां आवडटात.

म्हाका चिप्सांची एलर्जी आसा..चिप्स पळयल्यार पोटांत धवळटा..आनी घास मारून येता.

जाणट्यांचो आनी आदल्या दिसांचो उगडास काडीत हांवें आयज चावे वांगडा भिकणां खाल्लीं..

भुरगेपणांत एक राउंड मारून आयल्ल्या भशेन दिसलें...





बबन
भगत



म्हज्या भुरगेपणात आमच्या गांवांत सखू म्हूण एक चली आसलें. तरुण, दिसपाक खेजू. तेन्ना गांवांतल्यो हेर सगळ्यो चलयो घालताल्यो तसलीच साय आनी तायट शर्ट घालून तें भोंवतालें. त्या शर्टाक तेन्ना ब्लाउज म्हणटाले.

आमच्या गांवांतल्या सिनेमा थिएटरात एक दीस आराधना हो पिक्चर लागलो. गांवांतल्यो चलयो आनी चले धुवन म्हणटात तशे आराधना पळोवन येवन मेळत थंय बसून आराधना पिक्चर आनी राजेश खन्ना आनी शर्मिला टागोराच्यो खबरो करपाक लागल्यो. कोण शेतांतल्या मेरांचेर बसून, कोण बांयचेर कपडे उमळटना, कोण आयदनां घासतना, कोण गोठ्यांत गोरवांक बांदतना, कोण भात उकडटना, कोण शेत कापतना,एकमेकांच्यो उवो काडटना, बांयचेर उदक हाडूंक वतना, रानांत वचून लाकडां घेवन येतनां.

एक दीस सखू नयन नांवाचे चलये कडेन आपल्या केसांतल्यो उवो काडून घेवपाक म्हुण गेल्लें. ताचे पयले दिसा नयन आराधना पळोवन आयिल्लें . आनी आयिल्ल्या गेल्ल्यांक तें फकत आराधनाची काणी आनी राजेश खन्ना आनी शर्मिला टागोराची खबर सांगून जीव खावंक लागिल्लें. सखून उवो काडूंक येतां अशें सांगतगीच तें सामकें खूश जालें आनी सखूक आराधनाची काणी कशी सांगप, राजेश खन्ना गाणे म्हणटना आपली तकली कशी वाकडी करता, शर्मिला टागोर ताका पळोवन कशी लजता, हांसतना तिच्या गालाक खळी कशी पडटा, दाट काजळ घातिल्ले तिचे साळका पाकळे सारके दोळे कशे सोबीत दिसतात, ती हांसता तेन्ना तिचे नदर लागपा सारके दोळे आनीक धा पट कशे सुंदर दिसतात, राजेश खन्ना कसो राजबिंडो दिसता, तो जिपींत बसून 'मेरे सपनों की रानी कब आयेगी तू ...'हें पिशें लावपा सारकें गाणें कशें म्हणटा आनी रेल्वेंतल्यान पुस्तक वाचीत प्रवास करपी शर्मिला टागोर ताका पळोवन कशी मुरगट्टा हें सखूक कशें सांगप हें ताणें सगळें थारावन दवरिल्लें. सखू आनी नयनाली आनीक एक इस्टिण आसली. ताचें नाव कल्पन आसलें. नयनाक भिरांत दिसूंक लागिल्ली, सखूक आपणें सांगचे पयलीं कल्पन आराधनाची आनी राजेश खन्ना आनी शर्मिला टागोराची खबर सांगत म्हुणून. आराधना आनी राजेश खन्ना आनी

शर्मिलाची खबर आपल्या इश्टांक सांगपाची जणू गांवांत सर्तच लागिल्ली.

गांवांत पांडू आनी सोनू म्हूण दोग इश्ट आसले. बैलांची जोडी कशी. दोगय एकामेकांक सोडी नासले. एक दीस सकाळी सकाळीं पांडू सोनूगेर गेलो आनी ताका म्हणपाक लागलो. "चल रे दोंगुल्लेचेर परसा कडेन या. तुका एक गजाल सांगूक जाय."

पांडू आदल्या दिसा वचून आराधना पळोवन आयिल्लो आनी ताका आराधना आनी शर्मिला टागोरा विशीं सोनूक खूब कितें सांगपाचें आसलें आनी मागीर दोंगुल्लेचेर हागूंक बशिल्ले कडेन ताणी आराधनाची काणी ताका सांगली आनी मागीर तो शर्मिला टागोराच्या रुपा विशीं ताका सांगूंक लागलो. तें आयकून सोनू बेगीबेगीन लिमलो आनी आज आराधनाचो शो कितल्यांक आसा अशें विचारीत ताणें चेड्डी वयर चडयली.

सखू नयना कडेन उवो मारपा खातीर येतगीच नयनान सामकें पयल्या सिनाच्यान ताका आराधनाची काणी सांगपाक सुरवात केली. काणी सांगतां सांगतां सखूच्या केसांतली मोटी उव मेळटगीच काडून नयन ती आपल्या नाकटाचेर धरून मारतालें आनी मागीर फुडली काणी सांगतालें.

"राजेश खन्ना मगो शर्मिला टागोराच्या घरा पयलेच फावट येता आनी दाराचेर मारता. जाल्यार ती मगो दार उगडटा आनी दारांत कोण आसा तें पळय नासतानाच ताचेर बालदी भर उदक काडून मारता. राजेश खन्ना पुराय भिजता आनी शर्मिला टागोर लजता. भिजिल्लो राजेश खन्ना आनी लजिल्ली शर्मिला टागोर दोगांय कितलीं सुंदर दिसतात म्हूण सांगू तुका."

नयन सांगता ती काणी आयकून सखूक खातकुतल्यो जावपाक लागल्यो.

" जाणां मगो सखू ह्या पिक्चरांत मगो एका परस एक गाणी आसात.

मेरे सपनों की रानी .

रुप तेरा मस्ताना

कोरा कागज था ये मन मेरा

गुनगुना रहे है ये भंवरे "

नयन सांगतालें आनी सखू आयकतालें.

आयकतां आयकतां सखू राजेश खन्ना कशें दिसता आसतलो हाचो विचार करपाक लागलें .मागीर ताणें नयनाक विचारलें - "नयन ! इतलो सुंदर दिसता गो राजेश खन्ना? "

"आवय ! विचारुच नाका." नयनान म्हळें.

"एक सांग गो ... " सखून म्हळें .

आमच्या वाड्यार कितलेशेच चले आसात पळय. तातूंतल्या कोणा सारको दिसता गो राजेश खन्ना. राजेंद्रा भशेन दिसता काय रमेशा भशेन, काय प्रदिपा भशेन काय संतोशा भशेन काय उदया भशेन?" सखून उमळशिकेन विचारलें.

"पिशें लागलां गो तुका?"-नयनान विचारलें. आमच्या वाड्या वयल्या त्या झेंप्या चल्यां कडेन ताची तुळा करता गो? " नयनान हांसत विचारलें.

"काल मगो बाप्पान पेपर हाडिल्लो. ताचेर फोटो आसा राजेश खन्नाचो आनी एक लेखय. "नयनान म्हळें.

"लेख म्हळ्यार कितें गो?" -सखून विचारलें.

"आगो लेख आसता न्हय तातूंत सगळी म्हायती आसता. तातूंत राजेश खन्नाची म्हायती आसा. तातूंत बरयलां, ताच्या इतलो सुंदर खंय आमच्या देशांत कोणच ना. "

"आवय ! किदें सांगता गो ! " सखून हड्ड्यार हात धरीत म्हळें.

"आगो, आतांच हड्ड्यार हात धरता... मागीर पिक्चर पळयतगीच किदें जातलें गो तुजें? " नयनान विचारलें.

"ये नयन! म्हाका पळोवंक जाय मगो पिक्चर." सखून म्हळें.

''पिक्चर पळोवंक जाय काय राजेश खन्नाक पळोवंक जाय?'' नयनान खो खो करून हांसत सखूक चिमटो काडीत विचारलें.

मागीर सखून लजत नयनाक चिमटो काडलो आनी म्हळें - ''ये कुसडा! मारतलें पळय हांव तुका. ''

मागीर सखून म्हळें- ''ये नयन म्हाका पळोवंक जाय मगो. ''

'' मागीर पळय.. कोणें आडायलां तुका? चड न्हय एक रुपया तिकेट!''

''आवयस ! एक रुपया गो?'' सखूनं म्हळें.

''आवयस! बरें भिता मगो एक रुपया मोडपाक. येदो व्हडलो राजेश खन्ना मेळटा चलयांक पळोवपाक एका रुपयांत आनी चल्यांक शर्मिला टागोर. ह्या दिसांनी लोकांच्या घरांतल्या डब्यांतले एक रुपया दोन रूपयांची चोरी वाडल्या म्हूण आयकलां. पयर प्रदिपाक आनी संतोशाक घरा बरोच मार पडलो खंय. दोगय बापोलभाव खंय आपल्या आवयच्या डब्यांतले पयशे चोरून आराधना पळोवंक गेल्ले. चोरी केली म्हूण खंय दोगांकय बापायन मारले. आनी पिक्चराक गेल्ले म्हूण कळटगीच दोगांकय तांच्या आवयांनी येतिश्ट बडयले खंय! पिक्चर पळोवन वायट मार्गाक लागतले म्हुणून. दीपकाचो आजो खंय तांच्या घरा आयलो आनी सांगलें ह्या पिक्चरांनी नाका नाका तें दाखयतात आनी हीं असलीं पिक्चरां पळयल्यार भुरगे हाता भायर वतले म्हूण. मागीर ह्या दोगांचोय खंय असो कुंडो काडलो मारून मारून,बाबड्यांक खंयचे आमी शर्मिला टागोराक पळोवंक गेले अशें जालें आसतलें.

''ये सखू ! पूण तुमी दिसाक पंदरा वीस लिटर दूद विकतात मगो. मागीर तूं एक रुपया मोडपाक कित्याक भिता?''-नयनान विचारलें.

''आगो,म्हजी आवय जाणा न्हय तूं..चार आणें लेगीत पदराक घट्ट गांठ मारून कशे दवरता ती... खंय घेवन वतली पयशे म्हूण देवाक खबर!'' सखून म्हळें.

''आगो, आवयक सांग गो कांकणां, लिगां , पावडर बी हाडूंक जाय म्हूण . दोन रुपया घे दोगांय या मगो. ''

''तुवें पळयला न्हय गो नयन . तूं परत येतलें ? ''

''आगो,तुका सांगात नाका? तूं खंयच्या राजेश खन्नाक वांगडा घेवन वतलें तर?'' -नयनान म्हळें.

दुसऱ्या दिसा नयनान सांगिल्लें तशें सखून केलें आनी दोगांय आराधना पळोवन आयलीं.

मागीर सखून नयनाक म्हळें - ''आगो किदें गो तो राजेश खन्ना. खंयच्या स्वर्गातल्यान आयला गो तो!''-सखून नयनाक विचारलें. मागीर म्हणपाक लागलें - ''म्हाका मगो असलोच घोव जाय. ''

''किदें म्हणटा गो सखू !'' कपलार हात मारीत नयनान म्हळें. ''असलो राजेश खन्ना सारको घोव तुका मेळपाक तूं किदें शर्मिला टागोर गो?'' नयनान म्हळें.

मागीर कांय वरसां जालीं लोक आराधना विसरले .

सखू मात राजेश खन्ना सारकोच घोव जाय म्हूण हट्ट धरून बशिल्लें. मागीर नयनानच आपल्या एका पयसुल्ल्या सोयऱ्याची सखूक सोयरीक हाडली. राजेश खन्ना सारके कपडे घालून आनी मान वाकडी करुन ताका फोटो काडपाक लायलो. ताकाय बाबड्याक सोयरीक जायना आसली. सखू शर्मिलान तो फोटो पळोवन त्या भुरग्याक पसंत केलो. जणू ताचीय आराधना पूर्ण जाली.



कथा



डॉ. उल्हास प्रभू नास्नोळकार

**डॉ. उल्हास गोपाळ प्रभू नास्नोळकार** हे एक अश्टताशी व्यक्तीमत्व. ते पेशान हाडांचे दोतोर. आदीं ते कविता करताले. पूण आतां बस पगारी जाल्याक तांणी वेगवेगळ्या विशयांचेर कोंकणींतल्यान साबार बरप केलां. तांचीं कविता, बालसाहित्य आनी ललित अशीं पुस्तकां उजवाडाक आयल्यांत.

*फांतोडेर भट काकड आरती करपाक देवळांत आयलो. ताका एक मनीस न्हिदिल्लो दिसलो. भटान ताका जागयलो. शामू उठलो. घुस्पलो. रात जाल्ली. ताका पुरो जाल्लें. ताणें घरची वाट धरली. ताणें घरच्या मनशांक कांयच सांगलें ना.*

# चिंचे वयलो देवचार

ब्रह्मपुरी नांवाचें एक शार आसलें. ताचे आशिकुशीक कितलेशेच गांव आसले. लागींच एका दोंगरार बणवळ नांवाचो एक गांव आसलो. थंय एक तळें आसलें. तातूंत बाराय म्हयने भरपूर उदक आसतालें. म्हणून गांवांत भरपूर झाडां आसलीं. गांवांतले लोक शेती करताले. ताच्या शेजरा भाटांय आसलीं. तातूंत माड, आंबे, काजू आनी कितलिशींच झाडां आसलीं. झाडां आशिल्ल्यान सगल्याक थंडाय आसली. बणवळांत लागीं लागीं तीस-चाळीस घरां आसलीं. बाजार थंयच आसलो आनी थोडीं दुकानांय आसलीं. हें सगलें आसलें तरी आनीक किर्तेय जाय पडल्यार मात ब्रह्मपुरी वच्चें पडटालें.

बणवळच्यान ब्रह्मपुरी वचपाक देवती आसली. वाटूय वांकडी तिकडी आसली. पूण त्रास जाय नासलो. हे देवतेर दोन सोपे आसले. थंय लोक सांजवेळा विसव येवपा खातीर वाऱ्याक बसताले. काळोख पडचे आदीं घरा परतताले. जशी रात जाताली तशे गांवांतले तोमसोळ थंय गजाली करपाक बसताले.

तांच्यो गजाली रातीं उसरां मेरेन चालू आसताल्यो. हांसप, खिदळप, मजा मारप तांचें चालू आसतालें. तातूंतच तांकां सिगार आनी सोरो लागतालोच.

हातूंत रामू, शामू, कमू आनी वमू अश्या भुरग्यांची एक चौकडी आसली. हीं नांवां तांच्या आवय बापायन दवरिल्लीं. लोकूय तांकां त्याच नांवान उलो मारताले. हे चारूय जाण बरे शिकिल्ले पूण तवनासपणां करताले. तातूंतलो एकलोय नोकरी करी नासलो.



दीस भर हांगा थंय भोंवप आनी रातच्या वेळार एकठांय बसून सोरो पिवप. सोरो येतां येतां चणे-भिकणां खावप आनी रातीं उसरां घरा परतप. अशें तांचें चलतालें. तांचीं तवनासपणां तांच्या आवय बापायच्या कानार पडटालीं. ते तांकां समजायताले पूण कांयच फरक पडनासलो.

दीस गेले. म्हयने सरले. वर्सांय गेलीं पूण तांचे वागणुकेंत मात लेगीत फरक पडलो ना.

एक दीस अचकीत वारो सुटलो. थंड वारो आयलो. एकदम गडगडलें, जोगलावलें आनी पावस शिंवरलो. झाडां हाल्लीं आनी धोल्लीं. अचकीत पावस आयिल्ल्यान लोक चिप्प भिजले. रस्तो ओलो जालो.

बणवळचे चडटेर कितें जालें कोण जाणां! यमू रस्त्याचे कुशीक पडिल्लो आनी ताची स्कुटर एके वटेन पडिल्ली .

त्याच वेळार गांवांत एक मनीस घरा परततालो. स्कुटर पडिल्ली पळोवन ताका दुबावसो आयलो. ताणें आपली मोटार थांबयली. देंवून पळयत जाल्यार स्कुटर एक वटेन आनी एक मनीस दुसरे वटेन पडला. तो मनीस शाबुद्दीर ना. ताणें ब्रह्मपुरी पोलिसांक ही गजाल कळयली आनी आपूण आपल्या घरा आयलो.

ताणें आपले बायलेक ही गजाल सांगली आनी कोण हो मनीस आसूं येता हाचो विचार करीत तो न्हिंदलो.

दुसऱ्या दिसा गांवांत ही खबर पातळ्ळी. रातीं यमूक आपघात जालो आनी थंयूच ताचो जीव गेलो. ताका कसो अपघात जालो हाचेर तरेतरेचे तर्क सुरू जाले. खरें म्हणल्यार तो जागोच वायट. थंय नकलामी जातात. कांय लोकांनी सांगलें, थंय भुताटकीय जाता. थोडे लोक म्हणटाले, थंय देंवचार आसा. ताका दुखयत जाल्यार तो लोकांचो जीव घेता.

दुसऱ्या दिसा यमूचे कुडीचेर निमाणे संस्कार जाले. हे घडणुकेन यमूच्या इश्टांचेर कलकल आयलो. तांणी तेन्नाच्यान राती वेळार बसपाचें बंद केलें.

***

वेळ वता तसो लोकांक अशा गजालींचो विसर पडटा. हांगाय तेंच जालें. ल्हवू ल्हवू सगळें जाग्यार पडलें. लोक ती घडणूक विसरून गेले आनी आपापल्या कामांत गुल्ल जाले.

यमूकय लोक विसरून गेले. लोकांनी सांजवेळा सोप्यार बसप परत सुरू केलें. रामू, शामू आनी कमू हांचेंय राती वेळार बसप सुरू जालें. भजीं, सामोसा वा बटाटवडे खावप आनी वांगडा सोरो घेवप तांचें सुरू जालें.

गांवांत असोच एक भुरगो आसलो. तो सद्दां तेच वाटेन रातचो कामा वयल्यान घरा परततालो. तो सदांच ह्या त्रिकुटाक त्या सोप्यार बसून मजा करतना पळयतालो. तांचीं तीं तवनासपणां ताका आवडनासलीं. पूण तो कांयच करूंक शकनासलो.

ताका कोणें तरी यमूची खबर सांगली. ती खबर आयकून ह्या भुरग्यान ह्या त्रिकुटाक बरीच बुद्द शिकोवपाची थारायली.

एक दीस तो भुरगो राती वेळार त्याच सोप्यार तांचे आदीं वचून बसलो. ताणें भोंवतणी नदर भोंवडायली. ताका लागींच एक चिंचेचें झाड दिसलें. तें झाड पळयतकच ताका कितें तरी सुचलें आनी ताणें मनांतल्या मनांत एक कट रचलो आनी घरा परतलो.

बुधवारचो दीस आसलो. चान्नें पडिल्लें. तो तिनसांज जावचे आदीं त्या चिंचेच्या झाडा कडेन गेलो. आशिकुशीक कोण ना हें पळोवन ताणें त्या झाडाक सूम बांदलें आनी तें तणांतल्यान आनी सुकिल्ल्या पानांतल्यान एका आडोसाक व्हरून सोडलें. त्या सुमाचें एक पोंत ताणें ओडून चिंचेचें झाड हालता काय ना तें पळयलें.

शामू तेच वटेन वतालो. ताणें तें झाड हालता तें पळयलें आनी धांव मारली. वाटेर सगलो काळोख. फक्त रातकिड्यांचो आवाज. धांवून धांवून तो सांतेरी देवळा कडेन पावलो. दिवलेची वात पेट्टाली. धांवून ताका पुरो जाल्लें. ताचो सोरो देंविल्लो. आंग थरथरतालें. ताका थंयच लकण आयली.

फांतोडेर भट काकड आरती करपाक देवळांत आयलो. ताका एक मनीस न्हिदिल्लो दिसलो. भटान ताका जागयलो. शामू उठलो. घुस्पलो. रात जाल्ली. ताका पुरो जाल्लें. ताणें घरची वाट धरली. ताणें घरच्या मनशांक कांयच सांगलें ना.

कमून मात सरळ घरची वाट धरली. तोवूय धांवत गेलो आनी घरा लागीं पावता म्हणसर खर्शेलो. घरच्या लोकांनी ताका कितें जालां काय म्हणून विचारलें.

ताच्या तोंडाक सोऱ्याची घाण मारताली. म्हणटकच कितें तरी जालां हें तांकां कळ्ळें. फाल्यां पळोवया असो विचार करून सगलीं न्हिदलीं. दुसऱ्या दिसा मात ताणें घरांत खबर सांगली.

''रातीं साडे धा-इकरा वरांचेर एक झाड हालूंक लागलें. थंयच्यान हूं हूं असो आवाज येवंक लागलो. सगळें भयानक आसलें. रामू आनी शामू ह्या आसा खबर ना आता. हांव ताच्या घरा वचून खबर घेतां ''अशें कमून म्हणालें.

कमू न्हावन धुवन निवळ जालो. च्या आनी आहार घेवन तो शामूच्या घरा गेलो. तांगेर खबर कळ्ळी आनी दोगूय जाण रामूच्या घरा पावले. थंयूय खबर जाली. सगले त्या जाग्यार गेले आनी बारीक पळोवणी केली. सोऱ्याची बाटली झाडाच्या मुळा कडेन आसली. खाण आसलें. ताचे बारीक कुडके भोंवतणी शिंपडिल्ले. झाडार कावळे कांव कांव करताले.

हो सगलो प्रकार पळोवन तांचीं आवय बापूय भियेलीं. ही कितें तरी भानगड आसा अशें तांकां दिसलें. तांचे भितर उलोवणी जाली आनी निमाणें तांणी गांवांतल्या देवळांत पाकळेचो प्रसाद घेवचो थारायलो. सगले रोखडेच गांवातल्या सांतेरी देवळांत गेले. भटाक प्रकार सांगलो. भटान तांकां बुधवारा दनपरां तीन वरांचेर आपयले.

बुधवारा रामू, शामू आनी कमू आप आपल्या बापायक घेवन सांतेरीच्या देवळांत हजर जाले. भटान पाकळ्यो लायल्यो, गाराणें घालें आनी प्रसाद घेवपाक सुरवात केली. सुरवातेक आडखळ आयली, पूण भटान बरो बंदोबस्त केलो. निमाणें प्रस्न सुटलो. तो एक अतृप्त आत्मो देवचाराच्या रुपान त्या झाडार रावता. ताचो आयतारा-बुधवारा मान करूंक जाय. ना जाल्यार तो त्रास करूं येता. मान करपाक चणे, गोड, सोरो, गोडशें, विडो आनी विडी दवरूंक जाय. तो मान केल्यार लोकांक पावतलो. ताचो मान फकत बुधवार आनी आयतार तिनसांजचो करूंक जाय.

ही बातमी वाऱ्या भाशेन गांवभर पातळ्ळी. सगल्या लोकांनी ती मानली आनी लोक येतना वतना थंय थांबून पांयां पडूंक लागले. बुधवारा आनी आयतारा लोकांची गर्दी जाताली. रोखडोच गांवांतल्या लोकांनी थंय घुमटी बांदली. कोणे तरी थंय घांट बसयली. करतां करतां थंय एक भट बसूंक लागलो. गाराणें घालूंक लागलो. त्या जाग्याचो आनी झाडाचो उद्दार जालो.

***

मजगतीं विधानसभेची वेंचणूक जाहीर जाली. ह्या गांवांतल्यान श्री.कृष्णराव नांवाचो मनीस वेंचणूक लडयतालो. ताच्या समर्थकांनी ताच्या नांवान ह्या जाग्यार ताच्या हातान पुजा केली. त्या दिसा गांवांतले खूब लोक ते पुजेक आयले. दबाज्यान पुजा जाली. निमाणें गाराणें जालें. गाराण्यान भटान व्हडल्या व्हडल्यान सांगणें केलें, ''श्रीमान कृष्णराव विधानसभेची वेंचणूक लढयता. श्रीमान कृष्णरावाक भरपूर येस दिवन वशरवी कर. तो जर जिखलो जाल्यार ह्या जाग्यार तुजें देवूळ बांदतलो.'' लोकांनी जोराजोरान ताळयो वाजयत ''हय सायबा'' म्हळें.

पुजा सोंपली. आयल्या लोकांक पोटभर प्रसाद म्हणून जेवण मेळ्ळें. सगले लोक खोशयेन गजाली करीत घरा परतले.

***

म्हयन्या भितर वेंचणूक जाली. कृष्णराव वेंचणूक जिखलो. ताचो वचत थंय सत्कार जातालो. तो ह्या पेडा कडेन पांयां पडपाक आयलो. ताका ताच्या गाराण्याची याद करून दिली. ताणें रोखडेच थंयच्या दोन बिल्डरांक आपयले आनी थंय देवूळ बांदपाचें काम सोंपयलें. आठ म्हयन्यां भितर थंय एक व्हडलें देवूळ उबें जालें. देवाचें नांव चिंचेश्वर अशें दवरलें.

चिंचेश्वराची मूर्त म्हणजे देड फुटाची राक्षसी तोंडाची आनी आंगाची मूर्त. ताच्या चार हातांतल्या - एका हातांत गदा, दुसऱ्या हातांत चक्र, तिसऱ्या हातांत शंख आनी चवथ्या हातांत चिंचेचें झाड. मूर्त मात सुरेख दिसताली. ताची दिसाक, काकड आरती धरून तिनदां पुजा, दनपरां आनी रातच्या नैवेद्याक शाकाहारी जेवण, गोडशें आनी रुप्याच्या दोण्यान सोरो - नैवेद्य जातकूच एक चिरूट पेटोवन दवरपाचें. ही नित्य सेवा आसता.

सगले तरेचे उत्सव ह्या देवळांत जातात. हे उत्सव कमिटी थारायता. कमिटींत येवपाक सोपें नासता. वशिलो आनी लांच लागता. कमिटीचे लोक व्हडलो सदरो यालून मिरयतात. गळ्यांत मोठी भांगराची सरपळी, हातांत माश्कोत आनी धावूय बोटांक मुदयो हें तांचें वैशिश्ट्य. चिंचेश्वराक सोऱ्याचो नैवेद्य आशिल्ल्यान तांकांय इल्लोसो वास येताच.

सगल्यांत व्हडलो उत्सव म्हळ्यार जात्रा. लोकांची उपाट गर्दी. तरेतरेचे कपडे यालून रात भर भोंवप. जात्रा आठ दिसांची. देवळा भोंवतणीं तीस चाळीस मांड, रातचीं नाटकां. असो थाट आसता. एकूण मजेचें आनी खोशयेचें वातावरण.

ज्या भुरग्यान दोरी बांदून चिंचेचें झाड हालयलें आनी तो प्रकार घडयलो, तो हें सगळें पळोवन आपर्णे किर्ते केल्लें आनी किर्ते घडलें हाचो विचार करतालो. तो सदांच विचार करतालो की हें जग कशें आसता आनी कितले पिशे अवती भवती आसतात. हें पळयतां पळयतां ताचे दीस सरताले. ताका शारांत एक नोकरी आशिल्ली. तो त्याच रस्त्यान यो-वच करतालो आनी पळोवन खूश जातालो. करतां करतां ताचें लग्न जालें आनी मागीर ताका एक बरो चलो जालो.

आयज त्या भुरग्याचो पयलो वाढदीस आसलो. ताणें मोठ्या थाटा माटान आपल्या सोयऱ्यांक आनी इश्टांक आपोवन वाढदीस मनयलो. रातचे सगले आयले. लोक घरा परतले. ताची बायल आज खोशयेंत आसली. ती लाडांत आयली आनी ताका म्हळें, ''आयकलें! येता त्या आयतारा आमी वडेश्वराच्या देवळांत बाबूक येवन वचुया. म्हजी आंगवण पावोवंक जाय!''

तो बायलेच्या तोंडाक पळयत रावलो. ताणें म्हळें ''कसली आंगवण?''

''हांवें सांगून घेतिल्लें की आमकां चलो जाल्यार हांव सोरो आनी सिगारां दितलीं म्हणून. आमकां चलो जालो आनी एक वर्स जालें. म्हजो भाव सावर्दीत आसा. ताका सांगिल्लें एक भायली व्हिस्कीची बाटली आनी सिगारांची पेटी धाड म्हणून. ताणें आपल्या इश्टा कडल्यान धाडून दिलां. आमी ह्या आयतारा आंगवण पावोवन मेकळीं जावया.''

ताका सामको धक्को बसलो. ताणें विचार केलो. तिका समजावपाक अर्थ ना. आंगवण पावोवप आनी घरांत शांती दवरप. ताचो नाइलाज आसलो. ताणें केल्लीं फकाणां ताच्याच आंगलट आयलीं.



ताळगांव-गोंय. मो. : **9823066540**

---

यादींचो-पोसो



ज्योती दत्तात्रय देशपांडे

# यादींचो पयलो पोसो

**श्रीमती ज्योती दत्ताराम देशपांडे** म्हळयार पुर्वाश्रमीच्यो मालू रघुवीर कामत. तांचो बापूय रघुवीर श्रीनिवास रामत हे गोंयच्या स्वातंत्र्यलढ्यांतले सेनानी आनी राजकैदी. ताका ल्हान पिरायेरूच लेखिकेचेर गोंय मुक्ती चलवळीचो [त्या काळची जयहिंद चळवळ] प्रभाव पडलो. तांच्या बापायचे मित्र नामनेचे साहित्यकार रवीन्द्र केळेकार हांच्या मार्गदर्शना खाल वर्ध्याक महिलाश्रमांतलें शिक्षण, आचार्य विनोबा भावे हांच्या भूदान पदयात्रेंत सहभाग. अजूनय तांचें रासवळ वावरांत योगदान आसा. ह्यो आसात तांच्या जिवितांतल्यो कांय यादी खिस्ती खिस्तीनी...

१९४५-४६चो काळ. ब्रिटिशांक धांवडावन घालून भारतमातेक मुक्त करपाच्या झंझावातान पुराय हिंदुस्तान पेटून उठिल्लो. गोंयांतूय स्वातंत्र्याचें वारें व्हांवक लागिल्लें. गोंय मुक्तीचे जनक श्री.राममनोहर लोहियान पुर्तुगेजाचे क्रूर राजवटी आड बंड सुरू केल्लें. सत्याग्रह, उपोशण, मोर्चे, घोशणां असल्या मार्गान पुर्तुगेज सत्तेक हादरो दिवपाच्या कामाक आरंभ केल्लो. भारतभुंये वरीच गोमंतभुमीकूय परकी सत्तेतल्यान मुक्त करपाचो ध्यास गोंयच्या सुपुत्रांनी येतिल्लो. म्हजो बापूय रघुवीर कामत होय ह्याच सुपुत्रां मदलो एक. ताणें घरदार, वेवसाव ह्या सगळ्याचेर तुळशीपत्र दवरून मांयभुंयेचे मुक्ती पासत स्वताक ओपिल्लो. ताका लागून आवय, बायल, भुरगीं हांचे पासून पयस रावचें पडटालें. पूण ताची आमचे कडेन आडनदर मात जाय नाशिल्ली. हांवें आनी म्हजो भाव त्रिविक्रमान बरें शिकचें म्हूण तो आमकां वेळच्या वेळार मार्गदर्शन करतालो. आमचे वर्तणुकीर, शिक्षणाचेर ताची बारीक नदर आसताली. हंसा आनी लता ह्यो म्हज्यो भयणी सामक्योच ल्हान आशिल्ल्यो. आमकां विश्वास आशिल्लो, बाबान सर्वस्वाचो त्याग करून मुक्तीलढ्यांत जो वांटो येतला तो फायच्या परजळीत फुडारा पासतूच. फुडली पिळगी मुक्त गोंयांत ताठ मानेन जगची हेच पासत. देशप्रेमाचें तेंच रगत आमच्याय शिरंतरांनी व्हांवतालें. तेच पासत आमीय कसलीच तक्रार करी नासतना जमता तशें शिक्षण घेतालीं. असते कठीण परिस्थितींत आधार आशिल्लो तो आजोळचो. कांदोळे म्हजें आजोळ. श्रीधर काकुलो हो म्हजो मामा. आजो पांडुरंग काकुल्या उपरांत आमकां आधार दिलो तो मामांनीच. मावशी, मामा, व्हडलीं भावंडां आनी हेर सोयऱ्या धायऱ्यांनी आमकां सगळे तरेन जपलीं. ते भायर आमच्या म्हकयच्या घरांत आमचो सगळो सांबाळ आजी-आज्यानूच केलो. आजो १९५० त भायर पडल्या उपरांत सगळें आज्येनूच सांबाळ्ळें. आमी तिका 'बा' म्हणटालीं. घरचें तितलें पुरतें उत्पन्न आसलें तरी व्हडलीशी नड नासली. पूण शिक्षणाची वेवस्था गांवांत नाशिल्ल्याची खंत मात



आज्येक जाताली. देखून माध्यमीक शिक्षणा पासत आजोळा रावतालीं आनी सुटयेंत मडकय येतालीं.

मराठी चौथी यत्ता मडकयचे शाळेंतल्यान पयल्या नंबरान पास जालें.भाशा आनी गणीत विशयांत बक्षिसांय येतलीं. चलयांच्या शिक्षणा बाबत १९४५-४६ चो काळ तसो उदासिनूच आशिल्लो. मुळावें शिक्षण सगळया खेडयांनी आसतालें,पूण माध्यमीक शिक्षणाची सोय मोजक्याच गांवांनी आनी चड करून शारांतूच आसताली. ते पासत फुटलें शिक्षण खंय येवप हो प्रस्न उप्रासलो. आज्यान फुडाकार येवन फुडलें शिक्षण कांदोळेच येवचें अशें थारलें आनी हांव थंयचे पुर्तुगेज शाळेंत दाखल जालें.

मराठी चौथी मेरेन शिकिल्ल्यान पुर्तुगेज पयलेच्या वर्गांत गणीत बी सामकें सोपें लागऽ.प्रस्न आशिल्लो तो भाशेचो. एबीसीडी पासून सुरवात. पूण भास आत्मसात करपाक चड तकालस पडली ना. वर्सभराच्या अभ्यासा उपरांत शिक्षकांक दिसलें,म्हाका आनी म्हज्या सारख्या हेर तीन-चार भुरग्यांक थेट तिसरेंत घालचें. ताका त्या वेळार प्रिमेर ग्राव म्हणटाले. बोर्डाची एक ल्हानशी परिक्षा आसताली. दुसरेच वर्सा हांव प्रिमेर ग्रावाक बसलें आनी डिस्टींग्शनांत पासूय जालें. विशय तशे थोडेच,पूण हे परिक्षेंत खणखणीत आवाजांत वाचप,शुद्धलेखन आनी गणीत हांकां म्हत्व आसतालें. तेच वेळार म्हजो कांदोळेचो आजा खूब बरो ना जालो. हांव पास जालें ही वार्ता ताका कळळी. मागीर चार-पांच दिसांनीच तो भायर पडलो. हांवें खूब शिकचें अशी ताची इत्सा आशिल्ली.

ताच्या मरणा उपरांत फुडल्या शिक्षणां बाबतींत प्रस्न उप्रासलो. माध्यमीक,उच्च माध्यमीक,उच्च शिक्षणाची सोय फकत पणजेच आशिल्ली. सादारण मध्सवर्गीयांक तें आवाक्या भायलें आशिल्लें. त्या भायर तें पुर्तुगेज शिक्षण येवन फकत सरकारी नोकरी करूं येताली. तेंय मळ सामकेंच मर्यादीत आशिल्लें. देखून कांय सुशिक्षीत लोकांनी पुणे बोर्डाक संलग्न अश्यो इंग्लीश शाळा सुरू केल्ल्यो. त्योय सगळे कडेन नाशिल्ल्यो. म्हजें चौथे उपरांत दोन वर्सां पुर्तुगेज शिक्षण जालें. इंग्लीश परत सुर्वेक सावन आरंब केल्यार दोनेक वर्सां वाया वतलीं अशें दिसूंक लागलें. हाचेर तोडगो काडलो तो म्हजे मावशेन. कांदोळे म्हापणे मास्तर म्हूण एकलो अणभवी शिक्षक आशिल्लो. तिणें ताका मेळून तांचे कडेन म्हजी आनी म्हज्या वांगडा आनीक कांय विद्यार्थ्यांची शिकवणी सुरू केली. हुशार आसुनय पंचूमावशेक शिकपाक मेळूंक नाशिल्लें. पूण म्हज्या शिक्षणा पासत मात तिणें हिंसपा भायर प्रयत्न केले. म्हापणे मास्तरा कडेन शिकतना मजत येतली ती तर्खडकर भाशांतराच्या तीन भागांची आनी गांवांत आशिल्ल्या कर्न्वेट शाळेंतल्या पयली.दुसरी आनी तिसरी ह्या वर्गांतल्या सगळया विशयां वयल्या पाठ्यपुस्तकांची. इतल्या साहित्याच्या मालवजार म्हापणे मास्तरान आमकां एका वर्सां भितर पयली,दुसरी आनी तिसरे यत्तेचो पुराय अभ्यासक्रम शिकयलो. नेमीत शाळेंत दाखल जावपाक जाय हे नदरेन कांदोळेच्या चलयांच्या कर्न्वेट हायस्कुलांत हांव भितर सरलें. उपचार म्हूण म्हाका तिसरे यत्तेंत बसयलें.पूण वर्ग शिक्षिकेनूच म्हणलें,इंग्लीश उलोवपाचें सोडल्यार तुजें हे यत्तेंतलो सगळो पोर्शन पुराय आसा. देखून म्हाका चौथेंत (आतांची आठवी) घातलें. मागीर हांव चलयां मदीं भरसल्या उपरांत म्हाका इंग्लीश संभाशण कठीण गेलें ना.

एसएससीची परिक्षा दिवप त्या काळार सोपें नाशिल्लें. इंग्लीश शिक्षणाचें एसएससी बोर्ड तेन्ना पुणें आशिल्लें. त्या भायर जांकां फुडलें शिकप येवपाचें आसा तांकां मुंबय विद्यापिठाची प्रवेश (एन्ट्रन्स) परिक्षा दिवप गरजेचें आशिल्लें. ही प्रवेश परिक्षा मुंबयच आसताली. एसएससी पासत बेळगांव, कारवार,धारवाड,कोल्हापूर हीं केंद्रां येवचीं पडऽ. एसएससी पासत हांवें बेळगांव केंद्र आनी प्रवेश परिक्षे पासत मुंबय केंद्र निवडलें. म्हजो बापूय तेन्ना राजकी कैदी आशिल्लो. ताका लागून परिक्षेक येवपा वचपाक म्हाका म्हज्या सोयऱ्यांचे सोयीन थारावचें पडलें. सुदैवान म्हजी मावस भयण विद्या ही म्हज्याच वर्गांत आशिल्ली.त्या काळार बेळगांव,मुंबय बी येवप-वचप कश्टांचें आनी खर्चीकूय आशिल्लें. पूण भारतांत हेर खंयीय नोकरी वो फुडलें शिक्षण येतलो जाल्यार हें एसएससीचें सोपण अत्यंत गरजेचें आशिल्लें.ताका लागून भुरगीं जिद्दीन हें शिक्षण पुराय करीत. म्हजी शाळा गांवांत आशिल्ली. पूण हेर कांय भुरगीं चार-चार मैल पांयांनी वो सायकलीन साळगांव, हडफडें,म्हापशें बी शाळेंत वचऽ. बस येरादारी सामकीच उणी आशिल्ली.

शाळेंतल्या अभ्यासक्रमा भायर राष्ट्रभाषा प्रचार समितीच्या हिंदीची परिक्षा दिवपाची सोव आशिल्ली. त्यो दोनूय परिक्षा हांव पास जालें.

आमचो परिवार खावन पिवन सुखी आशिल्लो. घरा आजी-आजो,आई,भावंडां, वेवपी वहप्यांचो राबितो, शेतार वावर करप्यांटें वो-वच आसताली भुरग्यांनी वगतार शाळेंत वचप,अभ्यास करप, तिनसनां शुभंकरोति,परवड म्हणून येवप हें सगळें आई करून घेताली. भुरगेपण हेर भुरग्या परस वेगळें म्हणल्यार आमचो बाबा वेवसाया निमतान भायर आसतालो. अर्दीमर्दी घरा आसतालो. उपरांत राजकी चळवळीक लागून जेलींत वचप,सुटप हें चालू आशतालें. तो येतालो तेन्ना पर्वणीच आसताली. काणयांचीं पुस्तकां, साने गुरुजींच्या गोड गोड गोष्टी,बाल इसापनीती आनी तसलेच तरेचीं पुरतकां भरपूर हाडटालो. ताका लागून ल्हानपणारूच अवांतर वाचपाची गोडी लागली.त्या काळार दिसाळीं,खबरांपत्रां खेड्यांत नासतालीं.

सर्वसादारण शाळकरी भुरग्यां परस आमची एक वेगळी कार्यावळ आसताली.१९४६ चे डॉ.राममनोहर लोहियांचे क्रांती उपरांत आमचो बाबा राजकेदी आशिल्लो. ताका मेळपाक म्हयन्यांतल्या एका आयतरा हांव आनी त्रिविक्रम कांदोळच्यान चलत आग्वाद वा रेईशमागुश जेलींत वतालीं. साडेसात ते आठ वर्सां आमी आमची शालेय प्रगती आनी हेर म्हायती दाबाक जेलींत वचून दितालीं. केन्ना केन्नाय मेळप जाय नासतनाच परत येवचें पडटालें. तेन्ना खूब वायट दिसतालें.

असल्या घडणुकांक लागून आमच्या भुरगेमनाचेर वायट परिणाम जातालो. अशे वेळार जेवतना उंडी गळ्या सकयल देंवना आशिल्ली. पुर्तुगेज सरकार सत्याग्रहीं कडेन क्रुरतायेन वागतालें. हिसपा भायर मारपेट करतालें.फाटीर वळ उठS मेरेन मारताले. सगळ्यो बातम्यो कानार पडटाल्यो. श्री.विश्वनाथ लवंदे आनी करमळेचो कांता नायक हांणी हळदोणें हांगा सत्याग्रह केलो तेन्ना पुलिसांनी तांकां अटक करून म्हाषश्या पुलीस कोठयेंत णव दीस कोंडून दवरून अमानूशपणान झोडून काडिल्ले. तांकां रातचे वेळार विवस्त्र करून चामड्याच्या चाबकान तीन खेप फाट फोडली. दिसाक फक्त दोन-तीन उंडयोच अन्न आनी एक पेलोभर उदक दितालें. श्री. नारायण नायक हांकां साठ-सत्तर फटके मारून हिर्सेबराच्या शियांत थंडगार उदकांत बेशुद्ध पडSमेरेन बुडयलो. असल्या गजाली आयकल्यो काय आमी आकुळपिकूळ जावन वचS.

गोंयच्या मुक्ती संग्रामांत हांव जरी प्रत्यक्ष वांटेकार नासलें तरी भुरगेपणा सावन अप्रत्यक्षपणान ह्या लढ्या कडेन जोडिल्लें. कित्याक तर बाबा तातूंत सक्रीय आशिल्लो. सालाझारशायेंत गुलामगिरीची पुरमट,दंडुकेशायेची तिडक हाचीच वळख जाल्ल्या म्हज्या मनाचेर सुटके झुदाऱ्यांचे दरेक कृतीचे आनी परिणामाचे ठसे उदेले. तांच्यो छुप्यो कारवायो,तांकां जावपी धरपकड,तांची मानहानी, शारिरीक छळ,ताका लागून परिवाराची जावपी होरपळ हे फकत मना वयले ओरखडे नाशिल्ले तर आसूडाचे फटकारे आसताले. अश्यो कितल्योच व्यक्ती,कितलेच संवसार स्वातंत्र्य संग्रामांत होरपळून गेल्ले आसात. जाणटे पिरायेर देशभक्तीची जाणविकाय जाले उपरात मन कृतार्थ जालें आनी त्या ओरखडयांच दाहकतेचेर, फटकाऱ्यांचे वेदनेचेर हें सगळें आयुश्वभर स्नेहन थारलें. पारतंत्र्य आनी स्वातंत्र्याचो खरो अर्थ उमगलो.

त्या काळच्या शिक्षणीक दर्जा प्रमाण हांव आनी म्हजी मैत्रीण अव्वल मार्कांनी पास जालीं. एसएससी आनी एन्ट्रन्स दोनूय परिक्षा पास जालीं. गोंयांत पुर्तुगेज लिसेव सोडलें जाल्यार हेर कॉलेज नाशिल्ली. आर्थीक ऐपत आशिल्लीं भुरगीं धारवाड,कोल्हापूर,मुंबय बी वचS.चलयो मुंबय लेडीज हॉस्टेलांत रावS पूण तेंय खर्चीकूच आशिल्लें. ताका लागून सर्व सामान्य चलयो एसएससीचेरूच रावताल्यो. हांव पास जालें तार्चे शाळेंत खूब कौतूक जालें. मुखार किर्ते? हो प्रस्न आशिल्लोच. त्या वेळार शाळेची एक शिक्षिका बरी ना जाली आनी तिचे इच्छे प्रमाण आनी व्यवस्थापनाचे मर्जीन म्हजी नेमणूक शिक्षिका म्हूण जाली. हांवूय होशेन इंग्रजी आनी गणीत शिकयतालें. एसएससीचो निकाल लागल्या उपरांत बाबाक जेलींत वचून मेळप वाडलें. शिक्षकी पेशार्चे कौतूक जाता तें पळोवन बरें दिसतालें. नेमीत कॉलेज शिक्षण आर्थीक नदरेन आनी प्राप्त परिस्थितींत परवडपा सारकें ना हें जरी सत्य आसलें तरी धारावीक फारके भायले वेगळे आचार-विचार म्हज्या पदरांत पडचे हे नदरेन बाबाचें विचारचक्र चालू आशिल्लें.

(चलता....)

कथा



मिलींद म्हामल

# गंगाळाचो बांद

गोंय विद्यापीठांत अतिथी प्राध्यापक म्हणून वावुरपी *मिलींद म्हामल* इंदिरा गांधी मुक्त विद्यापीठ, पिलार गोवा अध्यापन केंद्राचे समन्वयक जावन आसात. तांचे कथासंग्रह, नाटकां, चरित्रां, इतिहास, ग्रंथसुची, दस्तऐवज संकलन अशीं साबार पुस्तकां उजवाडाक आयल्यांत. तांकां साबार पुरस्काररूय लाबल्यात जातूंत गोमंतक मराठी अकादमीचो आनी दि गोवा हिंदू असोसिएशन च्या पुरस्कारांचो आसपाव आसा.

*देवाचो वड म्हूण इतकीं वर्सां तेचे फांदये कांपपाची कोणांकच हिंमत जावंक ना. नाटकाची स्टेज घालपाक अडचण जातली म्हूण एकटो वडाचेर फांदी कापपाक वयर चडलो, दोन कुऱ्हाडीचे घाव घातले आनी निसरान पडलो थंयच मेलो.*

वाट्सअॅपाचेर कोणीतरी व्हिडीओ पोस्ट केलो आनी घुवांळ्ळो. खूब वेळ कांयच सुचांक ना. कितलोसोच वेळ तें दृश्य बगीत रावलो. दुखा दाटून इलीं आनी मी रडांकच लागलंय. स्वताक सावरता म्हुणसर खूब वेळ लागलो. असं क्याँवां घडटालां ह्या चिंतूक ताकायत ना. एक हजार वर्सांचो म्हापुरूस उब्याच्या उब्यां कोसळ्ळो. चक्रावन, पिरगळान मातये भरवण जालो.

मे म्हयन्याचे दीस. खूबच गर्मी. यामाचे लोट व्हवतालें आनी अचनाक अडीस तिनांक वातावरण बदलपाक सुरवात जाली. दमट जाता अशी दिसली आनी खंयच्या खंय वारो व्हांवपाक लागलो. एकदम चक्री वादळ इलां आनी सगळांच घुंवळांक लागलां. कराकरा करून काय तरी तुटांन पडपाक लागलां. भोवारीं इली आनी धुळीचे लोट उठले. खूब वेळ न्हू पूण अर्दा वर तरी वाऱ्याचो धुमाकूळ चालू आसलो. वाऱ्या बराबर पावस इलो तसो वारो फुडें धुकाललो. वाऱ्यान हैदोस घातल्या उपरांत घरांत पळाळ्ळे भायर इले आनी काय काय पडलां तां बघपाक भायर सरले. खुबशा झाडांचें फानये तुटान पडलले. मुशाराद आम्याच्या तोरांची रास पडलली. लायटीचे वायरी, रस्या वयले जायरातीचे बोर्ड उखळान पडलले. पूण त्या चक्री वादळांत गंगाळदेवाचो वड मुळा सकट पडटलो ह्यां कोणीच स्वप्नान ताकायत चिंतूक ना.

मोसमी पावस सुरू जावंच्या पयलीं अशीं धाकटी व्हडलीं वादळां जायत आसतत. गंगाळदेवाच्या वडाक ती नविदाद न्हू. शेकड्यांनी वर्सां तो तां बघीत इला. असल्या कितक्याशाच वादळांक तोंड दियत कितलींशीच वर्सा ताठ मानेन तो उबो आसलो. खूबच जाल्यार धाकटे धाकटे फांदये ना जाल्यार सुकललीं पानां गळान पडत. वाऱ्या पावसाक खरां तर खंयच्याय झाडा पोंदा आसरो घेवप म्हणजे भंय कसो, पूण गंगाळदेवाचो वड त्याका अपवाद आसलो. उलट पावसाच्या वेळार तो सगल्यांचो आदार आसलो. माणसां, गुरांढोरां पावसा पसून बचाव करपाक



वडाचोच आदार येताली. मोठ्ठो पावस इल्यार शेतकार बैलांक घेवन वडाच्या आसऱ्याक वयताले. वडाचे फांदवे आनी पाळाम्यांक लागान पाणी सुद्दा सकयल झिरपाना जालां. गिमाच्या दिसांनी तर निबरांत रावां नाका म्हूण लोक वडाच्या आसऱ्याक वयताले. पानांनी आनी पाळाम्यांनी वड दाटीन भरललो. सुर्याच्या किरणांक सुद्दा थंय प्रवेश नसलो. हेर कडेन सगल्याक झाडां आनी झुडपां, पूण सुर्याची किरणां ना म्हूण थंय कसलींच झाडां वाडांक ना. वडा सकयल सगल्याक सावली आनी पुंवता तसलो वारो. सगले पशू आनी पक्षी वडाचेर निंबून. वडाक तांबडीं गूंज फळां लागलीं काय चानये, चिमणें, वागाळीं, कावळे, कोगळी, सगल्यांचोच किलबीलाट.

येदो व्हडलो वड आख्ख्या गोयांत नसलो. सगल्याक ताची ख्याती. वड उंच आनी लांब. ताका बयपाक मगेर सगले. भोंवडेकार लेगीत. मुखेल रस्त्या वयल्यान वड एक किलोमीटर भितर. कांय वर्सां पयलीं थंय वचपाक एक पांयवाट आसली, फकत मोटरसायकलच वयताली. मुद्दाम वडाकच बयपाक आनी ताचे फोटो काडपाक ये गर्दी. ताची ख्याती पळोवन पंचायतीन वडाच्या परिसराचो विकास केलो. पांय वाटेर मातयेची भर यालून डांबरी रस्तो बांदलो. आतां सगल्या तरेचे गाडये थंय वचपाक शकतत. वडा खाला स्टेज आनी सिमेंटाचें आंगण. बसपाक टुरिझम डिपार्टमेंटा कडल्यान सिमेंटाचे शंभर बांक. बशी भरून वडा कडेन पिकनिकी. गर्दीच गर्दी.

वडाच्या भोंवतणी शेत. देगेक बाराय म्हयने अखंड व्हांवपी व्हाळ. शेताक पाणी मेळपा खातीर व्हाळाचेर कयाँवा तरी बंधारो बांदलोलो. तांच पाणी थाकटे थाकटे व्हाळयेंतल्यान शेताच्या कुणग्यांनी व्हरत. मिरसांगाची पोरसां आनी वांयगणी शेताक ह्याच व्हाळाचां पाणी. वडाचेर गंगाळदेव. म्हणजे वडच देव. त्याकाच गंगाळदेवाचो वड म्हणत. एका मदल्या पाळाम्याक लोक गंध फुलां घालीत. गंगाळदेव राखणदार. सगल्यांचा रक्षण करपी आनी नवसाक पावपी. वडाच देगेक अखंड व्हांवपी पाणी म्हणजे एक तरेची गंगाच. वडाच्या फांदयांतल्यान पाळां फुटत आनी तीं जमनी मेरेन पावत. तांकां पळयल्यार ते एकाद्रया रूशीच्या जटां सारके दिसत. म्हणून तो गंगाळदेव आनी ताचो परिसर गंगाळाचो बांद.

वडाक हजारांनी फांदयो, तांची वाड जमनीक समांतर. फांदयांतलयान पाळां फुटत. पाळां खाला जमनींत रुतलीं काय तांचो आकार व्हड जाय. ताकाच पाळामे म्हणत. पाळाम्याच्या आदारार वडाचो विस्तार जाय. फुर्डे फुर्डे सरून वड वाडतच गेलो. ताचो घेर दोनशीं मिटर तरी आसतलो. उंचाय शंभर मिटर. वडाचो आकार बयून वड पळोवपाक ये गर्दी. वड आतां गोंयच्या टुरिझम नकाशार. इको टुरिझम. वडाच्या भोंवतणी डांबरी रस्तो आनी रस्त्या कुशीक दुकानां. आतां वडाच्या भितर योळपाक मेळना म्हूण वडाचे पाळामे कापून भितर वचपाक वाट. जमनीर पावच्या पयलींच पाळां छाटप. पोंदा शिमीटाचे बांक. वडा खाला पानां बरोबर प्लास्टीकाचो खच. खूब जणांक फोन करून इचारलां. काय जणानी मुद्दाम फोन करून सांगलां,

''असां कसां जालां रे, गंगाळदेवाचो वड पडलो तरी कसो?''

''वादाळ मरे तां, अचानक भोंवरो कसो इलो?''

''असलीं वादळां कितकीं बयलीं मर आमी?''

''वादळा खातीर वड मोडचो ना, एकाद्री फांदी मोडात, पूण मुळा सकट उमथान पडाचो ना, काय तरी दुसरा कारण आसतालां.''

''तां आतां देवच जाणा, थंय काय तरी बरां वायट घडल्या शिवाय असां घडाचां ना.''

''सगळे तरेचे लोक येयत थंय आनी सगलां भ्रश्ट करून वचत, बायलां वयर चडान बसत मरे? कितके पिकनीकी? थंयच खायत आनी पियत, सगळां हळशीक करून दवरलांला, सगल्याक प्लास्टीकचे पोतये आनी बाटले.''

''वडाचे पाळामे कापलले काय रे?''

''फांदयांक आनी पाळाम्यांक आमचो लोक कोण हात लायता? देवाचो मरे तो, याटयांक यालून भितर वाट करपाक पाळामे कापलले, आतां थंय नाटकां करपाक स्टेजय बांदल्या म्हू. स्टेजी वयले दोन चार फांदये उडयले तितकेच!

पौष महिन्यांत वडा कडेन दरवर्सा बायलां धालो खेळत. गंगाळाचो बांद दोन वाड्यांच्या मदीं आशिल्ल्यान दोन वाड्या वयलीं बायलां थंय जमा जायत. त्याका लागान दुसऱ्या कडच्या धाल्या परत गंगाळाच्च्या धाल्याक गर्दी अदीक. भायले लोक मुद्दामच धालो बयूंक येयत. धाल्याच्या जोडीक फुगडे, खेळ आनी तरेतरेचे सर्तीं. ल्हानपणान आई धाल्याक वयताना म्हाकाय हाणीर मारून व्हरा.



रात भर आमी मगेर थंय मज्जा करू. झोपाळे आनी आपालिपांचो खेळ. सगल्याक भुरग्यांचो बोवाळ. ल्हानपणान कितशींच वर्सां गंगाळदेवाचो धालो बघलो. आतां थंय दर वर्सा नाटकांय जातत. पयलीं नाटकां खातीर फळयांचीं स्टेज बांदीत.

देवाचो वड म्हूण इतकीं वर्सां तेचे फांदये कांपपाची कोणांकच हिंमत जावंक ना. नाटकाची स्टेज घालपाक अडचण जातली म्हूण एकटो वडाचेर फांदी कापपाक वयर चडलो, दोन कुऱ्हाडीचे घाव घातले आनी निसरान पडलो थंयच मेलो. तेचे उपरांत वडाचे फांदये कापपाचां धाडस कोणांक जायना जालां, पूण हालींच पंचायतीन दुसरीं माणसां हाडून तेचे फांदये आनी पाळामे कापले. स्टेजी मुखार बसपाक शिमीट घालून खळां केलां. लोकांक बसपाक बांकय घातले. आतां थंय खूब नाटकां जातत. जुगाऱ्यांनी पुरस्कार केल्लीं दशावतारी नाटकां तर खूबच.

जुगाराचो अड्डो जाल्लो तो, थंय स्टेज बांदल्या न्हू आतां, सदींच दशावतारी नाटकां स्पॉन्सर करीत आनी मगे जुगार खेळत. कोणाची तरी फोनाचेर म्हायती. खरांच तां. महाराष्ट्रांतले कलाकार आठ धा हजार रुपया घेवन ताकायत नाटकां लायत. सगलो खर्च जुगाऱ्यांचो, राती कडेन जागरण करप म्हत्वाचां. नाटकाक कमी पूण जुगाराच्या अड्ड्यार लोक अदीक. पेट्रोमॅक्सच्या उजवाडाक जुगाड्यांची ये गर्दी. जुगार खेळपाक गोंय आनी महाराष्ट्रांतले लोक. अगदी दोन तीन दिसांनी नाटकां करपाचीं ठरत. जुगाड्यांचेय आतां वॉट्सॲप्स ग्रुप आसतलो. ते खातीर जायरात करून सांगपाची कोणांक गरजच ना. सगल्यांक वेवस्थीत हप्ते दिले काय काम जालां. देवस्थान कमिटी, राजकारणी, पोलीस आनी सगल्यांचोच त्यांका आशिर्वाद. देवस्थानाक तितकीच मिळकत, आनी वडा पोंदा झगमग. दशावतारी नाटक कसां जालां असां म्हुणचे परस जुगाराक कितके लोक आसले तेचीच चर्चा. केदो मोठो पट भरललो! काय जण खेळा नसले पूण पट्टीचे जुगारी कशे खेळटत ते बघपाक लोक अदीक.

वडा सकयल सदांच एक दाढी आनी केंस वाडललो एक विदेशी हिप्पी यातालो. सकाळीं एक जुनी मारुती व्हॅन घेवन येतालो आनी रात जाली काय परत वचतालो. तो खंयसून येता? खंय रावता? कोणीच क्यॉंवा विचारूंक ना. तोय मौनी बाबाच! जास्ती काय बोलाप ना. कोणायकं काय विचारपाचां आसलां तर सदांच योगाचे मुद्रेंत. माथ्यार भस्म आनी गळयांत रुद्राक्षांच्या माळा. वडाच्या एका फांदयेर पाळां एकठांय करून तेणी आपले खातीर एक घर बांदलालां. भोंवतणी भगवे झेंडे, आनी फाटल्यान भगवान शंकराचो फोटो. हातांत त्रिशूळ. कोण तरी भायलो येता आनी योगा करता म्हूण आमकांय त्याचां कौतूक. हेर बाबा सारके तेचेय भक्तगण. देशी आनी विदेशी. तेचे कडेन कसली तरी विभूती. ते ग्रहण करपाक लायनीचे लायनी. शेजाराक दानधर्माची पेटी. त्या हिपयाचेय गजाली आतां कोण कोण सांगपाक लागलो,

''हिपयान तर शापच इटयल्लां, योगाच्या नांवान सगळां करी मरे तो,

तो काय करता त्याका कोणच इचारपी नसलो. ते दिसा तो येवंक ना, नाजाल्यार मरपाचो चिह्‌नान.''

''योगी कसलो?, भोगी तो, विभूतीच्या नांवान ड्रग्स विकतालो. लोक काय वगीच येवत तेचे कडेन, मे म्हयन्यांत टुरिश्ट येवपाचे कमी जाल्ले म्हुणान चार पांच दीस येवपाचो बंद जाल्लो, आमकांय दिसलालां तो थंय आतां मेलोच म्हुणान, काय जणानी सोदलो ताकायत, पूण मारूती व्हॅन दिसांक ना म्हुणटकत तो येवंक ना म्हूण कळ्ळां, वाटावलो..''

''थंयच मेल्लो जाल्यार ते वडाच्या फांदयाचे ढीग इसकून काडपाकच पंदरा दीस लागपाचे.''

वड पडपाक एक न्हय जायतीं कारणां. सगलीं कारणां वेगवेगळीं, पूण तरीय वडाशीं संबंदीत आनी पटपा सारकीं.

वडाच्या पाळाम्यांक जमीनींत वचपाक वाटच ना. मगेर वड तरी कसो उबो रवतलो आनी इतको भार पेलतलो. वाऱ्या वादळाचां फकत निमीत. एकाद्रे बिल्डींगेची बुनयाद सारकी नसल्यार जशी ती कोसळटा तसोच तो कोसळ्ळो आसतलो. सत्तर ऐंशी वर्सांची माणसां वय जालां काय मरतत ह्यां ठरलालां आसा. पूण कितल्याशाच पिढ्यांचो साक्षीदार आसललो हजार वर्सांचो महापुरूश असो पडटलो ह्यां चिंतूक ताकायत ना. वड पडटाना वयल्यानच पडलो. वाऱ्याच्या भोवऱ्यांत वयले फांदले तुटान सकयल्या फांदयार पडले आनी त्याच्या वजनान करा करा आवाज करीत सगळोच वड जमीनदोस्त जालो.

आतां थंय फकत वडाच्या फांदयाचे ढीग. त्या उपरांत पावसाक बेगीनच सुरवात जाली आनी त्या पावसाळ्यान सगले फांदये कुसान काळे किट्ट जाले.

वड पडच्या पयलीं मे महिन्यान गांवाक आठ दिसाची सुट्टी घेवन इल्लंय. त्यांवा भुरग्यांक थंय फिरोवन हाडलेलीं. वडा कडेन लोकय कमी आसलो. भायर खुबच गर्मी जाताली. सगल्याक सामसूम आसल्या कारणान भुरगीं वडाच्या पाळांचे झोपाळे करून खेळ्ळी. वडा पोंदची जुनी तुळस मोडून परतून बांदप चालू आसलां. तुळशीच्या बांदकामाक पयशे दिल्ल्याची पाटीय आसली. नाटकाक लागपी स्टेज बरीच मोठी बांदलली. वडय आतां खूब इस्कळ इस्कळ दिसतालो. खूब वेळ खेळान थकल्या उपरांत आमी थंयसून गेलंय.

वाट्सॲपा वयलो व्हिडिओ पळोवन थंय परतून वचपाक मनच तयार नसलां. कांय दीस आपले भितरच रडलंय. फुडें भुरग्यांचे शाळा सुरू जाले आनी वचपाचां उरलां. काय तरी चुकल्या चुकल्या सारख्या सदींच दिसां. चवथीच्या निमतान परतून गांवाक इलय त्यांवा तिसरे दिसा मुद्दामच थंय गेलंय. पावसा खातीर रस्त्याचेर झुडपां वाडललीं. वडा कडेन सगल्यांक मेकळां मेकळां. वडाच्या जाग्यार काळीं कुट्ट करपान, कुसान गेल्लीं लाकडां. लाकडांसून माथां वयर काडीत रुजलली चार. पावसाचे दीस आसानय वयर तळपपी सुर्य. वडा फुडली तुळस आनी स्टेज मोडलली. परिसरांत स्मशान शांतता. वडा भोंवतणी दुकानाय कितशेच दीस बंद आसलीं ह्या बयतकच कळां. व्हाळाचेर आतां गणपती बुडवंक जावे म्हूण वडाचीं काठयां देगेक काडून वाट करून दवरलली. खूब वेळ वडाक तसो बगीतच रवलंय.

''आतां काय बयपाक इलंय, गेलो तो.''

भुरगेपणाच्या एका मित्रान उलो मारलो. खूब वर्सांनी तो मेळ्ळलो. वडा पोंदा आमी एकठांय खेळटाले. वडाच्या पाळांचे झोपाळे घेताले. त्याका पळोवन मनाचो बांद फुटलो. आनी मी रडतच रवलंय. तोच सांगपाक लागलो,

''वारोच तसो इलो रे, हेरशीं खूब लोक आसतंत थंय, पूण त्या दिसा पावसा खातीर कोण फिरकांक ना, ना जाल्यार मरपाचे मरे सगले.''

''आनी वड पडतानाचो व्हिडीओ कुणी काडलो?''

''खंयचां तरी फॉरेनर जोडप्यां इल्लां थंय, तीं व्हिडीओ काडीत आसतानाच पडलां सगळां, त्यांच्यानीच मगे व्हायरल केलो तो, रडांकच लागलीं मरे सगलीं।''

''रडपाचांच न्हू तां, महापुरूश मरे तो, आतां फुडें काय रे?''

''कांयच कळाना रे?एक फांनी उरांक ना मरे.''

आतां फुडें काय? तां त्याकाय खबर नसलां आनी म्हाकाय. त्याका बरोबर घेवन मी त्या अवशेशांचे मोबायलाचेर कितकेशेच फोटो काडले, परा वचान परत परत बयले आनी कितल्याशाच लोकांक वॉट्सॲप्स करून धाडून दिले.

साळगांव-गोंय. मो: 9822580789
milindmhamalgmail.com

आपउलोवप



मुकेश थळी

# रांदचीकूड आनी हांव

आकाशवाणी पणजी केंद्राचेर वृत्त निवेदक म्हणून वावुरपी **मुकेश थळी** हे कोंकणींतले एक फिशाल ललित बरोवपी. तांणी ललित साहित्या वांगडाच नाटकांय बरयल्यांत. 'रंगतरंग', 'वलेसर', 'हंस ध्वनी' हीं तांची लोकप्रीय पुस्तकां.

*पिस्तोलांतल्यान घर्र घर्र करीत तो गडडो सोमतोच म्हज्या पांयार थेंवलो. हांव हुयेली मारीत, 'मेलें मेलें' करीत धांवलें. आतां आमकां खेळपाक वेळ काळ लागनाशिल्लो. दनपारचें जेवन कोण आड पडटा, कोणाचो दोळो लागला बी कांयच पडून गेल्लें नासतालें.*

***(नीताबाय मोबायलाचेर बडबडत माचयेर प्रवेश करता. हातांत दोन पोतयो. बाजार करून घरा वता)***

हॅलो, आगो, तांकां घरचें नाकाच. सवाय खाण पोटफुर्गे म्हणटाले. हय. हांव नीता गो. हॅलो.. हांकां म्हारग खाण पोटफुर्गे, तसलें हळशिकावणें जाय. भावलें. जंक फूड. फास्ट फूड.ॲसिडीटी जावन पोटां इबाडल्यार जाता. मागीर म्हारगे दोतोर, वखदां. वखदांचींय मोटेपणां. दुर्वेत जावपाचे दुवाळे.... ***(फोन दवरता. पोतयो दवरता)***

किर्ते म्हळें?... सुनेचे दुवाळे?.... पयलींच सांगतां आं.. सून म्हणना फुडें म्हज्या आंगाक कमकमून भगभगून उजो पेट्टा. नांवूच काडिना फुडें. एक गूण ना... रांदप नाकाच तांकां. फोन करून त्यो भायल्यो पोटल्यो मागोवप. ती बॉक्सां घेवन येवपी भुरग्यांक, कोरोना बी आसूं येता हाची भंय भिती ना. सांज सकाळ तिनूय त्रिकाळ. बर्गर, शॉरमा, बिरयाणी, मांच्युरीयन...नांवां सुद्दा येना म्हाका. शी शी... खतखर्ते म्हणपाक लज दिसता हांकां. पातोळयो, पोळे उच्चारपाक लज दिसता. काळ आयला ह्या भुरग्यांचेर.. किर्ते म्हळें?.... दुवाळे?... कपलाचे. आतां त्यो फॅशनी आयल्या न्हय.. बेगीन भुरगीं जाल्यार तांचें खंय फिग्गर, आंगलोट , बिवटी हांकां बादा येता. मडसरी. जीन पँटी, टी शर्टी... शी...शी शी सांवार आयला गे सायबिणी हांचेर.

म्हजी आवय सामकी कडक आशिल्ली आं. सगळें रांदपाक शिकयलें. शिवराक, नुस्त्याचें. सगळे तरेच्यो भाज्यो. पावसांत तायखिळ्याची, कुड्डुकेची, तेरें, आळूं खूब किर्ते.....

नुस्त्याचें सगळें शिकयलें आईन्न. तेफळां घालून सुकें, बांगड्यांचें-वेल्ल्यांचें-सुंगटांचें. आंबाडे घालून हुमण. कळपुटी. धबधबीत. कुल्ल्यांचें तोंडाक. ह्या भुरग्यांक तें सांगून कळचें ना.

म्हजे हाल जाले पोरूं लॉकडावन जातकच. रांदची कूड म्हळ्यार म्हजें क्रियेटीव्ह आंगण कशें. वावराडी बंद जाली. सूनबाय मदत किर्ते करतली? रातीं उसरां मेरेन फेसबूक...तीं मोबायलाचेर बोटां घश्टीत



बसप. *(कृती करून दाखवता)* उठप उसरां. सगळेंच परकाम म्हाका करचें पडलें. भेंड भरून वेवंक लागलें. सगळें म्हाकाच. कांतप- शिंदप- रांदप. सगळो पश्टो हांवेंच काडप. आवदनां.... नाका पुरो जावन खरस मारची. आतां हे पिरायेर इतलीं कामां झेपतात?

पूण रांदपाचो आनंद जाका कळ्ळा, ताका कश्टांचो त्रास जायना. लोणचीं करपाक आईन शिकयलें म्हाका. काल हांवें लिंबाचें लोणचें करून दवरलां. तोरांचें लोणचें करपाचें आसा. करमलांचें, बिमलांचें, सुक्या आंबलेचें... यस्तें. खावचें यस्तें आनी रोग टाळचे.

हांकां कोण समजायतलो नालायकांक?... हांवें रांदचे कुडीक जोडून मागीलदारा पोरसूं वसयलां. कीचन गार्डन. थंय भाजी लायल्या. वाळची भाजी, सुरण.... यस्तें खावपाक एक वेगळी खोस आसता. *(एकदम तापता)* हांकां लागला भक. भूक न्हय... भक. अती खाणें आनी मशणांत जाणें... सूनबाय राती येतनाच पोटल्यो येवन भितर सरता. भिरभिरी मारता म्हाका. संताप. वचून दोन फुलोवचीं काय *(थापटां मारिल्ल्याची कृती)*.... आसूं .. पुताक लागून वोगी रावचें पडटा. क्लेश-कलह उपेग ना. करीत तो भोगीत. भायरीं जावं. रूमांत वचून पोटल्यो खातात. वास येतकच खावपाची उश्टावपाची वान्सा जाताच न्हय म्हाका. पूण हीं फुकीं केन्नाच कांयच दिनात. *(इतल्यांत सुनेचो फोन वाजता. तोंड वांकडें करून फोन येता, सुनेक भिवेवन लान मारीत, लोकांक सांगता)* सून आमची. आगो हॅलो.. हॅलो ज्योत्स्ना गो. सांग गो बाय.

आं.. आं.. तुमी खंय सांजे भायर वतलीं जेवपाक?... ओके. बरें. सुसेगाद. बेगीन मात येवा आं. ओके. *(फोन दवरता. आवाज चडोवन लोकांक)*. हाका एक दीस हांव अशें उजरायतलें, अशें सोलतलें, अशें शेडायतलें, अशें झाडटलें, अशें झोडटलें...भाजी शिनता तशें... म्हजें नांवूच नीता. पळेशात तुमी. अक्कल ना रांदपाची. लग्न कित्याक जातात?

मणगणें, खीर, पायस, आठवल हीं नांवांच खबर ना हांकां. हें पयलीं रांदपाक शिका. *(हेके काडून)* मम्मी, टीव्ही वयल्यो आनी त्यो यु ट्युबावेल्यो रेसीपी शीक मगो. कोणाक म्हाका शिकयता तूं हय ह्या नीताक?.... कापरदाद खबर ना ह्या पोरांट्याक म्हजी. सादें ऑम्लेट करपाची लायकी ना. आर्रा.

पयर हांव विरवणाचीं पोरतां तळटालें. हें रांदचे कुडींत येवन धमक्यो दिता त्या दिसा... म्हाका? domestic violence act कायद्या खाला खंय बुववे शिकयतलें. कोणाक म्हाका सांगता ही बीरमूट?

वांयगणे आदोगाद मेळ्ळ्यात दिसता हे जाणवायेक. फक्त म्हज्या पुताक त्रास जातले म्हूण वोगी रावतां. समाजांत अब्रू वता न्हय विनाकारण म्हूण.... आपलेच दांत आनी आपलेच ओंठ. सोसपाचें, वोग्गी रावपाचें....

प्रेम केलें. आमच्या पुतान. Love is blind. आतां पातोळ्यो खाता. खा.

*(एकदम आवाज चडयता)* रांदची कूड म्हाका आनी हांव कोण वावराडी?

*(रडटा. दुकां पुसता)* आसूं. तुमी एक दीस येयात आं. ओप यालोवन मातशें बरें दिसलें... फ्रायड रायस, पुलाव सगळें करतां हांव. पुडींग, केक तेंवूय करतां. तांकां याल खळांत. करीत तो भोगीत. लक्ष दिवप ना. दोळ्यां आड मसंड पाड. हांवें थारायलां जमता तें करप. आई एक म्हण वापरताली. पातळ जाल्यार पोळे, दाट जाल्यार सान्नां जें मुखार आयला तें स्वीकार करप. *(पॉज)*

*(गोड आवाजात)*

रांदची कूड हें निखटें उतर न्हय आं. शब्द न्हय. ती आमची संस्कृती. संस्कृतीत आसता खाणा जेवणां. गालम्याचें सुकें, किसमूर, सगळें. संस्कृती ही आमची शक्ती. ताची करूया जतनाय. ना जाल्यार वाऱ्या वांगडा आमचीं मुळां उबून वतलीं. कापसा बोंडा वरी.

नवे बिल्डर परांचे प्लान काडटना रांदची कुडीची रचना ल्हान ल्हान करीत आसात..... आमचे सुनबायक पळेत जाल्यार दिसता रांदची कूड नाच्च जातली फुडारांत.... *(तापता)* उजो पेट्टा म्हाका. तव्याची गरज ना. हांवूंच तापलां.... *(फोन वाजता. येना)* तेंच आसतलें पिडपाक... रांदूक जाय म्हाका. नुरत्याच्यो, भाज्येच्यो पोटल्यो हातांत आसात. चल्लें हांव... फोनाचेर भरभर केल्यार पोटांत पडचें ना.

रांदची कूड आनी हांव
आगो नीता, बेग्गीन धांव
*(पोतयो येवन तुरतुरीत वता)*

*(ह्या आपउलोवपाचो पयलो प्रयोग अभिनेत्री कल्पना देशपांडे हांणी १९ फेब्रुवारी दिसा पणजेंत म्युझियम सप्ताकाचे कार्यावळींत केलो. प्रयोग करपो आसल्यार लेखकाची परवानगी गरजेची)*



तेफुलां
डॉ.वामन रा नायक

# रेडिओ आनी हांव...

**डॉ.वामन रा.नायक** हे निवृत्त प्राध्यापक. ते कथा, कविता, आनी ललित साहित्याची सेवा करतात. कांय काळ ताणीं 'वांगडी' नांवाचें एक नेमाळेंय चलयलें. ते 'भांगरभूंय' तशेंच हेर नेमाळ्यांनी सातत्यान लेखन करतात.

*म्हजी मातूय तयारी नासली. पूण विशय म्हाका नवो नाशिल्लो. तशेंच माधवबाबा बराबर हांव रेडिओचेर गेलों. आमी उलयले. रिकॉर्डींग जालें आनी ठरल्या प्रमाण रातच्या ८.१५ क ताचें वितरावप जालें.*



तो काळ आशिल्लो रेडिओचो. आतां भशेन टिवीचें युग नासलें त्या वेळार. कसलीय खबर कळपाक जाय जाल्यार रेडिओचेर अवलंबून रावचें पडटालें. दुसरें साधन नासलें. तेन्ना रेडिओ हें फक्त मनरिजवणेचेंच साधन नासलें, तर बरी वायट खबर पयलीं रेडिओ वयल्यान मेळपाची. रेडिओ हें सगल्या आंगांनी म्हत्वाचें साधन आसलें अशें म्हणू येतलें. खबरो दिवपाक, वेगवेगळी म्हायती दिवपाक, शेतकांच्या वेळार सुचोवणी करपाक, वस्तू ,म्हालाचे बाजार भाव जाणा जावपाक, संगीत आनी हेर तरेन मनरिजवण करपाक, नाटकां श्रुतिका, तियात्र , लोकां खेळ अशे तरेचे वेगवेगळे कार्यक्रम रेडिओ वयल्यान आयकूंक मेळटाले आनी आयकुपी व्हडा उमळशिकेन तांची वाट पळेताले. रेडिओ आनी रेडिओचे निवेदक घरायरांनी पाविल्ले.अशे तरेन रेडिओ आयकून आमी ल्हानाचे व्हड जाले. पयले भुरगे, adolescent, तरणाटे आनी पयलींचे संवयेक लागून जिणेच्या सांज वेळार लेगीत रेडिओ आयकप जाता. रेडिओन मनशांक जोडिल्लीं. सद्या जग बदलत आसा. मोबायल, टी. व्ही, संगणक, इंटरनेट, ट्विटर, ब्लॉग, व्हॉटस अप, इनस्टाग्राम अश्या अनेक सुविदानी जोडलेलें आसा.पयलींचे भशेन एक दोनच रेडिओ स्टेशनां नात. मोबायलाचेरूय रेडिओ आयकूंक मेळटा.

रेडिओ(आकाशवाणी) आनी म्हजें नातें हांव कॉलेजांत शिकतालों तेन्नाचें. उकतें मळब हे कार्यावळी खातीर भौ. नागेश करमली आमचे कॉलेजींत आयिल्ले. तांकां तरणाटयांची मतां जाणा जावपाक जाय आशिल्लीं. खंयचो विशय आशिल्लो तें आतां याद जायना. कॉलेजांत ते कोणाक मेळ्ळे तें हांव नकळ. पूण तांकां पाच स जाणांचीं नांवां कोणें तरी दिल्लीं. तरणाट्यांचीं मतां जाणां जावन- रेकॉर्डींग करपा खातीर ते आमचे कॉलेजींत, सेंट झेवियर्स कॉलेजींत, म्हापश्यां आयिल्ले. खंयच्या तरी रुमांत बसून रेकॉर्डींग केल्लें.आमकां वेळ सांगिल्लो, त्या प्रमाणे ते रेडिओचेर आमकां आयकूंक मेळपाचें. थारिल्ल्या वेळार आमी रेडिओ लायलो. म्हजो आवाज सामको

वेगळोच आवलो. म्हाका तो आवडलो ना. मार्गदर्शन करपाकूय कोण नासलो.

किर्तें उलवलां ताचे परस आवाज कसो आवला हें जाणां जावपाक तेन्ना चड म्हत्व हांवें दिलें. म्हजो आवाज गोड ना तें आयकतकच हांव सामको निराश जालों.तेन्ना खंय खबर प्रयत्न केल्यार आवाज सुदारूं येता म्हण।

तशें पळोवंक गेल्यार आवाज हें देवाचें देणें. पूण आवाज सुदारूं येता. प्रयत्न केल्यार, रियाज केल्यार तातूंत बदल जावं येता, हें ते वेळार खबर नासलें. Everyone has power to modulate their voices अशें एका जाणकारान म्हळां. जें हांवें उसरां वाचलें. भाशा उलोवप, वापरता तशी सुदारता. मेहनत येवंक जाय,रियाज करूंक जाय . साधना करूंक जाय. प्लेटीन हाडून कोण दिना. अमीन सयानीची मुलाखत उपरांत हांवें आयकली. तातूंत तो म्हण्टा - बडी मुश्किलों से इस फिल्ड में प्रवेश किया. सुर्वेक तांकां गुजराती, इंग्रजी बरी येताली. हिंदींत तांकां बरे तरेन उलोवंक जाय नासलें. कोणाकय सांगल्यार हें सत दिसचें ना.एका वेळार अमीन सयानी म्हळयार ब्रॉड कास्टिंग आनी ब्रॉड कास्टिंग म्हळ्यार अमीन सयानी अशें समिकरण जाल्लें. तांणी केल्लें मार्गदर्शन नव्या उमेदवारांक खूब उपेगी थारूं येता. उलयताना सरळ, स्पश्ट उलोवंक जाय. गरज तेन्ना रिसर्च करप, वाचन करप आनी हेर तयारी करूंक जाय. खरें उलोवंक जाय. उलयतना स्क्रीप्ट मुखार आसता पूण ती ना जाल्ल्या भशेन उलोवंक जाय. लोकांक कळटा ते भाशेंत उलोवंक जाय, उच्चार स्पश्ट आसूंक जाय.

देखूनच रेडिओ खातीर बरोवप हें एक खास शैलीन जावंचें पडटालें, जें आमकां कालांतरान कळ्ळें. रेडिओ खातीर बरोवप हें खबरां पत्रांनी बरोवप वा टि.वी. क बरोवप हातूंत खूब फरक आसा. रेडिओ वयल्यान उलयतना आमच्या आवाजा वयल्यान आमच्यो भावना वेवस्थीत कळूंक जाय. देखूनच तें करप तितलें सोंपें ना. उतरां वापरतना ती योग्य तरेन वापरूंक जाय. आमच्या आवाजा वयल्यान आमची भावना सहजतायेन प्रगट जावंक जाय. सुर्वेक युववाणींत आनी मागीर बरींच उलोवपां केलीं रेडिओचेर वेगवेगळ्यां कार्यक्रमांनी.

रेडिओ वयलें उलोवप हें सादारणपणान १० ते १२ मिनटां आसता, ह्या १२ मिनिटांनी उलोवपी चडांत चड म्हळ्यार आंकडयांनी सांगचें जाल्यार १३०० उतरां वापरूंक शकता, म्हळ्यार एका मिनटान सुमार शंबरेक उतरां. हाचे परस चड उतरां वापरल्यार तीं चड जावंचे आनी आयकतल्याक तें समजपाक कठीन जावंचे. देखूनच सुमार १३०० उतरांनी उलोवपान जे किर्तें सांगूक जाय तें मुददेसूद आसूंक जाय. थोड्या वेळा भितर तार्णे त्या विशया वयल्या म्हत्वाच्या मुद्यांक हात घालूंक जाय. मागीर ताच्या उलोवपाचो विशय, साहित्य, अर्थशास्त्र, राजकारण, समाजशास्त्र, वा विज्ञान विशय आसूं, अशें करतना म्हायती दिता ती संशोधन पेपरा भशेन जावंक जायना. डेटा कमीत कमी आसपाक जाय. उलोवप सोंपे भाशेन आसूंक जाय. म्हण्टकच जो आयकता तो सहजतायेन आयकूंक आनी समजूंक शकता. रेडिओचेर कार्यक्रम करतना बरेच अणभव आयले. दुसऱ्या कलाकारांचीं उलोवपां, नाटकां, चर्चा आयकप जालें.

Learning by doing म्हण्टात ते भशेन एक काम करतनाच तातूंतल्यान शिकपाक मेळ्ळें. चुको कमी जाल्यो उलोवपाच्यो नव्यो पद्दती, गडबड नासतना उलोवप, फास्ट उलोवप, वाचता तें कळऽ नासतना उलोवप, मर्दी गोंदळप ना, आं...हूं करप ना.

रेडिओ वयल्या उलोवपाचो मुखेल उद्देश आसता, मुळावी म्हायती दिवप, व्हडल्या विश्वकोशा खातीर बरोवप न्हय. तशेंच उलोवपाची स्टायल एक Conversation करता, दुसऱ्या कडेन उलयता ते भशेन जावंक जाय. तें एक उलोवप आसता, लेक्चर न्हय. अश्या वेळार व्हड व्हड उतरां वापरून आयकुप्यांक गोंदळावप समा न्हय. दुसऱ्या कडेन उलयतना, conversation करतना आमी जे भशेन पॉज येतात, तेच भशेन योग्य वेळार पॉज येवंक जाय. जाय थंय पॉज येवप हें उतरां परस - चड काम करता. तशेंच उलोवपांत चड आंकडे आसल्यार उलोवप किचकटीचें जाता.

एकदां अशेंच सप्ताकी कार्यक्रमा खातीर रेकार्डींग चालू आसलें. कार्यक्रम अधिकारी आसल्यो श्रीमती जयश्री शानभाग. तांची कार्यक्रम करपाची पद्दत बरी नावीन्यपूर्ण आसली. तो दीस आसलो एप्रिल फुलाचो. कांय भागाचें रेकॉर्डींग जातकच तिणे सांगलें,''ह्या विशयाक धरून किर्तें तरी विनोदी गजाल सांग, हांव रिकॉर्ड येवन येतां.''

विचार करून, निमण्या वेळार एक घडणूक सांगली. तिका आवडली. तुमीय वाचची. एप्रिल फूल कोणाक करचो, हें आमकां धड खबर नासलें. तेन्ना हांव

साळगांवां आमच्या मूळ घरांत रावतालों. आमच्या शेजरा मिकू अंकल आपले फॅमिली सयत रावतालो. तो बरोच वेळ गार्डनांत वावुरतालो. तो भुरयां कडेन बरे तरेन उलयतालो,चार गिन्यानाच्यो गजाली सांगतालो. म्हणून आमकां ताचे कडेन मेकळेपणान उलोवपाची संवय जाल्ली. आमकां तो आमचे बरोबरचो सो दिसतालो.

एकदां अंकल असोच गार्डनांत काम करतालो. वेळ दनपारचो आशिल्लो. म्हजे वांगडचे भुरगे एप्रिल फूल सकाळीं फुडें करून आपापल्या घरा गेले. म्हज्या मनांत आयलें त्या जाण्टेल्याक एप्रिल फूल करपाचें. तो अंकल आपले गार्डनांत काम करतना हांव ल्हवूच थंय गेलों. ताका गूड मॉर्निंग म्हळें आनी सदचे भशेन तो बऱ्या मुडांत आसा तें पळोवन 'अंकल तुका शेजारचे मोनूगेले आन्टीन बेगीन आपयला, किर्ते तरें काम आसा शें दिसता' अशें सांगलें. म्हजो निरोप मेळना फुडें अंकलान गार्डनांतलें काम थंयच सांडलें,हात पांय धुंवन, तो भितर गेलो आनी दुसरे कपडे घालून भायर आयलो. ताच्या हातांत एक रोत आशिल्लें सदचे भशेन.

तो भायर सरता तें पळोवन एके वटेन म्हाका मजा दिसली, दुसरे वटेन भंय! हांव तसोच घरा धांवलों आनी आवयक सांगलें. 'मिकू अंकलाक हांवें एप्रिल फूल केला. तो कपडे घालून भायर सरता.' म्हजीं तीं उतरां आयकना फुडें आवयक अजाप जालें 'तुका किर्ते पिशें लागलां, त्या जान्टेल्याक एप्रिल फूल करपाचें? तो तुजे बरोबरचो ? त्या जान्टेल्याक त्रास जावचो ना? धांवून वच आनी सॉरी म्हण. ना जाल्यार हांव वचून सांगतलीं तुवें किर्ते केलां तें ।'

मात्सो विचार करून हांवें थारायलें अंकलाक वचून खरें किर्ते तें सागपाचें. ना जाल्यार आवय वचून सांगपाची.

म्हाका परत एक फावट पळेतकच तो पळेत रावलो. हांवें 'सॉरी अंकल' म्हणना फुडें ताका कळ्ळें जावंये, तो मुमुख्यांनीच हांसलो. हांवें भीत भीत खरें किर्ते तें सांगलें.

अंकल भुरग्यांत भुरगो. ताणे म्हाका समजून घेतलो. ताची बायल जनेलार सावन पळयताली. तिका राग आयिल्लो जावंये, तिणें कांय म्हणलें ना खरें पूण actions speak louder than words.

चूक जातकूच मनशाक खूबदां याद जाता आपले करणेची. हांवें किर्ते केलें योग्य वा अयोग्य?

रेडिओचेर हांवें वेगवेगळे तरेचे कार्य्रक्म केले. तातूंतले चडशे आशिल्ले -अर्थ उद्येग-अर्थीक विशयां वयलीं उलोवपां, शैक्षणीक कार्यक्रम आदी. बजेटाचेरूय भासाभास जाताली जातूंत बरेच फावटी प्राचार्य माधव कामत सर , प्रभाकर आंगले हांचो आस्पाव जातालो. ते वेळ काडून कार्यक्रमांत भाग घेताले आनी आमकांय उमेद हाडटाले.

तशेंच अर्थीक विशयाचेर बेगीन उलोवप करपाचें आसल्यार रेडिओक म्हजीच चडशी याद जाताली. म्हाका याद जाता, लिबरलायझेशनचो अर्थीक कार्यक्रम सरकारान १९९१ सालांत जाहीर केल्लो आनी २००१ त ताका धा वर्सां पुराय जाल्लीं.

सुर्वेक सरकारान हो अर्थीक कार्यक्रम जाहीर करतकच समाजवादी आनी हेर घटकां कडल्यान ताका खूब विरोध जालो. भारत एक समाजवादी राश्ट्र जातूंत प्लॅनिंगाक खूब म्हत्व



आसा. नोकरशायेच्या हातांत खूब अधिकार ते सोडून नव्या अर्थीक कार्यक्रमांत बऱ्याच प्रमाणांत ही कंट्रोल जालो. प्लॅनिंगचें म्हत्व कमी जालें. समाजवादी अर्थीक कार्यक्रमा पासून अर्थीक यही फ्रि इकॉनॉमी कडेन वाटचाल करपाक लागली. अशे परिस्थितीत ल्हव ल्हव कंट्रोल कमी जाल्ले, नवे कायदे आयिल्ले आनी तांचो समाज मनाचेर कितें परिणाम जाला हे विशीं बरीच उत्सुकताय आशिल्ली.

माधवबाब बोरकार तेन्ना पणजी आकाशवाणीचेर कार्यक्रम अधिकारी म्हूण वावुरताले. तांणी म्हाका घरा फोन केलो. हांव घरा नासलों. हांव पणजे बाजारांत गेल्लों आनी ज्युस्त साडेपांच वरांचेर माधवबाब म्हाका पळेना फुडें शूत शूत करीत म्हजे सरीं आयले.

''घरा फोन केल्लो तूं मेळळो ना. एक कार्यक्रम करपा आसलो. अर्थीक कार्यक्रमाक या वर्सा जाल्यांत ते विशीं बरें वायट कितें जालां तें मुक्तपणान सांगपा खातीर एक उलोवप करूंक जाय. पूण आतां उलोवप बरोवपाक वेळ ना. आमी चर्चा करूं या. म्हजे कडेन कांय प्रस्न आसात तांचीं तूं उत्तरां दी.''

म्हजी मातूय तयारी नासली. पूण विशय म्हाका नवो नाशिल्लो. तसोच माधवबाबा बराबर हांव रेडिओचेर गेलों. आमी उलयले. रिकॉर्डींग जालें आनी ठरल्या प्रमाण रातच्या ८.१५ क तांचें वितरावप जालें.

माधवबाबाक समाधान जालें एक कार्यक्रम केल्ल्याचें आनी म्हाका समाधान जालें ध्यानीं मनी नासतना एका कठीन विशयाचेर हांवें मत मांडलें. म्हाका दिसता तशें.

आकाशवाणी कार्यक्रम करतना बरोच अणभव मेळ्ळो . तातूंत कांय प्रसंग नवे विचार दिवपी, नवे प्रस्न तयार करपी. कांय खीण जाचे वयल्यान म्हजी कोण तरी परिक्षा घेना मू अशेंय दिसपाक लागलें.

असोच एक प्रसंग. इग्नुचेर दनपारां तिनाक सुमार एक लायव्ह प्रोग्राम चालू आशिल्लो. विशय आशिल्लो 'भारतांतल्यो वेपारी बँको' हो कार्यक्रम ठरल्या प्रमाण जालो. शेवटाक प्रस्न आसलेले कोर्स करतात तांचे.

वेपारी बँकां विशीं सांगलें. त्यो खास करून गरीब लोकांक मदत करपाक आनी मागासलेपण पयस करपाक आसात, अशें सांगतनाच कोणें तरी मोटो चिकित्सक प्रस्न विचारलो, गोंयांत प्रादेशीक ग्रामीण बँको खंय आसात?

हांव विचार करपाक पडलों. हो प्रस्न विचारपी खरोच हुशार आसूंक जाय. म्हजी परिक्षा घेना मू हो. सांगलें. सांगतां आयक, खंय आसा काय म्हण्टा न्हय गोंयांत. त्यो गोंयांत नात. तांची गोंयांत गरज ना.

यडये म्हजी विकेट उडोवपाचो यत्न जाला जावंये, पूण म्हजी विकेट पडली ना.

त्या उपरांत, अर्थीक विशया वयलो कार्यक्रम, सुमार पांच मिनटांचें उलोवप-त्या सप्तकांत घडिल्ल्या म्हत्वाच्या अर्थीक घडणुकांचो नियाळ करप वा मत सांगप. बऱ्याच वेळार पांच मिनटां आदींच उलोवप सोंपलां. जे मुद्दे हांवें बरोवन व्हेल्ले ते पळोवन हांव उलोवंक शकलां. मागीर म्हाका विस्वास निर्माण जालो. स्क्रीप्ट नासतना हांव उलोवंक शकतां म्हूण.

रेडिओचेर म्हाका वेगवेगळे अणभव आयले. कालांतरान रेडिओचेर केल्लीं उलोवपा हांवें आयकलीं. तांचें मॅगाझीन हांव वाचतालों. मूळ इंदोरचे कमल शर्मा हांणी तरनाट्यांक, जे ह्या क्षेत्रांत भितर सरपाक सोदतात तांकां केल्लें मार्गदर्शन हांवें वाचलें तें तुमकां संक्षिप्तपणान सांगतां. ते म्हण्टात बऱ्याच जाणांक आपलीं सपनां पुराय कशीं करप हें खबर आसना. ते प्रयत्न करी नात, सपना पुराय करपाक साधना करची पडटा. मेहनत करची पडटा. त्या क्षेत्राचो साधक जावचो पडटा. रस्त्यार कांटे आसतात, चड-उतार आसतात तांची साधना करी नासतना मुखार सरल्यार मुखार वचप जायना. बऱ्याच वेळार मार्गदर्शनाची गरज आसता, ताचे कडेन योग्य नदरेन पळोवंक जाय. मेहनतीक केन्नाच भियेवंक जायना, अडचणी बऱ्याच लोकांक येतात. जीण म्हणल्यार लडाय. मुश्कील खंयचीच गोश्ट आसना. योग्य, सकारात्मक जीवन पद्दत आपणायल्यार ब्रम्हांडांतली खंयचीच ताकद सपनां पुराय करपाक आडावंक शकना.

पूर्व तयारीचें तंत्र आतां पयलीं परस खूब सोपें जालां. खंयच्याय क्षेत्रांत स्वताची शैली लागता. भाशेचें प्रभुत्व,विशयाची जाणविकाय, कौशल्य, विशय मांडपाची कुरू आनी केन्ना केन्ना हजरजबाबी जावचें पडटा.

कसलेंय केल्लें काम फुकट वचना. तें जिणेंत केन्ना तरी उपेगाक येता.म्हाकाय ताचो अणभव आयला.

पुणे. मो: ९५२७७७४९९०

पासय



डॉ. नूतन देव

# विनोद एक टॉनीक...

**डॉ. नूतन देव** हांचें बरप चड्शें मराठींतल्यान जालां. वेवसायान जरी तांची वैजकी कारकिर्द चालू आसली तरी तांचो पिंड कविचो. तांचो मराठींतल्यान ‘ आभाळ ’ हो काव्यसंग्रह हालींच उजवाडाक आयला. जाका काव्य रसिकां कडल्यान उप्पाट येवकार मेळ्ळा. तांची सादी,सरळ कोंकणी भास तांच्या ह्या लेखाचें खाशेलेपण.

*हालीं तेंपार म्हज्या वाचनांत आयलां तें कृ.म.सुखठणकार हांचें विनोदी बरोवप. हो एक पुराय कुटुंबाक आपल्या लिखाणांत सामील करता म्हळयार जाता. जशें एक विनोदी नाटक वा सिनेमा, ल्हान व्हड, दादले बायलां, पुराय कुटूंब वांगडा बसून पळोवंक शकता तशेंच तांचें लिखाण.*



व्हॉटस्ॲपचें एक बरें. खूबश्या फावटी ताचेर तरेकवार मोलादीक अशे संदेश येतात,जे आमचें गिन्यान वाडयतात.

कांय दिसां फाटीं असोच एक संदेश म्हज्या वाचपांत आयलो.तो असो आशिल्लो- "What is stress? It is a gap between our expectation and reality! Wider the gap, more is the stress"

थोडक्यांत आमी अशें म्हणूं येता, जो कोण सत्य परिस्थिती न्हयकारता ताका चड तणाव येता. तशेंच जे कोण काम करचे पयलींच आपल्या फायद्याचें चिंततात,मनांत हावेस दवरून कामां करतात, आनी मागीर मना सारकें जालें ना म्हणटकच पश्चतापाक पावतात, तांकां चड ताण येता. म्हणूनच, जर आमकां गरजे भायर ताण तणाव नाका जाल्यार आमी भगवंतान गीतेंत सांगिल्ल्या प्रमाण वागूंक जाय.'कर्मण्येवाधिकारस्ये माफलेषु कदाचन ' हीं उतरां तंतोतंत पाळूंक जाय. ना जाल्यार आमकां तणावा पासून कितलींशींच दुयेंसां जावंक शकतात. हो ताण मनशाक मारून उडोवंक शकता.

तुमी म्हण्टले, कसलीच आरत बाळगी नासतना काम करपाक आमी योगी पुरूश तर! आमी सर्व सादारण लोक, जे आशेचेर जियेतात. तेंय बी खरें आसत यदये! जशे खंयचोय कायदो म्हणलो काय ताका एक पळवाट आसता तशीच हाकाय बी एक दुसरी वाट आसा. आनी ती वाट म्हणजे 'विनोद'. जर आमकां आमचें जिवीत ताण तणावा पासून पयस दवरूंक जाय जाल्यार 'विनोद' हें टॉनीक आमी दिसपट्टें घेवंक जाय. दर दिसा, थोडोसो वेळ आमी, विनोद आयकूंक, वाचूंक, दुसऱ्याक सांगूंक, बरोवंक किंवा एखादो ल्हानसोच कॉमेडी व्हिडिओ पळोवंक दिवंक जाय. त्या विनोदाची मजा घेतना बोंबलेच्या देठांतल्यान आमकां हांसूंक येवंक जाय. तणावां पासून जावपी दुयेंसांक विनोदा सारकें दुसरें वखद ना अशें म्हणल्यार अतिशयोक्ती जावंची ना.

अशीं कितलींशींच दुयेंसां आसात जीं आमकां गरज नाशिल्ल्या तणावा पासून जावंक शकतात. आमच्या मनाचेर परिणाम जालो जाल्यार तो आमच्या शरिराच्या सगळ्या अवयवांचेर वायट तरेन पसरता. आनी गोडेंमूत, कुरासांवाचें दुयेंस, प्रेसांवाचें दुयेंस, पोटाच्या आनी आंतकड्यांच्या अल्सरा सारकें दुयेंस, कातीचीं दुयेंसां अशीं कितलींशींच दुयेंसां आमकां जावंक शकतात. इतलेंच न्हय तर तणावा पासून आमची रोग प्रतिकार शक्तय बी कमी जावं येता. जाका लागून कसल्याय रोगाचे जंतू आमचे कुडींत भितर सरतात. जाणटे पिरायेर जावपाचीं दुयेंसां आतां तर आमकां तरनाट्यां भितरूय सांपडटात. आनी हें सगळें आमी टाळटलीं जाल्यार दिसांतल्यान थोडोसो वेळ आमी विनोद करून वा आयकून आमचो मूड आनंदीत दवरूंक जाय. तुजें वय कितें, तूं उलयता कितें हो प्रस्न जाका पडटा तो भुरगेपणांतच म्हातारो जाता. म्हणूनच असो एक तरी पंगड आसूंक जाय जो चार कॉमेडी उतरां आयकूंक दिवन आमकां हांसयता.

मराठींत एक म्हण आसा, 'हंसा नी लठ्ठ व्हा.' खरें पळोवंक गेल्यार धा मिनटां जर काय आमी शेगीत हांसलीं जाल्यार आमच्यो पन्नास कॅलरीज वापरांत येतात.

जेन्ना आमी मोठ्यान हांसतात तेन्ना आमचे कुडींतल्या लागीं लागीं सोळा अवयवांचेर ताचो परिणाम जाता. कितल्याश्याच स्नायुंचें, घट करून मुखामळाच्या स्नायुंचो व्यायाम जाता. खोल श्वास घेतिल्ल्यान चड बरो प्राणवाय मेळटा. अश्या ह्या हांसपाक Internal jogging म्हणपाक हरकत ना. तशेंच विनोदी किर्तेय तकलेंत भितर सरतकच आमच्या आंगांत endorphins सारके हॅप्पी हॉर्मोन्स बऱ्या प्रमाणांत तयार जातात. जाका लागून ज्या दुर्येसाचो आमकां त्रास जाता तो त्रास लेगीत उणो जाता.

हॉस्पिटलांत आशिल्ले एके दुयेंतीक मेळपाक वचपाचें कारण हेंच. ताचे कडेन ताचे आवडीचें थोडेंशें, ताचे आवडीचे चार शब्द उलोवन, थोडोसो ताका हांसोवन, ताका ताच्या दुर्येसाक लागून जातात ते त्रास थोडेशे कमी करूंक शकतात. विनोद हो एक टायमपास करपाचें साधन न्हय तर तो एक खऱ्यानीच आमचे जिणेची एक मुळावी गरज आसा.

विनोद असो आसूंक जाय जो मनशाक लागीं करता. आपले भितरलें मोठेंपण कमी करून एकामेकां भितर विश्वासाचें, प्रेमाचें नातें तयार करता. विनोद वाचून वा आयकून आमचें मानसीक दुख्ख, तणाव कमी जावंक जाय. नाका आशिल्ली चिंतना, दुसऱ्यां विशींची सुडबुद्दी हाचो उजो पालोवपाक विनोद खूब मजत करता.

दर एक मनशाची विचार करपाची तांक वेगळी आशिल्ले करणान तांचे विनोद मांडपाची तराय बी वेगवेगळी आसूं येता. खरो विनोद सगळ्या तरेच्या मनशांक आवडटा. एकटो कोणूय तातूंत अपवाद आसूं येता. हालीं तेंपार म्हज्या वाचनांत आयलां तें कृ.म.सुखठणकार हांचें विनोदी बरोवप. हो एक पुराय कुटुंबाक आपल्या लिखाणांत सामील करता म्हळ्यार जाता. जशें एक विनोदी नाटक वा सिनेमा, ल्हान व्हड, दादले बायलां, पुराय कुटूंब वांगडा बसून पळोवंक शकता तशेंच तांचें लिखाण, एकट्यान कोणेंय मोठ्यान वाचून बाकिच्यांनी ताचो आनंद घेवपा सारकें आसा. पुराय घरांतलीं मनशां एकाच वेळार हांसून उमेदी जातात. घरा भितर एके तरेचें सकारात्मक वातावरण तयार जाता जें आमचे जिणेक आनी आरोग्याक खूब गरजेचें आसा.

दुसऱ्या कोणाचो अपमान जावपा सारकें, दुसऱ्याच्यो बकच्छायो करपा सारकें, दुसऱ्याच्या शरिराच्या व्यंगाचेर वा एका खंयच्याय गटाचेर भाश्य करून विनोद करप हें कितपत योग्य हें ज्याचें तागें थारावपाचें.

स्वताचेर ज्योक करून दुसऱ्याक हांसोवप हो सगळ्यांत व्हड पावंड्या वयलो विनोद म्हणूं येता. पुणून हें करता आसतना आपूण एक व्हड मनीस अशें समजुचें न्हय, तशेंच स्वताक ड्रेडफकाण करून सोडपाचीय गरज आसना. एक एक फावट दुसऱ्या कोणाय मनशा बद्दल घडिल्ले विनोद खबर आसतात, ते आपलेच बाबतींत घडल्यात अशें लेखक दाखयता आनी बऱ्या पैकी विनोद तयार जाता. थोडे थोडे विनोद वेवसायीक आसतात जे त्याच वेवसायांतल्या लोकांक आवडटात. थोडक्यांत किर्तें, विनोद हें एक जेवणांतलें गोडशें कशें! सगळ्यांकूच सगळे तरेचीं गोडशीं आवडटातच अशें नासता. रांदतलेन आपल्याक आवडटा म्हणून मणगणें केलें तर तें सगळीं खातलींच अशें ना. सगळ्यांक सगळींच गोडशीं सारकींच आवडटात तर थोड्यांक मोजकींच, एक दोन तरेचींच आवडटात.

एक बरी कॉमेडी आमच्या जिविताक एक ट्वीस्ट (twist) दिवन आमकां आनंद दिवन वता. कांइ आशिल्लें सत जरी बदल्लें ना तरी विनोदा पासत तें थोडें उणें कांइ जावन वता. आमी म्हणटात सहजतायेन, 'डॉन्ट वरी बी हॅपी' अशे तरेची जीण एक उंच पांवड्या वयलो विनोदच दिवक शकता. आमचें नकारात्मक चितप तरी नक्कीच पयस करूंक शकता. इतली ताकत विनोदांत आसता.

हजारभर हांश्यांची सुरवात एका ल्हानशा विनोदाक लागून, मुमुरख्या हांसपान जाता हें आमी मतींत दवरूंया आनी बऱ्यांतले बरे विनोद पढोवन हाडून एकामेकाची भलायकी सांबाळुया.

विनोदाक कितलें म्हत्व आसा हाचो एक किरसो सांगपाची हुक्की टाळूं येना.

एकदां दारार कोणें तरी टकटक केलें. हांवें दार उगडटनाच दुख्ख भितर सरलें आनी घरभर पातळ्ळें.

थोड्या वेळान नखरे करीत आयलो मोग आनी निट्ट न्हिदपाचे कुडींत रिगलो.

परत दारार टकटक जालें, हांवें दार काडलें, हातांत हात घालून विश्वास आनी उमेद भितर सरून हॉलांतल्या सोफाचेर विसावले.

तांच्या फाटोफाट घरांत भितर सरली आरत आनी तिणें येतलो रांदचे कुडीचो ताबो.

मागीर आयली खोस, हांसत हांसत घरभर नाचत रावली आनी रोकडीच दुसऱ्यांगेर वचूंक भायर सरली.

तितल्यांत भितर सरलो विनोद. ताच्या परमळान भरून गेलो उरिल्लो सुरिल्लो जागो. दुख्ख लेगीत ताका पळोवन धादोस जालें आनी ल्हवूच वचून एका कोनशाक बसलें.

विनोदान सगळ्यांचें काळीज जिखलें.



फोंडें-गोंय. मो. : ९८५०१३३१६०

# ब्रह्मांडयोगी
# प्रकाश पाडगांवकार

- दिलीप बोरकार



अंकाचेर निमणो हात भोंवडायतां म्हणल्यार प्रकाश पाडगांवकार गेल्याची खबर आयली. खबर आयकून किर्ते जालें हें सांगपात आतां अर्थ उरूंक ना. हालींच तो एक बाड घेवन अकस्मात दारांत उबो जाल्लो. म्हणूंक लागलो, 'आपणें सम्राट अशोकाचेर महाकाव्य बरोवंक आरंभ केला. तुवें ताचेर नदर मारची.' नवें किर्ते बरयलें काय ताणें म्हजे कडेन घेवप आनी आपणें वाचून दाखोवप वा म्हाका वाचूंक लावप आनी मागीर अभिप्राय घेवन वचप.

ताणें घेवप म्हाकाय आवडटालें, कित्याक तर ताचें नवें किर्ते तरी वाचूंक मेळटालें.

प्रकाश पाडगांवकार, तानाजी हळर्णकार, रमेश वेळुस्कार, चित्रकार दिगंबर सिंगबाळ आनी हांव असो आमचो पांच जाणांचो पंगड. आमी पांचूय जाण खंय ना खंय भोंवत रावताले. केन्ना गोंयां भायर, केन्ना गोंयांतल्या गोंयां, केन्ना खंयच्या तरी दर्यार न्हावपाक वचप बी पडटालें. मागीर दिगंबर सिंगबाळाचे कांय घरगुती प्रस्न निर्माण जाले आनी ताचें मेळप उणें जालें. तरी दर वर्सा होळये दिसा तो आमकां मेळटालोच. पर्वरी तानाजीच्या घरा मुखार आशिल्ल्या पार्कांत दर होळयेक तानाजी आनी ताचे शेजारी एक मदलस दवरताले. तांचे ते मदलशींत दिगंबर, प्रकाश, हांव आनी रमेश हे गेरट आसताले. आमची सगळे तरेची सरबराय ते करताले. मागीर कोर्णे विनोद सांगप, किस्से सांगप अशें करून ती पार्टी रंगताली. आमचें रंगप जालें म्हणटकच जण एकलो आपापल्या घरा जेवपाक वताले आनी आमी चौगजाण तानाजीचे सोयरे उरताले. तानाजीची बायल बी आमकां बरें नुस्त्याचें जेवण घसघशीत करून वाडटाली. दर वर्सा होळये दिसा ही पर्वणीच आसताली. धायेक वर्सां तरी हें चल्लां जावंक जाय. मागीर रमेश गेल्या उपरांत तें बंद जालें. त्या भायर तानाजीचेय भलायकेचे प्रस्न निर्माण जाल्ले. पूण त्या आदीं बरींच वर्सां म्हणल्यार निदान तिसेक वर्सां प्रकाश, रमेश, तानाजी आनी हांव खंय ना खंय भोंवत रावल्यात. म्हजी गाडी, हांव एक बरो ड्रायव्हर आनी पिल्यार लेगीत शादूर आसपी म्हूण म्हजेर सगळ्यांचो भरवंसो. तेन्ना पिल्या उपरांत गाडी चलोवंक फावना बी म्हणपाचो अतिरेक जावंक नाशिल्लो.

आमचे चौकडींत तानाजी सामको मर्यादेंत, प्रकाश ताच्याय फुडली मर्यादा पाळपी घरंदाज मनीस, रमेश आनी हांव मर्यादा सोडिल्ले पुरुशोत्तम. खूब मजा केल्या. फक्त मजाच न्हय, खूब चर्चा केल्या, कविता वाचल्यात.इतिहासीक सुवातीनी भेटी दिल्यात..

मागीर एक दीस रमेश निरोप घेवन रायबरेली गेल्लो तो परतून आयलोच ना. ताचेर निमणी नदर लेगीत घालूंक मेळ्ळी ना. कित्याक रायबरेली वचपाक विमान ना. मागीर तानाजी गेलो. कोविडाक लागून ताचेरूय निमणी नदर घालूंक मेळ्ळी ना आनी आतां कोविडाक लागून प्रकाशूय गेलो. ताचेर निमणी नदर घालतपाचो प्रस्नूच येना. म्हणटकच फाटलीं कितलींच वर्सां एकमेकाचेर नदर घातल्या बगर आमकां कोणाकूच सूख लागनाशिल्लें त्या सगळ्यांचेर निमणी नदर घालपाची संद फाटल्यान उरिल्ल्या म्हाका मेळ्ळी ना ही कसली नियती काय असो प्रस्न पडटा. मनाक लागता ही गजाल..

रमेश आनी तानाजी गेल्या उपरांत आमचे चौकडींतले उरिल्ले प्रकाश आनी हांव. म्हाका प्रकाशा पयलीं बायपास केल्लें म्हणटकच हांव काळजा बाबतींत प्रकाशाक सिनियर. मागीर ताचेरूय बायपास करपाचो प्रसंग आयलो. म्हजें काळीज हाताळिल्लें त्याच डॉ. शिरीष बोरकाराच्या हातांत प्रकाशाचें कवीचें काळीज हाताळणेक वचपाचें आशिल्लें. नाय म्हणल्यार प्रकाश मातसो भियेल्लो. भियेतलोच. काळजाचो प्रस्न तो. हांव

भिवूंक नाशिल्लों. कित्याक हांवें दोतोर कितें करतलो हाचेर विचारूंच करूंक नाशिल्लो. पूण उपरांत तांणी कितें केलां हें कळटकच मात हांव भिलों. नशीब, त्या भंयान म्हाका ॲटक येवंक ना. असल्या ह्या मनशा कडल्यान प्रकाश सल्लो आनी धाडस घेतालो.

हांवें ताका एक दीस तागेर बरोऽ वेळ बसून च्या पितां पितां बायपास बी प्रकार आतां पयलीं सारके पेरिगोज उरूंक ना तर तो एक खेळ जाला म्हणपाचें सहजपणान सांगलें. ताच्या प्रस्नाक ताका मानवता तसल्यो जापो दिल्यो आनी ताच्या मनाची तयारी करून एका बोरकारान ताका दुसऱ्या बोरकरा कडेन सुपूर्द केलो. तांणेंय तार्चे वेवरथीत ऑपरेसांव करून ताका परा धाडलो. मागीर हांव अर्दी मर्दी ताची खबर घेतालों. मागीर कोरोना आयलो आनी वर्सभर ताची भेट जाली ना. पूण तो कमी जाला अशें दिसलें तेन्ना तो तोंडाक मास्क घालून आपल्या महाकाव्याचें बाड येवन म्हजे कडेन आयलो खरो, पूण हांवें म्हाका वेळ ना अशें सांगून ताका मागीर वाचुया म्हणलें. हांवें तशें करूंक फाव नाशिल्लें अशें म्हाका आतां दिसता. पूण म्हाका कविता हो प्रकार वाचूंक एक मूड जाय आसता. जबरदस्ती करून वाचूंक गेल्यार म्हाका तो कवितेचेर केल्लो बलात्कार दिसता. प्रकाशाक तें कळ्ळां काय खबर ना. तो बरें तर म्हणून गेलो. मागीर केन्ना आयलो ना. कोरोनांत तें शक्य नाशिल्लें.

म्हजें आनी रमेशाचें खंयच्याय काळार आनी खंयच्याय वेळार जुळटालें तशें प्रकाशूय कवी आसून लेगीत ताचे कडेन जुळऽ नाशिल्लें. प्रकाश तसो मुखदुर्बळ,मेंग्या सभावाचो. वन टू वन उलोवप चलतना रिजर्व्ह रावतालो. पूण आमची चौकडी जमली आनी मैफलीक रंग चडलो म्हणटकच प्रकाश वेगळेच तरेन फुलतालो.

एकदां आमी कोल्हापुराक वाळवा हांगा गेल्ले, क्रांतीवीर नागनाथ नाईकवाडी हांच्या निमंत्रणा वयल्यान. तो वर्तमानपत्र काडपाचो आशिल्लो आनी म्हजें मार्गदर्शन जाय आशिल्लें. म्हजें भाशण बी जालें आनी इतल्यांत आमचे मर्दी बशिल्लो चित्रपट अभिनेतो निळू फुले उठलो आनी तार्णे म्हज्या पांयाक हात लावन नमस्कार केलो. जाल्यार प्रकाश ताका ओडून उबो करता.''अहो तो तुमच्या पेक्षा लहान आहे. त्याचे केस असेच पिकले..'' आतां केन्नाच न उलोवपी मुखदुर्बळ प्रकाशान हो डायलॉग हांगा मारपाची गरज आशिल्ली? तो कितें करता तें पळोवपाचें.

फुलेन ताका हांसत सांगलें, ''मला माहित आहे, जुनी दोस्ती आहे आमची..मी त्याचे पाय धरत नव्हतो ओढत होतो..''

मागीर परते येतना आमी तिगांनीय प्रकाशाचे पांय ओडपाक आरंभ केलो. अश्या वेळार प्रकाश फक्त हांसतें तोंड करून ओग्गी बसतालो. हांसपाचो आवाज ना आनी तोंडाची हालचाल ना. हांसत्या तोंडाचें प्रकाशाचें मवाळें. सुंदरूच दिसतालो ते अवस्थेंत तो. सामको इनोसेंट.

आमचे चौकडी मदलो कोण मित्र म्हूण श्रेश्ठ आनी कोण कनीश्ठ हो प्रस्न म्हाका केन्नाच पडलो ना. आमच्या सगळ्यांचे पांय मातयेचेच आशिल्ले. आमी आमच्या सभावा प्रमाण बरे वायट आशिल्ले. एकामेकांच्यो कांय गजाली पटऽ नाशिल्ल्यो. मतभेद आसताले. बिम्ब सुरू करपाचो प्रस्न चर्चेक येतलो तेन्ना बिम्ब सुरू करचें न्हय, पयलीं दुडवांची वेवस्ता करची अशें सांगून तानाजी आपूण फार्टी सरलो. ताच्या पावलार पावल दवरून प्रकाशानूय आग काडलें प्रशांती तरुपणकार,रमेश वेळूस्कार आनी हांवें मुखार वचपाचो निर्णय घेतलो. दोन दसका सरलीं तें गजालीक बिम्ब जल्मलो, रसरसलो पूण तुमचें बगर बिम्ब चल्लो अशें म्हणून ताका केणावपाचो एक लेगीत प्रसंग आमच्या मदल्या कोणेंच ह्या दोन दसकांत येवंक दिलो ना.

म्हज्या मनांत हो विशय तसो उरलो पूण तांचे कडल्यान कितें मजत घेवं येता हाचो विचार करून आमच्या नात्याचे बंदपास आमी केन्नाच सदळ जावंक दिले नात.

प्रकाश मित्र म्हूण बरो आशिल्लोच. ताका वांगडा खंवीय व्हेल्यार त्रास जाय नाशिल्लो. आपलेच धुंदीत आसतालो. गरज पडटा तेन्नाच चर्चेंत वांटो घेतालो. आपलें मत मांडटालो. केन्नाच आक्रमक जाय नाशिल्लो. असले कालेतीचे लोक तशे दुर्मीळूच.

प्रकाश केदो व्हडलो कवी हें काळ थारायतलो. आमचे कोंकणींत बरोवपी खूब आसात. आपले तांकी प्रमाण ते साहित्य निर्माणी करतात. पूण तांच्या साहित्याची मोलावणी करपाचे तांकीचे लोक अजून कोंकणींत नात. आसतूय बी. पूण हाका वायट दिसत,ताका वायट दिसत म्हूण कोण कोणाचे शेंपडेर पांय दिवंक वचनात. पूण असो काळ येतलो जेन्ना कोण कितें हें पळयनासतना कोंकणी साहित्याची चिरफाड करपी नवे समिक्षक मुखार येतले आनी तांचे कसवटणेर प्रकाशाचें काव्य प्रकाशमय जातलें. त्या खिणाची वाट पळोवया. ते सर आमचो इश्ट प्रकाशाक आदेवुश।

भलायकी

राज वैद्य



# पँडेमिकाची तयारी...



गोयांतले नामनेचे हिन्दु फार्मासीचे धनी आशिल्ले **राज वैद्य** हे वखदां मळार तळमळीन वावुरतात. आपल्या लिखाणांतल्यान आनी विंगड विंगड चर्चासत्रांतल्यान ते लोकांमदीं जागृताय हाडून योग्य वखदां कशे तरेन घेवप हाचें सातत्यान मार्गदर्शन करतात.

---

आयतराचे सांजे सुसेग येना आसतना विवेकाक अमेरिकेच्यान व्हॉट्सॅप व्हिडियो कॉल आयलो. ताच्या बालपणाचो जिगरी दोस्त नितीनाचो. तो बोस्टनांत बरींच वर्सां स्थायीक जाला. आयटी सॉफ्टवेर कंपनींत उच्च पदार आसा.

विवेकः हॅलो, कशीं आसात तुमी सगळीं..?

नितीनः आमी खुशाल सगळीं. तूं फ्री आसा मरे उलोवपाक..? काय डिस्टर्ब बी केलो हांवें..?

विवेकः ना रे बाबा..! ह्या आयतरा ड्युटी ना. आयज तरी फ्रॅन्टीक कॉल ना.

नितीनः व्हॉट्सेपार सादारण कळटा रे तुमी बरीं आसात म्हूण.! पूण प्रत्यक्षांत कॉल करून खूब दीस जाले. आनी टिवीचेर भारतांतल्यो बातम्यो पळोवन खूबूच चिंता जाता रे..! किर्ते केसी आनी किर्ते तो हाहाकार..! भंय दिसता रे..! आनी गोंयचें हेल्थ बुलेटीन कोण ना कोण घालताच ग्रुपाचेर..कच्च जावपाक लागलें मरे ह्या दिसांनी..!

विवेकः हय रे....पळोवं नज, आयकूं नजो..पूण किर्ते करूं या..आपले परीन प्रत्येकान करपाचें..! आपापली काळजी घेवपाची. पूण किर्ते करुंया..आमी फ्रंट लायनीर काम करतात. रिस्क आसाच न्ही..लोक आयकनात, शिस्त मातशी उणी न्ही रे..किर्ते करुंया..?

नितीनः तें जगार खूब कडेन आमी पळयतात. कडक कारवाय चलताच अशी ना. आमी हांगा पळयलें ना..आमची हालत खराब..आमी तरी भंयान घरा बसून काडले कितलेच म्हयने..भायर हाहाकार..हॉस्पिटलां फूल..आनी आतां तशेंच भारतांत पळोवन परत आंगार कांटो येता.

विवेकः हय,परिस्थिती बरी ना हांगा...तशी तयारी नासली आमची. अचानक जालें हें.

नितीनः हय, पळयतात आमी..ऑक्सिजन, बेड्स,आयसीयू बेड्स, वखदां...

विवेकः आनी हेल्थ स्टाफ वर्कर्स...तांचेर कितलो रे लोड आयलो. थकले बाबडे. तरी आपली लढाय चालू दवरल्या तांणी. आमचे लोकसंख्येच्या प्रमाणांत, आमची आरोग्य यंत्रणा तशी खूब कमी आशिल्लीच..तातूंत आनी ह्यो केसी ज्यो

वाढल्यात तातूत चड त्रास जाले.

नितीनः आतां फुडें कितें..?

विवेकः कोरोनान गेल्या वर्सा खूब जाणांचे दोळे उगडलेले. अनेक लोकांचो दिश्टीकोन बदललेलो. तरी खूब जाणांनी तें लायटली घेतलें. मदीं कोरोना कंट्रोलांत आयलो तेन्ना खूब जाणांक दिसलें, आतां जालें.. भलायकी विरुद्द आर्थीक ह्या डिबेटांत मातसी धुस्पट जाली आनी दुसरी लाट आयली कोरोनाची तेन्ना ही परिस्थिती जाली.

नितीनः पूण मदीं टायम आशिल्लो न्ही रे..?

विवेकः जालें तें जालें....तरी कांयच तयारी जावंक ना अशें न्हय..सुरू जाल्ली. एखाद्री सुस्ताय आयल्ली आसत मदीं. आतां उपाय फुडलें चिंतपाचें... फुडले तयारेक लागपाचें. भलायकेच्या मळार काम करपी कामगार बरेच व्हड संख्येन वाडोवपाची गरज आसा. दोतोर, नर्सी, अनेक तरेचे तंत्रज्ञ- जे लॅबांत, हॉस्पिटलांनी काम करतात तांचो उणाव पळोवन आनीक कॉलेजी ना जाल्यार आसात त्या कॉलेजींची तांक वाडोवंक जाय. आनी जे सद्या भलायकी मळार काम करतात तांची क्षमता वाडोवंक जाय. सतत ट्रेनींग, अतिरिक्त कुशळताय, अतिरिक्त सर्टीफिकेशन बी दिवन तांचो कॉन्फीडन्स वाडोवंक जाय- जेणे करून दोतोर आनी नर्सींचेर जो ताण येता न्ही, तो उणो जावंक जाय. जेन्ना गरज पडटा तेन्ना ह्या इतर भलायकी कामगारांचो उपेग करपाक येता...

नितीनः हें सारकें तुजें. पूण हें सगळें करपाक आसा व्हय धन सरकारा कडेन..?

विवेकः जर इत्सा आसत जाल्यार कितेंय जाता. हरशीं पळय कितलोच वायफळ खर्च जाता तो..! कितें सामकें अत्यावश्यक ताचेर भर दिवपाक जाय. हांव म्हणटां, त्यो कॉलेजी, तें ट्रेनींग सेंटर, तीं हॉस्पिटलां,भलायकी केंद्रां, ऑक्सिजनूच न्हय, बाकीची जी भलायकी क्षेत्रांत यंत्रणा, सामुग्री लागता तांचेर भर दिवक जाय. बरी क्वॉलीटी मेन्टेन दवरूंक जाय. हांचे निर्मीतीचेर योग्य नियंत्रण आसपाक जाय, म्हणजे कोणाकूय दोळे धांपून खंयचोय ब्रँड घेतलो जाल्यार ताचेर विश्वास उरपाक जाय.

नितीनः हय, फ्लाय-वाय-नायट ऑपरेटर्स खूब आसतात न्हय!

विवेकः हय, पूण ढील धरता,हात मिळावूपणा आसता म्हणून तशें जाता. सामकी कडक म्हणजे कडक रेग्युलेटरी मेकानीजम जाय न्ही जाग्यार... आनी कडक ख्यास्त...

नितीनः भ्रश्टाचार हो आसाच न्हय...! कडक कारवाय ही जावंक जायच.

विवेकः तें सामकें गरजेचें. ना जाल्यार सगळें व्यर्थ. आतां काळो बाजार, प्रॉफिटियरींग, बोगस वखदां तयार करप, विकप-हें ह्या कोविडाचे दुसरे लार्टेत दिसून आयलेंच. परिस्थितीचो फायदो घेवपी आसाच कितलेशेच जाण..म्हणून ते राजकारणी- म्हणूनच ते रेग्युलेटरी नेक्स तोडूंकच जाय- जर लिडरूच ढील आसत, भ्रश्टाचारी आसत जाल्यार कसली देख दितात आमी हेरांक..? लोक सामके निराश जाल्यात भ्रश्टाचार, चापलूसगिरी, फावोर आनी कितें कित्याक लागून..!

नितीनः हय बाबा, तुमी थंय आसात, तुमी प्रत्यक्षांत पळयतात, अणभवतात,भोगतात हातूंत दुभाव हो आसचोच ना..!

विवेकः पळोवया कितें जाता तें..आतां जय्यत तयारी जावंकूच जाय. तिसरी लाट केन्ना येत ती सांगू नज.. शोश्याचे शिकारेक वता तार्णे आतां तरी वागाचे शिकारेची तयारी करप सामकें गरजेचें .!



ipacpd a gmail com, 94...

## मचमचीत

### रोसाळ पणसा धोणस

**सामान**

तीन वाटयो पणसाचें म्हींव, देड वाटी तांदळांचो वा गवांचो रवो,देड वाटी गोड, एक वाटी नाल्ला सोय,धा काजुबियांचे कुडके,एक व्हड कुलेर तूप,चवी पुरतें मीठ.

**करपाची रीत**

पणसाचें म्हींव करपाक पणसा घरे आनी तांचीं भिकणां वेगळीं करात. घरे वाटात आनी चाळणींत घालात आनी म्होंव काडात. तुपांत रवो फुलोवन त्या म्होंवांत ओतात. मागीर तातूंत मीठ, गोड सोय आनी काजू बियांचे कुडके घालून एकठांय करात. हें मिश्रण रांदनीर दवरून हें सगलें केणावन येवंचें. (शिजोवन आवळावन येवंचें.) मागीर हें मिश्रण एका ताटांत वा पसरट आयदनांत घालून सानन धाकण्यांत उकडून येवंचें. ना जाल्यार एका तोपांत उदक घालून उदका वयर एक चाळण दवरची. हें मिश्रणाचें आयदन चाळणी वयर दवरून ताचे वयर घट्ट धाकण घालून उकडून येवंचें.

एका वरान धोणस तयार.

दुसरी तरा म्हणल्यार हें धोणस भाजून लेगीत करतात. ते खातीर तें आवनांत भाजपाक मेळटा. ना जाल्यार तोपा वयर इंगळे दवरून भाजात. हें अशे तरेन भाजिल्लें धोणस सामकें केका भशेन जाता.

### सुंगटांचे दांगर

**सामान**

१ वाटी सोलिल्लीं सुंगटां. २ मध्यम आकाराचे कांदे बारीक चिरून.१ ल्हान कुलेर बारीक मसालो, अर्द ल्हान कुलेर हळदी पिठो, अर्द वाटी नाल्लाची सोय,अर्द वाटी तांदळांचो रवो,एक ल्हान कुलेर आमटाणेचो कोळ,१ ल्हान कुलेर कोथमिरेची बारीक चिरून भाजी,चवी पुरतें मीठ, तळपाक तेल.

**करपाची रीत**

सगळें वयलें साहित्य बरें एका आयदनांत एकठांय कालोवन घेयात,ताचे धा ते बारा गुळे करात, हाताच्या ताळटार ते चेपयात,तव्यार तेल घालूनतळून घेयात.

अशेच तिसऱ्यांचे,कालवांचे दांगर करूं येतात.

### काजू मुट्ट्यांची भाजी/तोणाक

**सामान**

७-८ पिकिल्ले काजू मुट्टे,१ ल्हान कुलेर हळदी पिठो,१ ल्हान कुलेर मिरसांगे पिठो,अर्द ल्हान कुलेर कोथमिऱ्यो, अर्द ल्हान कुलेर सांसवां,चिमटी भर हिंग.(शंकरशाप आसल्यार आनीक रुचीक),१० मेथयेचे कण,देड वाटी नाल्ला सोय,१ वाटी गोड,थोडीशी आमटाण (अर्द लिंबा इतली.) २ ल्हान कुलेरां तेल,चवी पुरतें मीठ.

**करपाची रीत**

काजू मुट्ट्यांच्यो बारीक मध्यम फोडी करून घेयात. एका आयदनांत तेल तापोवन हिंग, सांसवां, मेथी हांचीं फोण्णां घालात.मेथयो मातश्यो तांबसार जायसर तळशियात, मागीर तातूंत काजू मुट्ट्यांच्यो फोडी घालात. धवळून घेयात.उदक घालनासतना धा मिणटां मंद उज्याचेर शिजयात. बाकी सगळें साहित्य बारीक वाटून घेयात. हें वाटप शिजिल्ल्या काजू मुट्ट्यांच्या आयदनांत घालात. चवी पुरतें मीठ घालून एक खतखतो काडात. जाली भाजी खावपाक तयार.



-डॉ.रिना लवंदे
नायकवाडो-कळंगूट
मो.:९८२३९९८८८४
drrinalaw@hotmail.com

आकर्षण

# काळीज उसवलां...

## मनीसपणाचे सूर आळोवपी निबंध

उदय म्हांबरो हे कोंकणींतले नामनेचे कवी. तांची कवितेचीं तीन पुस्तकां उजवाडाक आयल्यांत आनी तांकां वाचकांनी भरपूर येवकार दिला.

कविते उपरांत उदय म्हांबरो आतां आपले निबंध ***काळीज उसवलां*** ह्या पुस्तकांतल्यान घेवन आयल्यात आनी त्या पुस्तकाचें विमोचन हालींच जीवन विमो अधिकारी दुर्गादास परब आनी नामनेचे निबंधकार मुकेश थळी हांच्या हस्तुकी ऑनलायन जालें.




काळीज उसवलां ह्या पुस्तकाविशीं उलयतना मुकेश थळी हांणी पन्नास वर्सां आदलो काळ उबो करून निबंधांतल्या साहित्यीक मुल्यांचो आपरोस घेतलो.

उदय म्हांबरो हांच्या ***काळीज उसवलां*** ह्या पुस्तकांतले निबंध लेखक उदय म्हांबरो हांणी काळजांतल्यान बरयल्यात देखून तातूंत मनीसपणाचें संगीत निशेता. पन्नास वर्सां आदली सामाजीक, सांस्कृतीक जीण लेखकान ह्या निबंधांनी उतरांनी गुंथल्या. हाका लागून कोंकणी निबंधाचें दालन समृद्ध जावन गेलां.

आमच्या समाजांतलीं मनीसपणाचीं मुल्यां एके वाटेन ना जायत चल्ल्यांत हें होलमता आसतनाच उदय म्हांबरो तीं आपल्या निबंधांनी सांबाळून फुडले पिळगे खातीर सांबाळून दवरतना दिसता तेन्ना जिणेचो नवो अर्थ लागता. अशें मुकेश थळी हांणी ह्या वेळार सांगलें.

दुर्गादास परब हांणीय उदय म्हांबरो हांची ह्या वेळार तुस्त तोखणाय केली, उदय म्हांबरो हो खूब प्रामाणीक आनी पारदर्शी सभावाचो मनीस जावन आसा. ताकाच लागून ताचें प्रतिबिम्ब वाचप्यांक ताच्या बरोवपांत दिसता. तेच पासत ताच्या कवितांनी आनी निबंधांनी मांडवी, म्हादयचें संगीत सूर, नाद, लय बी सगळें जाणवता. वाचकांक गूंग करून उडोवपा फाटलें हेंच कारण आसा.

आपलें मनोगत उक्तायतना लेखक उदय म्हांबरो हांणी सांगलें, 'म्हज्या काळजांत आयुश्यांतले कितलेच अणभव दाटून राविल्ले. ते पिकपा कडेन पाविल्ले आनी तांकां कागदार देंवयल्या बगर आतां पर्याय ना अशें म्हाका दिसलें आनी तांकां उतरांच्या माध्यमांतल्यान कागदाचेर देंवयतकच म्हजें काळीज सामकें हलकें जावन गेलें.'

काळीज उसवलां हें उदय म्हांबरो हांचें पुस्तक संजना पब्लिकेशन हे नामनेचे प्रकाशन संस्थेन उजवाडाक हाडलां..ताची विक्री अभिनव क्रियेशन्स हे संस्थेवरी जाता. एमेझोन इंडियाचेर हें पुस्तक ऑनलायन मेळटा.

# स्वच्छ भारत आतां युवा शक्ती कडेन..




**- मानसी धाउस्कार**

सैमान कोरोनाच्या रूपान आमकां बूद्द शिकयली वा आमचो सूड घेतलो अशें कांय लोकांचें म्हणणें आसा, जें म्हाका मात्तूय मान्य ना. कारण राग, द्वेश, सूड हे सगले दुर्गूण मनशाचे. सैमाचे न्हय. सैम इतलें सहन करून लेगीत आत्ता आमी ताका मजतीक उलो मारीत जाल्यार तो आमची मजत करपाचो पुरायपणान प्रयत्न करतलो. पूण आमीच ताची संजीवनी नश्ट केल्या ही जाण आमी सैमाक दोश दितना वा ताचे मुखार हात पसरायतना आमकां उरना. आमकां सैमान न्हंयो , झरे , म्हासागर भेटयल्यात. पूण आमी कर्मकट्टे लोक तें अमृत पिवचें सोडून तांकांच नश्ट करपाक लागल्यात. तातूंतल्या जिवांचो पुरमटमार आमी करतात. रानां - वनां आमी लासलीं...मोनजाती कडेन इश्टागत करची सोडून तांचे फाटीत भाले खुपशीले. प्लास्टीक, मिसायल, बॉम्ब, प्रदुशण करून सृश्टीचें अस्तित्व सोंपोवपाचो सांवार आमचेर आयलो..

सैम आमचे कडेन अजून आशेन पळयत आसा....ताची व्हडलीशी अपेक्षा मात्तूय ना. आमी ताका फकत मोगान वेंग मारची इतलीच अपेक्षा..हो सैम आमचो. ताच्या किरायत्यान, कसायान आमचीं कितलींशींच दुर्येसां तार्णे पयस केल्यांत. आतां तो दुर्येत आसा आनी ताचें वखद म्हणल्यार आमचो वेळ , आमची जापसादारकी आनी उपाट मोग. हय, इतलेंच. हांव सद्या विद्यापिठांत एम.ए.च्या पयल्या वर्साक शिकतां. दुसऱ्या सत्रांत प्रवेश करतना एक खूब मनाक भावपी अशी गजाल घडली. आयज जे विचार हांवें मांडले ताकाच धरून एक विशय आसा आनी सैमा विशीं कसलीय गजाल कानार पडटकच हांव आपशींच ते वटेन ओडटां. तो विशय म्हणल्यार *स्वच्छ भारत समर इंटर्नशीप*. ह्या विशया अंतर्गत आमकां सैम मोगी युवकांक त्या माध्यमांतल्यान सैमाक पुर्वपदार हाडपाची एक संद मेळटा. कसलेंच बंधन ना. स्वताक जाय तशे आनी जाय त्या सकारात्मक कार्यांनी सैमाचेर मोग ओतपाची एक संद हो विशय आमकां युवकांक दिता. देशांत वाडपी प्रदुशणाचेर मात करपाक आमचे प्रधानमंत्री भो. नरेंद्र मोदीन २ ऑक्टोबर २०१४ ह्या वर्सा ही मोहीम चालीक लायिल्ली. आनी आज ती आमच्या आनी देशभर कितल्याश्याच विद्यापिठांनी पावल्या. स्वच्छता म्हणल्यार नितळसाण. जी घाण, कुसुट्टाण आमी सैमांत पातळायल्या तिकाच निवळ करप. खरें म्हणल्यार नितळसाण हें जिवितांलें सगळ्यांत म्हत्वाचें तत्व आसूंक जाय. स्वच्छता फकत आपलीच आनी आपल्या घरा पुरतीच न्हय तर पुराय सैमाची, स्वताच्या विचारांची, आपल्या मनाची, आमच्या कर्तुत्वांची आसत जाल्यारूच आमी ह्या दुर्येंत जाल्ल्या स्रैमाक पुर्वपदार हाडूंक शकतलीं. आमच्या जाणट्यांनी आमचे पासत थोडो सैम राखलो देखून आमच्या दोळ्यांनी हो पाचवो रंग पळयलो. पूण आमी जर स्वच्छते वाटेन पावलां उबारलीं नात जाल्यार हे सृश्टीचो न्हास जावपाक चड काळ लागचो ना. आमची विचारसरणी बदलुंया, पाचवें सपन पळोवंया आनी तें साकार करपा पासत पावलां उबारूया. विद्यापिठान लायिल्ल्या पेपरा पुरतेंच स्वताक दवरी नासतना सैमाचो निसुवार्थी गूण आमचे भितर आत्मसात करून स्वच्छते पासत वावरूंया, सैमार परत एकदां पाचवो हांसो केळोवया.

ह्या म्हामारी आड झुजत जर आमी सैमाची लेगीत काळजी घेतली जाल्यार सैमूच आमकां ह्या अरिश्टांतल्यान भायर सरपाक वाट दाखयतलो. आतां गरज आसा ती फकत ह्या सकारात्मक विचारांक खांद मारपी कर्तुत्वी युवकांची. कारण सैम निरोगी आसल्यारूच आमी निरोगी उरतले. आनी आमची भलायकी निरोगी आसल्यारूच पुराय संवसाराक आनी आमच्या देशाक एक पर्जळीत फुडार भेटोवंक शकतले. देखुनच स्वच्छ भारत आतां युवा शक्तीची मशाल. ती प्रत्येक युवकान उबारपाची गरज आसा.





- संतोष हळणकार
वाडेवाड-बेत.फोंडा-गोवा ४०३ ४०१
मो : [illegible]






**आडवे :** १-जाणविकाय ना जावप, ४-वर्गणी दिवपी,पटी फारीक करपी. ७-पालकत्व,सांबाळ. ८.-माणीक,चकचकीत मणी.९- भायर दवरिल्लें. १०- तलवार. १४- मानर्गे (मराठी) १८-सारन,हिरांचो झाडू.१९- भौसार्चे मत,जनतेचो कौल. २१-जेजू ख्रिस्ताची आवय,देवी.२३-रीत भास,माण्णी. २४-निमाणर्चे,अखेरर्चे. २७-दिस्टावो,भेट २९- पाठ करप,सवय करप,झरावप.३१-पाटण,शार, ३२-पत्र्यार्चे वाटकुळें वा चोवकोनी आयदन

**उबे :** १-दिवप,दान करप,ओंपप. २-एक ऋतू, ३-परकी, भायलें,दुसरें. ४-घर उभारपाक लागपी पारो. ५-जांबावलेचें दैवत.६-मदनाची बायल. ११-एक विलायती सोरो १२-सायलार्चे झाड.१३-सवायकी, उण्यो जाल्ल्यो दरो. १५-वियेची देवता,शारदा.१७-अंतर दिवप,पयस करप १९- समाज सरस्थेची वागडी,मनीस. २०-आपली म्हणणी.२२-बुराक,बारीक पोल. २४-काजळ. २५-आवय (इंग्लीश) २६-पांयजणां,पयांची हाळ.२८-फायदो,हीत २९-घार,ल्हान जीव मारून खावपी एक व्हड सवर्णे,३०-जिनस,वस्तू,दागिनो.

आप्रील २०२१ ची जाप

| | | | | | | | | | |
|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|
| पं | द | रा | ■ | ■ | प | ■ | प | य | स |
| चा | ■ | म | ■ | आ | य | क | र | ■ | त्ता |
| र | त | न | आ | बो | लें | ■ | के | श | व |
| त | मा | म | ■ | ला | ■ | ■ | प | त | न |
| ■ | सो | ■ | पि | सां | ट | प | ण | ■ | ■ |
| आ | ■ | स | रा | व | ■ | ■ | ■ | सं | त |
| प | रा | ज | य | ■ | आ | ■ | धा | क | ■ |
| ट | ■ | प | ■ | ह | रा | म | खो | र | ■ |
| प | द | ■ | बा | ■ | ध | ग | ■ | ट | न |
| ■ | स | म | रा | द | ना | ■ | डे | ■ | ट |

POSTAL LICENCE NO. G-2/RNP-GOA/01/2021-2023
RNI Regd. No. GOA KON/2008/30413
Published on 1st and posted on 5th & 10th day of every month



Published & Printed by Dilip Borkar Owner of Bimb Monthly, 'Dharm-Laxmi', St. Lourence, Agasaim-Goa & Printed at Impression, Belgavi. Editor : Dilip Borkar, Ph.: 2438355, Email : bimbkonkani@yahoo.co.in